




5730
BOR-Essy-KON
(D)

**प्रकाशक** / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.

**दूरध्वनी** / (०८३२) २४३८३५५.

**प्रकाशन क्र.** / **११५. अक्षर जुळणी** / बिम्ब प्रकाशन.

**छापणावळ** / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

© **दिलीप बोरकार**

**पयली आवृत्ती** / मार्च २०१६

**मुखपृश्ठ** / हर्षदा केरकार

**अंतर्मनांतले अंतरंग** (ललित निबंध) दिलीप बोरकार

**Antarmanatle Antarang** (Essays) *by* ***Dilip Borkar***

**मोल** : रु. १८०/-

**बिम्ब**
**प्रकाशन**

**ISBN :** 978-93-85654-05-03

# मांडावळ

# नामो आनी बिलिवर्स

**हालीसराक** हांव बिम्बाच्या ऑफिसांत रातचीं साडेणव वरां मेरेन बसतां. पयलीं सांजवेळचो मिरामार वेळेर पासय मारतालों. एका आदर्श साहित्यिकाचें तें एक आद्य लक्षण म्हणपाचें आयकल्लें. सकाळ-सांज सैमाचे वेंगेंत वो आंगणांत जो बागडटना दिसता तो दर्जेदार आनी खरो साहित्यीक असो समाज मानता खंय!

हो साक्षात्कार जाले बराबर हांवें सैमाच्या आंगणांत उडणां मारपाचें म्हळ्यार हेरांचे भाशेंत पासय मारपाचें सोडलें आनी टि.बी. कुन्हा सभाघरा मुखार तो वेळ चकाटां मारून सारपाक लागलों. थंय सांजचे वेळार जायते लोक येतात. भाटेलें वर्षा बूक स्टॉल थंय आसा. पुस्तकां, पेपर घेवपी जमतात. एकमेकाची भेट जाता ते निमतान. मदीं कोंकणीवाद्यांनी (तातूंत हांवूय आसां) ते सुवातेकडच्यान फारकत घेतिल्ली आनी प्रभाकर भिडेल्या राजहंसाची अपुर्बाय करूंक थंयच अड्डो केलो. राजहंसान कोंकणीवाद्यांचे लगाडीक लागून कितलें नीर-क्षर वेगळें केलें खबर ना पूण मनशाचो सभाव मुळाकडेन वता, तो आपलें रूट विसरना ह्या तत्वा प्रमाण सगळे कोंकणीवादी भिडेलो अड्डो सोडून कॉफे प्रकाशाची च्या पिवंक 'सुबह का भुला हुआ शाम को लौट आया' म्हणत थंय परतले. हांवूय थंय पावलों.

म्हजें थंय वचपाचें कारण म्हळ्यार रवींन्द्र केळेकार. ताणें एकदां

म्हणिल्लें सृजनशील मनीस लोकांमदीं मिसळूनच अक्षर साहित्य रचूंक पावता. खरें मानून लोकां मदीं मिसळपाक हांव थंय येतालों. पूण थंयचीं तीं सदचीं तींच तींच तोंडां आनी तांचे ढवळे पळोवन उबगलों. हाका कांय अर्थ ना अशें दिशिल्ल्यान ऑफिसांतूच बसप बरें दिसूंक लागलें.

खरें म्हळ्यार सुर्योदय आनी सुर्यास्ता वेळार चार वण्टींमदीं रावप म्हळ्यार म्हाका तारुण्याचो अपमान दिसता. सुर्योदयाक हांव आयतार सोडून सदांच साक्षी आसतांच. सुर्यास्ताक हांव चार वण्टी मदीं म्हाका चोंदतालों तें म्हाका बरें दिसलेंना. म्हजो मूळ स्वभाव विद्रोह करून उठलो. म्हळें ह्या चार वण्टीं भितर कांयच खरें न्हय. हें 'कांयच खरें न्हय' हें मूळ रमेश वेळुस्काराचें वाक्य. उठलों आनी कला अकादमींत गेलों.

साहित्यिकांनी फकत साहित्याकडेंच पळोवंक फावना. साहित्याच्या जार्दीनांत लॉनावेल्यान चलतना जळीं-मळींचीं फुलांय तांणीं तोखेवंक जाय. पेन्टींग, नाच, गायन हें मळ आपल्याचें नासलें तरी रसीक म्हूण ताका आपटूं येता. नातर ती मक्तेदारी राजकीय फुडाऱ्यांची जावन वता.

कला अकादमींत बरीच गर्दी आशिल्ली. मुखेलमंत्री पर्रीकाराची गाडीय दिश्टी पडली. म्हळें कसलो बरो कार्यक्रम आसतलो! भितर सरलों. दारांतच दोन ललनांनी अत्तर शिंपडायलें. तिसरेन गुलाबाचें फूल दिलें. तर चवथी कपलाक नामो लावपाक मुखार सरली. पूण कपलाकडे हात व्हरून तिणें तो फाटीं घेतलो. तिणें तशें कित्याक करचें काय? असो विचार करीत हांव भितर सरलों. तिणें तर हेर सगळ्यांक नामो ओडिल्लो आनी ते भरिल्ल्या कपलान आसनस्थ जाल्ले. भोवतेक म्हजो भांग भरप तिच्या नशिबांत नासुये वा म्हजें रुशीतुल्य रूप पळोवन तिका थरथरो भरला आसुंये! महाभारतांत असले प्रसंग घडल्यात. कांय गजालींक नशीब लागता. तांचें फुटलां जाल्यार हांव तरी कितें करूं?

माचयेर एक सपनां कोचरेकार म्हूण भरतनाट्यम करतालें. इतले

ल्हान पिरायेर तिका इतली गर्दी पळोवन जीव धादोसलो. म्हळें, ना! गोंयांत कलेच्या मळार दुकळ ना. पर्रीकारा सारख्या मनशान लेगीत जातीन येवन बसप म्हळ्यार कलेक मरण नाच. हें चली आपले वांगडाच गोंयचेंय नांव वयर काडटली.

नांव जाणां जावन घेवंक हांवें रसिक सहसांगात्याक विचारलें. 'ती कोण रे?' म्हज्या प्रस्नाक तो तुच्छतेन हांसलो. ताच्या कपलाचो नामो तेन्ना चड्डूच रूंदावलो.

''तेका वळखना रे? कितें रे तूं? तें अर्चना कोचरेकारालें मरे? ती भाजपाची खडेगांठ कार्यकर्ती.''

आयकून म्हजो ताल आनी ठेको चुकलो. उठलों आनी घरा वचूंक भायर सरलों. वाटेर एके चलयेन लिफ्टीक हात मुखार केलो. खंयचेय बायलमनशेन हात मुखार केलो जाल्यार रावंचें. तिची कितें अडचण, समस्या बी आसत जाल्यार समजून घेवंचें. ह्या देशांतले नारीन आधाराचो हात मागप आनी तो दिवप ना हें सुसंस्कृतपणाचें लक्षण न्हय हें हांव मानतां. मागीर ताचो अर्थ हेरांनी कितेंय लांव. तातूंत लिफ्ट मागपी नदरेंत भरपा सारकी आशिल्ली. आमोरेच्या वेळार थंय सगळे दादले आनी ही एकलीच चली. ती तांचे नदरेंत बी भरत म्हूण हांवें गाडी थांबयली.

खंय वता काय म्हूण विचारचे पयलींच तिणेंच विचारलें, ''मडगांव वता?'' (आरे रे! म्हजें घर मडगांव आशिल्लें जाल्यार काय बरें जावपाचें!)

हांवें म्हळें, ''ना. हांव आगशी वतां.''

''तशें जाल्यार हांव बांबोळे मेरेन येतां'' तिणें म्हळें आनी ती गाडयेंत बसली. गजाली सुरू.

ती मडगांवची लिफ्ट विचारताली, मेर्शे रावताली आनी म्हजे वांगडा येवन बांबोळे देवंक सोदताली.

निश्चित ध्येय नाशिल्ल्यो चलयो म्हाका आवडटात. तांचे कडल्यान

एक वेगळी फिलॉसॉफी शिकूंक मेळटा. ती गाडयेंत बसून बडबडटाली. पोट्टा, बिलिवर्स, देव. म्हजें लक्ष नाशिल्लें. हांव तिका म्हजें तत्वगिन्यान, कला साहित्य सांगतालों. पूण तिचेर कसलोच परिणाम जाय नाशिल्लो. बांबोळे फुलांच्या खुर्साकडेन पावलीं तशें तें देंवता म्हणूंक लागलें. प्रार्थना करून मेरशे वचपाचें तिणें थारायलें. ते आदी ताका हांवें बिअरची ऑफर दिल्ली. जाका अचूक खंय वचपाचें तें खबर ना ताणें बिअर बारांत वचप ही खरी हायली फिलॉसॉफी.

प्रार्थना करीसर रावता जाल्यार येतां पूण फक्त सॉफ्ट ड्रिंकाक अशें ताणें सांगलें आनी म्हाकाय भितर इगर्जेंत घेवन गेलें. ताची प्रार्थना चालू जाली. हांव येसू ख्रिस्ताक काकुळटेचे नदरेन पळयत बसलों. अर्दवरान प्रार्थना सोंपली. तें आयलें. गाडयेंत बसलें. परत धर्म, पोट्टा, बिलिवर्स, देवपण सुरू. हाचें हें वेगळे नाट्य सुरू जाल्लें. झक मारूं ती बिअर म्हणत ताका जंयसून हाडिल्लें थंय सोडलें. ताचो म्हाका हुस्को नाशिल्लो. तें परत लिफ्ट मागपाचें कोणाकडेय पोट्टाक वच म्हूण सांगूंक बिलिवर्सचो संदेश दिवंक.

पूण म्हाका हुस्को लागिल्लो म्हजो. हांव कला अकादमींत भरतनाट्यमत पळोवंक शकना आनी हाचें तत्वगिन्यानूय आयकूंक शकना. कशें जातलें काय म्हजें ह्या संवसारांत?



(२००३ फेब्रुवारी)

# नदरो बायलांच्यो...
# म्हजेकडेन पळोवपाच्यो....

तें चली म्हाका कला अकादमींत मेळटा. पयलीं तें पयसुल्ल्यान म्हाका पळयतालें. अशें कोणेंय म्हाका पळयलें की तातूंत आतां नविदाद दिसना. म्हजो अवतारूच तसो जाला. देखून पळोवपी दादलो आसूं वो बायल, एकदां पळयता आनी मागीर परतून पळोवन घेताच. चड करून बायलो घराकडेन टि.व्ही. बी पळयतात देखून म्हजें दर्शन तांकां घडटा. दूरदर्शनवालेय मोठे तिरसुवाद. गर्देंत खंयीय उबो आसल्यार लेगीत कॅमेरो झूम करतात. संकलकाकूय म्हजें रूप काडून उडयनशें दिसना. अस्मिताय दीस मडगांवां मनयलो तेन्ना हांव आनी प्रशांती बाबडें एके कुशीक उबीं आशिल्लीं. कॅमेरामॅनान कॅमेरो आमचेर पॅन केलोच. दुसरे दिसा आमची जोडी गोंयभर दाखयली. फुडले कांय दीस हांव 'प्रकाश जोतांत' उरलों. कांय जाणांनी थारावन विचारलें लेगीत, तें वांगडा आशिल्लें तें कोण काय म्हूण! अश्यो ह्यो गजाली जाल्ल्यान हांव कोणाचे नदरेंतल्यान सुटना आनी रस्त्यार मागीर तांच्यो नदरो म्हजेर खिळटात.

तर कला अकादमींत पयलीं पयसुल्ल्यान पळोवपी ती चली मागीर लागीं आयली. उलोवप सुरू जालें. ताणें म्हाका पयलोच प्रस्न केलो आनी तो आयकून म्हजो म्हजेरूच विस्वास बसलोंना.

'सर, खूब दीस तुमकां हांव एक प्रस्न विचारूंक सोदी. राग येवंचोना

न्ही?'

आतां हांगा म्हाका राग येवपाचो प्रस्नूच ना.

प्रस्न तिका पडला. तो ती विचारूंक सोदतां आनी राग येवपा सारको प्रस्न एके चलयेकडेन केन्ना येवं येता? चलयांचे-बायलांचे सगळेच प्रस्न तर मोग करपा सारखे. निदान म्हाका तरी तशें दिसता.

हांवें विचार म्हणटकच तिणें प्रस्न केलो.

'सर हांवें आयकलां तुमकां सात बायलो म्हूण!' आयकून आवरो उडपाचोच. म्हजे विशीं चलयो-बायलो कितें विचार करतात हाची म्हाका कल्पना नासली तरी एक साहित्यीक म्हूण हांव कांय कल्पना रंगोवंक शकतालों.

हांव म्हाका मदनाचो पुतळो जरी समजना आनी ताची म्हाका जाणविकाय आसली तरी म्हजें व्यक्तिमत्व कोणेंय परतून मान वळोवन पळोवपा इतलें नक्कीच आसा. आतां कोण कशे नदरेन पळयता हें तांचे कुवतीचेर अवलंबून आसा. कोणाक हांव शास्त्रज्ञ दिसता, कोणाक हांव एम् एफ हुसेन टायप पेन्टर दिसता, कोणाक म्हजे भितर रविन्द्रनाथ टागोराचें मारता. ताका उपाय ना. म्हजें रूपच तशें. पिंजके कपडे घालून फूटपायरेर बसय भिकारी म्हूण समजून कोणूय चार पयशे उडयतलो. सदरो बिदरो घालून शांतिनिकेतनांत पांय दवर 'गुरूदेव' म्हूण खासा गुरूदेव लेगीत पांयांक हात लायतलो. खासा एम् एफ हुसेनान तर म्हाका एक दीस आप मकबूल है क्या? म्हूण हांसत प्रस्न केल्लो तेन्ना हांवेंय ताका आप दिलीप बोरकार है क्या? असो सवाल केल्लो. वळख करपाची ताची पद्धत आवडिल्ली. तशेंच खंयच्याय विज्ञान भवनांत हांव कोणाक सापडत जाल्यार म्हाका सायन्टीस्ट म्हूण भितर ओडटलेच. तेंच कित्याक? च्यवनप्रास वाल्यांनी पळयत जाल्यार मॉडेल म्हूण वापरतले.

अशें म्हजें हें रूप आसलें तरी सात बायलांचो हांव धनी जावप इतलें

तें अवतारी ना हाचें म्हाका भान आशिल्लें. त्याच वांगडा हांव बेभान जालों ताचें कारण म्हळ्यार लोक म्हजेविशीं अशेंय चिंतप करतात.

आतां लोक म्हजेविशीं कितेंय चिंतूंक फ्री आसात. कित्याक हांव पब्लीक फिगर. तरी पूण प्रस्न पडलो ते म्हाका सात बायलोच कित्याक आसा म्हण्टात? स कित्याक न्हय? आठ कित्याक न्हय? धा कित्याक ना?

सात हो नंबर सगळ्यांचे मान्यतेचो वो तांकां सोयिस्कर दिसता जावंये. सप्तकाक सात दीस म्हणटकच सात बायलो आसल्यार सोयिस्कर. माजराक सात जीव म्हणटात, तें सात कोनशे भोंवता, सात जन्म आसात ताचेर बायलांचो विस्वास आसा. देखून त्यो सात जल्म आपल्याक होच घोव मेळचो म्हूण वडाक प्रदक्षिणा घालतात. असो हो सात आकड्यांकडेन बरो-वायट संबंद आशिल्ल्यान तांकांय दिसलां आसूं येता म्हाका सात बायलो आसात. जे सर म्हाका तांचो त्रास जायना ते सर तांणीं तो आंकडो कितलोय वाडोंव येता. श्रीकृष्णान इतलें सोंसलां तें पळयत जाल्यार हांव फक्त सातांचेर सुटलां.

तरी ताका हांवें विचारलें, तुका ही बातमी कोणें दिली? कोण हो असो जी तुज्या ज्ञानांत भर घालपी! ताचें ज्ञान वाडोवपीय कांय चलयोच आशिल्ल्यो आनी तांची हे विशयाचेर मदींमदीं चर्चा चलताली. म्हजी कल्पना आशिल्ली ह्यो चलयो बी म्हज्या ल्हान पिरायेर खाड-केंस पिकल्यात म्हूण चुरचुरतात आसतल्यो. पूण ह्यो तर म्हज्यो बायलो मेजतात.

कसलो सांवार आयला काय हांचेर?...



(२००३ मार्च)

# टिचर आनी चिटर

**लोकांकडेन** दुडू खंयच्यान येतात हाचो प्रस्न म्हाका केन्नाच पडलोना. चडसो लोक आपली पुराय शक्त दुडू करपा पासतच खर्चितात देखून तांचेकडेन दुडू येतात असो म्हजो अणभव आशिल्ल्यान तांचेकडेन तो कसो येता हाचेर येवजुपाक हांवें म्हजी शक्त केन्नाच खर्ची घालपाचो यत्न करूंक ना.

म्हजो एक टिचर मित्र आसा. म्हाका ताका शिक्षक म्हणचे परस टिचर म्हणप आवडटा. कित्याक टिचर आनी चिटर हीं दोनूय उतरां म्हाका खुबूच लागीं दिसतात. हेच पासत म्हाका इंग्लेज भासूय आवडटा. खंयच्याय शिक्षकाची वळख करून दितना हो चिटर आं! अशें म्हणत जाल्यार पासून आयकुप्याक व्हडलोसो फरक पडना. तो अचूक अर्थ समजून घेता आनी ताका 'तूं खंय टीच करता वा खंय चीट करता?' असो प्रतिप्रस्न करता. तसोच प्रकार आस्क म्हळ्यार विचारप ह्याय उतरा बाबतींत. म्हाका इंग्लेज उलोवपी जितल्यो चलयो मेळ्ळ्यात तांणीं केन्नाच आस्क अशें उच्चारण केलां म्हणपाचें आयकूंक ना. तीं सदांच 'आक्स' म्हणत आयल्यांत आनी हांवेंय ताचो अर्थ समजून घेतला. आतां म्हाका 'आस्क', 'आक्स' आनी 'आस' हाचो अर्थ एकूच दिसूंक लागला.

तर हो म्हजो चिटर मित्र सकाळीं उसरां उठ्ठा आनी शाळेंत वता. म्हणचे तो टायमार शाळेंत पावता. शाळेंत शिकयता आसतना वेळ मेळटा

तेन्ना तो शाळेंतल्या शिक्षक सांगात्यांकडेन आनी कांय वेळां विद्यार्थ्यांच्या पालकांकडेन वेवसायीक संबंद दवरता. तो तांकां जपानी गादयो, जावं अमूक सदस्य केल्यार अमूक फायदो जाता असले जे कितें प्रकार आसात ते तर मन लावन करता आनी ताचेर तो भरपूर जोडटा.

शाळेंतल्यान तो लिफ्ट मागून घरा येता. आतां चडश्या विद्यार्थ्यांकडेन दुचाकी वाहनां (हातूंत सायकल ही दुचाकी आसली तरी आयच्या अर्विल्ल्या काळांत ती दुचाकी हे जातींत मोडना. ती हेर मागासवर्गीय जातींत म्हळ्यार ओबीसींत पडटा.) आशिल्ल्यान तांकांय आपल्या टिचराक आपले मोटर सायकली वेल्यान पावोवंक अभिमानास्पद दिसता.

मागीर हो चिटर घराकडेन येवन भकाभक जेवता. कित्याक तिनांक ताचेकडेन ट्युशनाक भुरगीं येतात. तीन ते स ह्या वेळार ताचेकडेन विशेक भुरगीं ट्युशनाक येतात. स वरांच्या ठोक्यार तो घराकडच्यान भायर सरता. ताका दिसाक पांच तरी एलायसी करपाच्यो आसतात. मागीर उसरां तो आपल्या जपान गादयेवाल्यांक मेळटा आनी टायर्ड आनी टायट जावन घरा येवन न्हिदता. तो फकत धंद्यांतले एथिक्स म्हूण दोन पेग घेता. ताका सोरो रोकडोच लागता. कित्याक ताका साखर आसा. देवूय म्हूण पळय कितलो नाटकी तो! तो ताका दुडूय दिता आनी डायबेटीसूय. ताचेवेल्यान दुडू करप सोंपें अशें म्हाका दिसून आयलां.

हें सगळें म्हाका येवजलें तें म्हज्या मॉर्निंग वॉकाच्या वेळार. म्हाका दुडूय नाका आनी डायबेटीसूय नाका म्हूण हांव सकाळीं पांचाक उठून दोन वरां जुवारी पुलावेल्यान चलतां. घराकडल्यान भायर सरतां तेन्ना हांव दोळे आनी कान उगडे दवरतां. दोळे उगडे दवरपाचें कारण म्हळ्यार वाटेवेलीं जिवाणीं आनी रस्त्यावेलीं वाहनां दिसचीं म्हूण! आनी कान उगडे दवरतां फांतोडेवेल्या पक्षांचे वेगवेगळे आवाज कानांत सांठोवपाक.

म्हजो हो वाठार खूबश्या रुखांनी गच्च भरला. ताचेर खूबशे पक्षी

राबितो करून आसात. ते फांतोडेर आपआपल्या सभावाप्रमाणें आवाज काडीत आसतात. चड मोठ्यान आनी काळजा मेरेन पावपा सारखी रडटा ती कोगूळ. आतां वसंत रुतूंत तिचोच आवाज ठळकपणान सादता. ही कोगूळ गायता काय रडटा हें म्हाका अजून कळना. तिचो आवाज म्हाका सामको दर्दभरो, वेदनेन व्याकूळ जाल्लो असो दिसता. भोवतेक ही कोगळेची जात पयलीं गायताली आसूं येता. पूण उदयबाबान 'माडाचे तेंगशेर कोगळेचो घोंटेर' पळयत सावन कोगळेचो आनी उल्हास बुयांवाचो मुळचो सूर बदलून गेला आसूं येता.

हे कोगळेच्या आवाजा वांगडा घोण आवाज करता. तो आवाज मोटार सायकलचो सेल्फस्टार्टचो कसो दिसता. थोडे पक्षी 'फक फक कूक कूक, किर्रर' अशें आवाज काडीत आसतात. पुलार पावतकच म्हजे उक्ते कान बंद जातात. दोळे चड उगडटात. पुलार गाडयांतल्यान वचपी येवपी लोक पयशे शेवटून मारतात. ते जुवारी न्हंयेंत पडनासतना केन्ना केन्ना पुलार पडटात. केन्ना केन्ना पांच रुपयांचें नाणेंय आसता. रुपया-दोन रुपयांचीं तर आसताच आसता. आठ आण्याचीं क्वचीत आसतात. म्हाका दुडवांची आस नासली तरीय पुलार पडिल्ल्या त्या नाण्यांची आस म्हाका सुटना. कोण पळयनासो पळोवन हांव तीं वेंचतां आनी अचळय बोल्सांत सोडटां. ते वेळार म्हजे हायली फिलॉसॉफीचें उदात्तीकरण करतां. भारतीय करन्सी अशी म्हूण रस्त्यार सांडू येता! कोणाचोय पांय पडलो जाल्यार?

देवाक काय ह्या नाण्यांची गरज ना आनी जुवारीच्या पात्राकूय. तेन्ना हीं नाणीं हांव जमयतां. एकदां सिक्किमच्यान येतना सिक्किमाक रस्त्यार म्हाका एक रुपया मेळिल्लो. तो काडून हांवें बोल्सांत उडयल्लो. वाटेर सगळे पयशे सोंपले. घरा पावलों तेन्ना खांदावेलें बॅग पावपाक एक भुरगो आयलो. ताका तो रुपया हांवें दिलो. तो रुपया लजेक लागून थंयच

सांडिल्लो जाल्यार गोंयांत म्हजी लज वचपाची.

आतां हीं नाणीं वेचपा फाटलें कारण तेंय आसूं येता. पूण आतां पुलार एकूय नाणें नाशिल्लें. फक्त आलेमेनचें पांच पयशांचें नाणें. तें कोणाच्या बोल्सांत आशिल्लें काय? आलेमेनचीं हीं पांच धा पयशांचीं नाणीं बाजारांत चलनात. मागीर तें पुलार उडोवप्याच्या बोल्सांत कशें आयलें? तो चिटर हालीं वास्को शिकयता. ताचें तर काम न्हय मू हें? आसत.

देवाकूय फटोवप हें मात सामकेंच अती जालें!



(२००३ एप्रिल)

# अवचिन्नाळे

**संवसारांत** आपले भाशेचे उदरगती पासत संवसारांतले लोक खूब कितें कितें करतात आनी तांच्या परिश्रमाक यश फाव जाता. मरणाच्या पंथाक लागिल्ली हिब्रू भास लेगीत परतून जिवी जाली म्हणपाचें हांवें खूबश्या कोंकणीवादी भाशाशास्त्र्यां कडल्यान आयकलां आनी ताचेर विस्वासूय दवरला.

अशें आसुनय गोंयच्या कोंकणी आनी मराठी भासांचो तांचे इतले खडेगांठ सेवक दिसरात अविरत वावरून लेगीत फाव तसो विकास जायना तें पळोवन मन खंती जाता तें जालेंच पूण चड दुबावता.

हें अशें जावपा फाटलें कारण कितें? ह्या दोनूय भासांचे अभिमानी खंय कमी पडटात? हो तांच्या वावराचो दोश काय तांकां कोणाचो स्त्राप बी बादला? अशे कितले तरी प्रस्न आनी दुबाव म्हाका घेवन बसचे पडल्यात.

खरें म्हळ्यार मे म्हयनो म्हजो हुर्राकाचो म्हयनो. माय तापलो म्हणटकच म्हजेकडल्यान कांयच काम जायना. आमचे बाकिचे लेखक-कवी ह्या म्हयन्याक पुस्तकां बी बरोवन कशीं छापतात तेंच म्हाका कळना. म्हाका दिसता ते पयलीं बरयतात आनी हो म्हयनो छापपाक बरो अशें दिशिल्ल्यान फाटीं बरयल्लें लोकार्पण करतात. गरमी तापिल्ल्यान हवेंत ओलसाण उरना. म्हणटकच पुस्तकाचो पेपर मोव पडना. बांधावळीचो

मैद्याचो गुरूत बेगीन सुकून ताची चिकचिकसाण वाचप्यांच्या हाताक लागना. तशेंच मे म्हयनो हो उकाड्याचो आशिल्ल्यान घराकडेन गरमी सोसूंक जायना असलो वाचकवर्ग वो पुस्तकप्रेमी, पुस्तक लोकार्पण सुवाळ्याच्या निमतान मुजरत कला अकादमी सारख्या वास्तुनी येवन थंयच्या वातानुकुलीत वातावरणांत जीव थंडायतात.

पूण म्हज्या सारख्याचो जीव माया म्हयनो कितलोय तापलो तरी हुर्राकाक लागून शितल उरता. ताचें कारण म्हळ्यार म्हजी सैमांकडेन जवळीक दवरपाची फिलॉसॉफी. हांव सोऱ्याचेर कोंत्र. पूण हुर्राकाचेर न्हय. हुर्राक हो काजू फळांचो सुशिक्षीत रोस. अशिक्षिताक जसो सुशिक्षीत जावपाक ताप-कश्ट भोगचे पडटात तशेंच काजुचो निरो गोडो बी हुर्राक रुपान भायर सरूंक ताका भाटयेचो कठीण प्रवास करचो पडटा. हेंच हुर्राक म्हाका माया म्हयन्याची गरमी देवोवंक सहकार्य करता.

अशें आसुनय हांवें तापिल्लो माया म्हयनो गोंयच्या भाशा भगिनीचें कितें जातलें आनी तांचे उदरगतीक आडखळ कोणाची जाता ह्या प्रस्नाचेर विचार करूंक घालयलो.

खरें म्हळ्यार मे म्हयनो हो संमेलनाचो म्हयनो न्हय. जर घेवपाचेंच थारलें आनी तें गोंयांत घेवपाचें निश्चित केलें तरीय ताची सुवात वास्को न्हय. तापिल्ल्या माया म्हयन्यांत, वाडिल्ले गरमेंत अकलेक आयिल्लो लेगीत वास्को वचपाचें नांव घेवंचोना. उलट वास्कोकारूच पेडणें, सावय-वेरें, वळवय बी जंय काजुरानां आसात थंय कूस मारतले. वास्कोचें संमेलन ठोऽऽ जावपाक हेंच कारण आसूं येता.

पूण इतलीं वर्सां कोंकणीवादी मुळावे प्रस्न समजून घेनासतना, सरकार कोंकणीक पयसो दिना म्हणून कोंकणीची उदरगत जायना अशी विनाकारण आरड मारताले. आतां पर्रीकरान वास्कोच्या संमेलनाक धा लाख दिले तरीय तेंच! आयोजक बाबडे थंय बिलां जमयतां जमयतां

थकल्यात आसतले! धा लाख ते! एका लाखा भितर संमेलनां करून सगळ्यांचें आयुश्य सरलां. पर्रीकार आनीक उरलो जाल्यार तो कोंकणीवाद्यांक असोच सोंपयतलो.

कोंकणी भाशेची उदरगत न जावपा फाटलें कारण हें अशें, कोंकणी मनशाची अवचिन्नपणां. पूण गोंयचे मराठी भाशेक गिराण लागपाचें कारण कितें? तिका तर महाराष्ट्रांत पॉलिस मारतात. हांगा फकत तो दागिनो गळ्यांत घालून पर्रीकरा सामकार हातवारें करपाचें. पर्रीकार आपलो ओतता दुडू. इतलेंय आसून मराठीचो विकास थंयचे थंयच.

भाषा भगिनी म्हणटकच माया म्हयन्याक हांवें तिचेरूय थोडो विचार केल्लो. तेन्ना म्हजी तट्ट करून ट्यूब लायट पेटली. गोंयांत कोंकणीची उदरगत जायना ती बरी आसा. पूण मराठीचो विकास कित्याक जायना? ताचें कारण म्हळ्यार गोंयचे मराठीची सेवा रामनाथ ग. नाईक सारके अवचिन्नाळे लोक करतात.

अवचिन्नाळो हाचो अर्थ कितें तें म्हाका खबर ना. पूण ह्या रामनाथ नायकाक पळोवन म्हाका सदांच तो भाषेचो दुस्मान अशें दिसूंक लागलां आनी जो भाषेचो दुस्मान तो अवचिन्नाळो अशी म्हजी हायली फिलॉसॉफी. हांवें फाटल्या पावसांतलो एक बिम्ब सामको पांचवोच केल्लो. तो रुखावळीक ओंपिल्लो. कित्याक म्हाका रुखावळी आवडटा. ती म्हाका म्हजी सोयरी दिसता. तेच पासत हांवें 'वृक्षवल्ली आम्हा सोयरी, वनचरी' अशें कितें तरी पयल्या पानार छापिल्लें. तो अंक त्या रामनाथाक खंय तरी सापडलो. 'वृक्षवल्ली आम्हा सोयरी' हे ताचे नदरेक पडलें. मागीर घेऽ ताच्यो बोबो आनी हुयेली. 'मुखपृष्ठाचेर मराठी ओळी बरोवन मराठीचो आभास निर्माण करून खपनाशिल्ले कोंकणी अंक मराठीवाद्यांक खपोवपाचो कोंकणीवाद्यांचो दुश्ट डाव' बी अशें कितें तरी! हें अशें जावं येता हाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली.

अंक कोंकणी जावं. पूण मराठीची एक ओळ छापून हांवें मराठी भाशेची गोडसाण कोंकणीवाद्यांच्या घरांत पावयली काय ना? ही मराठीची सेवा आनी उदरगत न्हय? ते खातीर हांवें पर्रीकराकडल्यान एक पयसो घेतला? ना. मागीर बिम्बा खातीर मराठी वाद्यांची बोंब कित्याक?

मुखपृष्ठावयलो तुकाराम पळोवन रामनाथ फसलो आनी ताका 'बिम्ब' विकतो घेवंचो पडलो जाल्यार हांव कितें करूं? अवचिन्नाळे अशेच फसतात.



(२००३ मे)

# शंकर आनी शिट्टीण

**पावसाळो** लागलो म्हण्टकच हांव भायर भितरल्यान चिंब भिजतां. म्हाका पावसाचीं वेगवेगळीं रुपां भुलयतात. दर वर्सा हांव पावसाची वाट पळयत आसतां. चातका भशेन न्हय म्हजेच भशेन.

पूण पावसाळ्याच्या आरंभाक म्हजें मन मातशें खंतावता, जडावता. तेंय बी दर वर्सा.

खरें म्हळ्यार पावसाळ्याचो आरंभ हो सदांच सुखदेणो आसूंक जाय हातूंत दुबावूच ना. इतल्या दिसांच्या तापांतल्यान हुलपल्लो जीव कुपांचे कळशे माथ्यार रकतकच कित्याक सुखावचोना? पूण ह्या सुखावल्ल्या मनाच्या कोनशाक म्हज्या आपल्या अश्या दोन रुखांच्या दुख्खाचें कूस लागता.

म्हाका गुलमोहर आवडटा. खूब खूब आवडटा. हांव ताका सदांच शंकर म्हणटां. शंकराचें झाड. मार्च म्हयन्याक तो फुलूंक लागता. फुलचे पयलीं ताका बारीक बारीक भोंगे येतात पांचवेच. पांचवे म्हणचे परस पोपटी म्हणप चड बरें. ह्या भोंग्यांनी भितर ताचीं केसरां आसतात. ते उसयले म्हणटकच भितर तांबडोच रंग. त्या तांबड्याच रंगाच्या आवरणांत तीं केसरां बांदून जणकाय आमकां खेळपाकूच दिता तो शंकर. त्या केसरांच्या तोकांक एक हूक आसता. केसर चिमटेंत धरून आनी एक दुसऱ्याच्या हातांत दिवन दोनूय केसरांचे हूक एकमेकाक घुसपावन ओडप आनी खेळप. जाचो हूक तुट्टा तो हारता आनी मागीर दुसरें केसर घेवन लढायेक उबो रावता. एकेकदां एक केसर दुसऱ्याच्या हातांतल्या कितल्याच

केसरांचे हूक मोडून आपूण जैतिवंत जाता. अशे हे भोंगे फुलून तातूंतल्यान शंकराचीं फुलां मळबाकडेन पळयतात.

हळुहळू दीस सरतात. पयलीं पांचव्याच पानांनी भरिल्लो शंकर माथ्यार तांबडीं फुलां माळटा आनी मागीर एकएक पान गळोवन फुलांच माळून मिरयता. मार्च, एप्रिल सरून माय तापता. सूर्य सगळी सृश्ट तापयत, ल्हासयत सुद्दा. रुखांचीं पानां तापान मान आपले भितरूच लिपयतात. पूण शंकर सुबेज. आसा कापाजदाद जाल्यार जळोवन दाखय म्हाका. तूं केदो आसा तें पळोवपाकूच तुका हांवें एकान एक पान मोखून मारलां आनी फुलांनीच तुका चलेंज दिल्या. अशें थेट सुर्याक सांगपी हो शंकर पावस पडलो म्हणटकच सामको थतरवितर जाता. पावस ताका भिजोवन बुळबुळीत करता. मुळांत फुलांचो तो बुळबुळीत सडो पडटा. तेन्ना सुर्याक चॅलेंज दिवपी त्या शंकराचीं फुलां पळोवन जीव चिट्‌मिट्टा.

हांवें एकदीस पावसाकूच विचारलें, असो तूं शंकराचेर घसरलो कित्याक रे?

तर ताणें म्हळें, म्हाका खंय खबर तीं शंकराचीं फुलां म्हूण! म्हाका दिसले ते रसरसपी इंगळे आमच्या इश्टाक सुर्याक आव्हान दितात. म्हळें विजोवन उडोवंया.

दुसरें अशेंच एक झाड आसा तेंय हेच दिसांनी खंतयता. ताका दुसरे कोण कितें म्हणटात खबर ना. पूण आमचे थंय ताका शिट्टीण म्हणटात. शंकर जसो मे म्हयन्यांत पानां झडोवन आंगभर फुलता तशी ही शिट्टीण आपलीं सगळीं पानां झडोवन आंगभर फळटा. तिका घोसांनी हळदुवींच शिट्टां जातात.

भुरगेपणार आमकां पतंग करपाक, पिंजिल्लीं पुस्तकां, कादेन दसोवपाक गुरूत आनी गमाची केन्ना गरज पडलीना. ह्या शिट्टांनी आमकां भरपूर गम दिलां आनी आमचेंय मन आपलेकडेन दसोवन दवरलां.

शिट्टां काडप, पोंदच्यान दामप. गम भायर आयलें. ताणें दसोवपाचें

तें दसयलें. पूण दिसभर वो सदांच हें दसोवप नासतालें. तरी आमच्या बोल्सांत शिट्टटां आसतालींच. तातूंतलें हळूच एक काडप, चिड्डून हळूच उक्तें करप आनी मुखावेल्या भुरग्याचेर पुटूक करून मारप. उल्लें ताका तें दसून मागीर. घरा वचून बुशकोट काडटा म्हणसर ताची फजेती.

ह्या शिट्टटांचो इतलोच वापर न्हय तर बरें पिकिल्लें शिट्टट पोटांतूय वतालें. गुळमट गोडसाण आशिल्लें तें बोरा येदें फळ त्या काळच्या भुकेकूय दसयतालें. हें भक्षण चोरून जातालें. घराकडे कळ्ळें जाल्यार फाटीर आवयचें थापट पडटालेंच. 'कितें भक लागला? आतकड्यो दसतल्यो पोटांत.'

ह्या शिट्टटांनी आंतकड्यो दसताल्यो काय खबर ना. दसल्यार म्हाका दिसता तेन्नाचे भुकेचो प्रस्न मिटपाचो!

पावसांत मात ह्या शिट्टटांची गोडसाणय वता आनी गमसाणूय. फकत रंगहीण जावन झडपाची वाट पळयत झाडाचेर बसून आसतात. असले हे शिट्टटीणीक पळोवन म्हाका मोहनकाकाची याद जाता.

मोहनकाका म्हज्या एका मित्राचो काका. ताच्या पुराय आंगाक वाटकुळेच बोरां येदे फोड आयिल्ले. ते तटतटीत फोड ज्युस्त पिकिल्ल्या शिट्टटांवरीं दिसताले. मोहनकाकाक पळयतकच म्हाका आंगभर शिट्टटां मिरोवपी शिट्टटीणीची याद जाताली. आनी आतां मोहनकाका ना म्हणटकच शिट्टटीणीक पळोवन मोहनकाकाची याद जाता. मोहनकाका खरेंच गमाळ आशिल्लो. ताणें जायते जाणांचीं मनां ह्याच गमान आपल्या काळजाक दसयल्लीं जावंये.

पावसाळ्यांतल्या शंकराक पळोवन शंकर भांडाऱ्याची जशी याद जाता तशी पावसाळ्यांतले शिट्टटीणीक पळोवन मोहन नाडकर्णीची याद जाता.



(२००३ जुलाय)

# श्रावण मासी हर्ष मानसी

**कार्तांद** बेबदे लेगीत गटारी उमाशेक तायट जावन, दुसरे दिसाच्यान कडक श्रावण पाळटना पळोवन म्हाका सदांच अजाप दिसत आयलां. सुर्वेक निश्चयान श्रावण पाळपाक आरंभ करप आनी मागीर दोन दिसांनी ती भानगड सोडून दिवपीय हातूंत खुबशे जाण आसतात. पूण म्हयनोभर कडक श्रावण पाळपीच म्हाका चड आपटल्यात. तांचो कडक श्रावण, कडक निश्चेव पळोवन म्हाका तांची तोखणाय दिसत आयल्या.

आमच्या गोंयांत श्रावण पाळपी खूबशीं घराणीं आसात. तांच्या घरांत श्रावणभर नुस्तें वर्ज्य. मास–मटण ना. कोणाक कुट्ट करपाची सवंय आसा तोय हो म्हयनो भर सोऱ्याक आपडना. श्रावण सोंपून भाद्रपद लागलो आनी चवथ आयली म्हणटकच गणपती पुजून ताचें विसर्जन जाय मेरेन हें तांचें व्रत चलता. एकदां गणपती बुडयलो म्हणटकच इतले दिसांची तांची सोसिकताय गणपती वांगडाच विसर्जीत जाता आनी फुडले अकरा म्हयने म्हणचे बद्द फुडलो श्रावण ये मेरेन तांच्या पोटांत सैमान रचिल्ली पुराय सृश्ट वता ती वताच. तेच वांगडा ह्याच मनशांनी आपले बुद्धीचो वापर करून सैमाच्या नाड्यार रचिल्लीं हेर द्रव्यांय वतात.

जर कार्तांद बेबदो सोरो सोडून, तरांतरांच्या मांसाची, नुस्त्याची आस सोडून एक म्हयनो सामको शिवराक रावून शिरावण पाळटा जाल्यार म्हजे सारको विचारी मनीस, जाचो आपले इच्छाशक्तीचेर म्हळ्यार वील पावराचेर

संपूर्ण विस्वास आसा तो हो शिरावणाचो म्हयनो कित्याक पाळूंक शकना?

म्हजे तकलेंत हो विचार आयलो आनी हांवेंय एक निश्चेव केलो. हांव हो शिरावण कडक म्हळ्यार कडक पाळटलों.

फाटलीं ४६ वर्सां म्हजे तकलेंत हो विचार केन्नाच आयलों ना. भुरगेपणार तशें खावपाक व्हडलेशें कांय मेळूंक ना. म्हणचे घरचे परिस्थिती प्रमाण जें शिजतालें तें उपास घडनासतना पोटभर मेळटालें. तेन्ना घरांत शिरावण म्हयनो लागला हें म्हाका कळटालें तें ह्या म्हयन्यांत घरांत आयतार पुजताले देखून! आमचो गांव हो किरिस्तांव समाजाचें प्राबल्य आशिल्लो गांव. थंयचीं सगळीं फेस्तां म्हाका तारखो, म्हयनो पळोवन कळनाशिल्लीं तर इगर्जेच्या घांटीचेर, थंय वाजपी वाजपांचेर आनी फुटपी खोजन्याचेर कळटालीं. तशेंच चवथ केन्ना येता हें घरांत पुजपी आयतारांचे संख्येचेर कळटालें. चार आयतार पुजून जाले म्हणटकच चवथ लांबली हें कळटालें. निमणो आयतार अशें घरांत आयकूंक आयलें म्हणटकच आतां गणपती घरांत येवपाचो दीस लागीं पावलो म्हणपाचें भावतालें.

शिरावणांतल्या दर आयताराक म्हजे जिवितांत सुख-दुख्खाची रास जाताली. दुख्ख इतलेच खातीर की आयतार आसून लेगीत म्हाका सक्काळी उठचें पडटालें. हरशीं शाळे खातीर सकाळीं उठचेंच पडटालें. ताका उपाय नासतालो. पावसाच्या दिसांनी, भायर पावस ओतता आसतना सकाळीं आयतार आसुनय बेगीन उठप ही केदी व्हडली ख्यास्त!

हें उठप जातालें फुलां काडपा खातीर. गांवांत दोन चार हिंदूंचीं घरां. सगळीं आयतार पुजपी. आयतार पुजपाक तरेकवार फुलां जाय पडटालीं. उठपाक मातसो कळाव केलो जाल्यार हेरांनी तीं व्हेलींच. मागीर आमकां कांयच उरनाशिल्लीं. तेच पासत कोणें तीं व्हरचे पयलींच म्हाका हाडचीं पडटालीं.

भायर पावस पडटा, जमीन आनी जमनीवेलें आंगार शिरशिरी

हाडपी ओलें तर सकाळीं फुडें माङ्गवप तेंय दोळ्यांचेर अर्दकुटी न्हीद दवरून, भयंकर त्रासदायक जातालें त्या वेळार.

आनी सूख म्हळ्यार आयतार पुजतकच घरांत दर आयताराक शिजपी तरांतरांचीं पक्वानां.

अशे हे शिरवणाचे आयतार भुरगेपणार सरले. मागीर बुदवंतपणां सुचलीं. शिरावणाक नुस्तें कित्याक खावंक फावना? खाल्यार कितें जाता? हिन्दूनीच खावंचें न्हय! बाकीचे खातात ते!

हो म्हयनो नुस्त्यांनी गाबोळ्यो सोडपाचो देखून नुस्तें खाल्यार नुस्त्याची वाढ खुट्टा हें गिन्यान मागीर आयलें. तरी नुस्तें मेळटा तेन्ना तें खावंचें. हेरां सारकीं अज्ञानपणा, पिशेपणां करचीं न्हय. तें अशिक्षीत लोकांचें काम अशें चिंतून शिरावण केन्ना पाळ्ळोना.

आतां अक्कल आयली तेन्ना एक विचार आयलो. हो शिरावण पाळप बी म्हणटात तो आतांचो संगणक काळांतलो विचार न्हय. शेकड्यांनी वर्सां पयलींच्या समाज शास्त्र्यांनी सैमाचें अवलोकन करून अणभवाच्या आदारान मनीस जातीच्याच न्हय तर सर्वय सृश्टीच्या अस्तित्वाची राखण करपा पासत हे कांय नेम घाल्यात. कांय वेवस्ता मानून घेतल्या. तेन्ना नक्कीच हाचो परिणाम शरिराचेर, मनाचेर जातलो.

तोच अणभव घेवपा खातीर म्हळें चल शिरावण पाळुंया. शरिरांत, मनांत, वृत्तींत जावपी बदल अणभवया.

सुरू केलो. दोन-चार दीस पाळ्ळो. आनी सोडलो. कारण काळ बदल्ला. सकाळ जाले बराबर शेणाचो जावं उदकाचो शिताडो घालपी बायलमनीस घरांत उरूंक ना. तुळशीक उदक घालून पांयां पडपी लोक नांत. आमोरेर देवाकडेन पणटी लावपी लोक नांत. जाण्टेलीं आसात तांच्या कपलाक कुकूम ना म्हूण हें सगळें करप वर्ज्य. कुकूम लावपी आसात तांचो कुकूम टिकलेचो. काडून केन्नाय वण्टीक दसोवन दुसरो लावन धांवपळ

करीत ऑफिसाक वचपाचो. तातूंत म्हजे सारको समाजांत सुदारणां हाडूंक वावुरपी आंतरधार्मिक, आंतरजातीय संबंदाचे भोक्ते. ताणें ह्या बदलत्या काळांत शिरावण पाळप म्हळ्यार कितें?

ते परस काळाक नमस्कार करून ताकाच शरण वचप होच खरो शिरावण. हांवेंय तेंच केलें. चियर्स म्हणत व्हिस्कीचो ग्लास उबारून, तळिल्ल्या चणाकाचो कुडको तोंडांत उडयत. श्रावण मासी हर्ष मानसी म्हणत.....



(२००३ ऑगस्ट)

# धुकरीची अपुरबाय

**कितें** म्हूण कोण जाणां, हांव जांची जांची अपुर्बाय करतां तीं मनशां म्हजेर रोखडींच परततात. म्हजे कडल्यान घेवं येता तितलो फायदो घेवन वेल्यान म्हाकाच पिसो थारावन म्हजींच फकाणां करून वतात आनी म्हाका वायट थारायतात.

ही गजाल एकदांच घडटा आनी तातूंतल्यान हांव शाणो जावन म्हजी फिलॉसॉफी हांव बदलतां अशें न्हय. हांव परत परत ह्यो चुको करतां आनी म्हाकाच फटोवन घेतां. हातूंत चूक कोणाची? जो कोण फटोवन वता तांची काय फटोवन घेवप्याची! म्हाका दिसता ती फटोवन घेवप्याची. हांव स्वताक परतून परतून फटोवन घेतां आनी हांव सामको बाबत म्हणपाचें प्रोवार करतां. म्हाका अणभवान लेगीत सुदारूं येना. मागीर म्हाका पश्चाताप जाता. म्हजे गरजे भायर टेंशन वाडटा. ही गजाल अशीच चल्ली जाल्यार हांव 'फादर ऑफ नेशन' जावपा बदला 'फादर ऑफ टेन्शन' जावपाक कळाव लागपाचो ना. ती पदवी नाका म्हूण हांवें आतां टेन्शन घेवपाचें सोडलां आनी म्हज्या ह्या सभावाक हांव शरण गेलां.

आतां हेंच पळयात बिम्बाचें साम्राज्य उबें करचें म्हूण हांव धडपडटां. स्वता खंयीय नोकरी करून म्हजोच फुडार घडोवपा बदला हेरांक नोकरेक दवरपाचो आनी तांचो फुडार घडोवपाचें चितून वावुरतां. हांव जसो कोणाचो नोकर न्हय तसो म्हजो कोणूच नोकर आसूंक शकना ह्या मताचो हांव. तीच

म्हजी फिलॉसॉफी म्हाका पिडटा.

बिम्बाची अक्षर जुळणी भायर करून घेवंचे बदला ती ऑफिसांतूच करप आनी कोणाक तरी स्थैर्य दिवप म्हूण सगळें युनीट उभारलें. म्हजी एक विद्यार्थीनी आशिल्ली जी म्हज्याच विचारांची दिसताली, म्हळ्यार नोकरी बी करप ना आपलें साम्राज्य उबारप अशें येवजिताली, ताका हांवें एम् ए मेरेन शिकपाक लायलें. ताका कंप्युटर शिकयलो तो शिकयलोच. गाडीय शिकपाक लायली. तेच वांगडा म्हजी फिलॉसॉफी ताका सांगून ताणें ह्या वावराकडेन नोकरी म्हूण पळोवप ना आनी जो कितें कामाचो मोबदलो मेळटा ताका पगार म्हणप ना म्हणपाचें सांगलें. तीन वर्सां ताका ती फिलॉसॉफी पटली आनी एक दीस म्हजो कंप्युटर उबंत उडोवन नाच्च जालें.

तें गेलें हातूंत वायट कांयच ना. पूण त्या अणभवान हांवें शाणो जावपाचो! पूण ना. तें चड शिकिल्लें आनी ताच्यो अपेक्षा वाडल्यो आसूं येतात म्हूण कमी शिक्षण घेतिल्ल्यो आनी जांकां कांयच कळना असल्यो दोन साद्यो चलयो कामाक दवरल्यो. तांकांय तीच फिलॉसॉफी सांगली. तांकांय ती आवडली आसूं येता. नोकरी आनी अशी आसूं येता हाची कल्पनाच भोवतेक तांच्यानी करूंक नाशिल्ली. काम पुराय करप म्हत्वाचें तें कशेंय करात. दिसभर कंप्युटर बडोवप ना, मदीं उठून पासयो मारप, कामांत बदल म्हूण पुस्तकां वाचप, जाय तेन्ना च्या पिवप, जाय तेन्ना सुटी घेवप, भायर मेळटालो ताचे परस दुडवांचो मोबदलो चड. आनी कितें जाय? पूण दोगीय एका दिसा नाच जाल्यो. हांकां सगळें पचलें आसूं येता पूण म्हजी हायली फिलॉसॉफी पचोवंक अवघड जालें आसूं येता.

दुसरी गजाल घरची. पावसाळो सोंपिल्लो आनी घरा भोंवतणीं रान मातलेलें. आतां तें लीप करपाक मानाय जाय. पयलीं गांवचे लोक येताले. आतां पयशे मायज दिता म्हळ्यार लेगीत आज येतां फाल्यां येता म्हूण

कोणूच तोंड दाखयनांत. घांटी लोक एका पांयार तयार. पूण तांची भास घरच्यांक कळना आनी तांचेर विस्वासूय ना. एक दीस एकटो मेळ्ळो. ताका दिसवडो एकशे वीस रुपया मेळटालो. हांवें एकशे तीस दिवपाचें थारायलें. ताका वतांत तळमळूं नाका, मदीं मदीं विसव घे म्हूण सांगलें. ताका च्या बी दिवंक लायली. ताका दुडवांची गरज लागत म्हूण आदींच दोन दिसांचे पयशे दिले. एक दीस काम करून येता म्हूण गेल्लो ताचो पत्तोच ना. हांव घरच्यांचे नदरेन पिसो थारलों. तो मानायूय म्हाका नक्कीच हांसला आसूं येता.

आतां दुसरो मानाय सोदचो पडलो म्हूण हांव भाटभर वाडिल्ल्या तणाकडेन पळयत खंय सोदचो असो विचार करीत उबो आशिल्लों. इतल्यान त्या झाडांतल्यान एक धुकर भायर आयली. पयलीं गांवठी सुणें आमगेर आशिल्लें. तांकां लागून एक धुकर जावं कोंबी भाटांत झळकनाशिल्ली. आतां घरांत पमेरियन आयिल्ल्यान भाटांत धुकरां, कोंबयो भंया विरयत भोंवतात.

म्हाका तसो वराहयोग बी आतां अभद्र दिसना. आमच्या घरांत कुलदीप पवार आनी ताचीं बायल-भुरगीं, आवय बी येवन रावता. सगळीं वेवस्तीत धुकरांचेर ताव मारतात. आमच्या घरांत शिजना पूण पार्सल येता. हांव खायना पूण सोशिकताय आमचे मदीं वसता. तरी पूण म्हजीं झाडां वाट लायत म्हूण हांव फातर शेवटितां. पूण आतां म्हजो हात थारलो. कित्याक ती धुकर गुरवार आशिल्ली. तिच्या आंगार मातृत्व सामकें उप्पाट भरून ओततालें. धुकर जाली म्हूण कितें जालें आवयच्या भेसार आसा. तिच्या मातृत्वाक मान दिवंकूच जाय. फातर चुकून पोटार पडलो जाल्यार!

हांवें फातर सकयल उडयलो आनी तिका पळयत रावलों. म्हाका दिसता ती व्हिवपाक पाविल्ली. सगळीच हांगा थंय धांवताली. हांव तिचो नाच पळयतालों. अर्दवरा भितर तिणें तो परिसर झाडां उमटून लीप केलो

आनी सगळ्या झोपांची रास व्हरून वडा मुळांत घाली. ज्या मानायाक हांवें दुडू दिल्ले ताका तितलीच सुवात लीप करूंक पुराय दीस लागिल्लो. हांगा निर्मितीच्या भारार आशिल्ले ते धुकरीन अर्दवरा भितर म्हाका सुवात लीप करून दिल्ली.

जांचेकडल्यान निर्मिती जाता तांकांच म्हजी हायली फिलॉसॉफी कळूं येता.



(२००३ डिसेंबर)

# मारुतीची भक्ती

**म्हजेर** कोणाचें लक्ष ना असो म्हजो समज आशिल्लो. पूण हालींच तो फट थरलो. म्हजी स्वताची म्हूण एक फिलॉसॉफी हांवें केळयल्या. आपल्याक दिसता आनी पट्टा तशें वागचें आनी कामूय तशेंच करचें. हेरांकडेन लक्ष दिवप ना. हाचेच वेल्यान लोकूय तसोच आसतलो असो म्हजो समज. पूण एकल्यान म्हज्या पोटाक हात लावन म्हळें, तुजें पोट बरेंऽच वाडला आं! आयकून म्हाका कच्च जालें. इतले दीस म्हजें म्हज्या पोटाचेर लक्ष कशें गेलें ना काय! म्हजें म्हजेरूच लक्ष ना तेन्ना हेरांचें म्हजेर आसुंकूच शकना. पूण तें खरें न्हय. म्हजो तसो तो भ्रम आशिल्लो. लोकांचें म्हजेर लक्ष आसा आनी म्हज्या वाडिल्ल्या पोटाचो तांकां हुसको आसा. तरी बरें हांवें फकत म्हजेंच पोट वाडयल्लें.....!

तेन्ना म्हळें, हें कांय धड न्ही. लोकांचें लक्ष आसा. आतां पोट भितर घाल्या बगर पर्याय ना. बाकीचीं म्हत्वाचीं कामां कुशीक दवरलीं आनी फकत पोटाचोच विचार करूंक लागलों. कोणेंतरी सांगलें पोट भितर वतलें जाल्यार चलप बरें. दिसांतल्यान वरभर तरी चलचें. चलचें हें बरें आसा. पूण चलप खंय? आनी केन्ना? सांजेचो पणजे आसतांच. पणजे आल्तीन सरकारान जॉगींग पार्क बांदला. थंय वचून चलपाक हरकत नाशिल्ली. तातूंत आमच्या सारख्या फिलॉसॉफरांचें आल्तिनाकडेन घनिश्ठ संबंद. पूण दिसभर धांवपळ करून जीव थकता तातूंत सांजेचें चलप सामकें

जिवार येता. ते परस सकाळीं बेगीन उठून चलप बरें. गांधीजी लेगीत फांतोडेर उठून चलतालो तेन्ना हांवें उठप म्हळ्यार कितें व्हडलें न्हय.

सकाळीं उठतलों बेगीन म्हूण दोन खेप रातचो बेगीन न्हिदलों. पूण दोनूय खेप उसरां उठप जालें. तेन्ना म्हळें आता अलार्म लावन दवरप बरें. नवी घड्याळ घेतली शंबर रुपया दिवन. कोणेंतरी बिम्बाची एका वर्साची वर्गणी दिल्ली. हांवें म्हाका सद्या बिम्बाक ओपला म्हणटकच म्हजी भलायकी सांबाळप बी सगळें बिम्बा खातीरूच न्हय! म्हणटकच बिम्बाच्या वर्गणीचे शंबर रुपया घड्याळ घेवंक खर्च करप फिलॉसॉफींत बसता.

घड्याळ हाडली आनी अलार्म लावन बी दवरली. सकाळीं जाग आयली. पयलीं कित्याक लागून जाग आयली तें कळूंक ना. जाग येवंचे पयलीं हांव सपनांत आशिल्लों. आमचें बिम्ब मासिकान लोकांचीं काळजां जिंकल्यांत आनी सगळे कोंकणी लोक हांव दारांत दिसले बराबर घरांत व्हरतात आनी म्हाका ओवाळून ओवाळणी म्हूण वर्गणी दितात असलें शें तें सपन. ओवाळटना जी घांट वाजयल्ली तीच ते घड्याळीची घांट आशिल्ली.

अलार्म बंद करून बूट बीट चडयले. हे बुटूय हांवें नवे घेतिल्ले. (कांचवेपाची गरज ना. ते हाडूंक जायरातीचे पयशे मोडल्यात. वर्गणीचे न्हय.) बूट घालून साडे पांचाक रस्त्याक आयलों जाल्यार रस्त्यावेल्या सुण्यांनी फाट घेतली. धांवपाची संवय मोडल्या तरी जिवाच्या आकांतान धांवतां. बरोऽ धांवल्या उपरांत फाटीं पळयलें. सुणे परतताले. ह्या सुण्यांचीय म्हूण एक फिलॉसॉफी आसूंक जाय. हे फाटीक लागिल्ले सुणे रस्त्या कुशीक आशिल्ल्या बार्रकाराचे. केन्ना केन्नाय हांव त्या बार्रचेर कोपाक बसतां. घरा परततना हेच सुणे म्हाका घरामेरेन पावंक येतात. आतां सकाळीं ते वळखनांत म्हणचे?

धांवलां तितलो पुरो आनी चलप नाका म्हूण घरा आयलों. आतां हें

धांवप पुरो म्हूण म्हज्या घरा येवप न्हय. हांव धांवलों कितलो? विशेक मेत्र आसत. असल्यांनी म्हजें पोट भितर वतलें? ते खातीर आनीक चलूंक जाय आशिल्लें. इत्साय आशिल्ली. पूण सुण्याचे भिरांतीन आजून हड्डें धडधडटालें. (काय कलकलतालें?) आनी दुसरी गजाल म्हळ्यार हालींच एकलो आमचो शेजारी शेतांतल्या धुकराक धरपाक ताचे फाटल्यान धांवतना आताक येवन मेल्लो. बिम्बाची जबाबदारी हड्ड्यार आसतना हांव कसलीच रिस्क घेवंक सोदिनाशिल्लों.

दुसरे दिसाय बेगीन उठलों. रस्त्यार येवन सुण्यांक सोदले ना. तांचें पाड पडूं म्हूण पुलावटेन चलूंक सुरवात केली. तरी भास जातालो फाटल्यान सुणे येतात असो.

पुलार पावलों. हांगा सामकें सेफ. पुलार लायट नासल्यार लेगीत रस्त्याच्या मदल्यान चलूं येता. ते भायर पूल सुरू जाता थंय पोलीस आसतात आनी सोंपता थंय मारुतीची एक घुमटी आनी खुरसाचें कपेल आसा. आल्तडचे पोलीस सदांच न्हिदिल्ले आसतात आनी पलतडचे दोनूय देव केन्ना जागे आसतात तें खबर ना. हाका लागून म्हाका आलतडच्यांचोय आदार नाशिल्लो आनी पलतडच्यांचोय. तरी पूण आलतडीं आसतना पोलीस आसात, भिरांत ना आनी पलतडी पावतकच देव आसा भिरांत ना अशें हांव म्हजे म्हाकाच पटोवन थातारतालों. पूण आकांताक हातूंतलो एकलोय पावचोना हाची म्हाका खात्री आशिल्ली.

असो विचार येवं नाका, म्हजे भितरूच म्हाका गुन्यांवकारी दिसलें. आलतडचो पोलीस पावचोना हातूंत प्रस्नूच नाशिल्लो. पूण हांवें पलतडच्या देवांचेर अविस्वास दाखोवप सो! खुरसाचें कपेल आनी खुरीस सिल्वेरा बंधूनी बांदलां. ताका तो पावलोना? दोनदां सांत आद्रे मतदार संघांतल्यान वेंचून हाडलो ताका. हांवें खुरसाकडेनूय केन्ना मागलेंना आनी मारुतीकडेनूय. वेल्यान मारुतीचीं फकाणांच केल्लीं.

जालें कितें म्हजो मुंबयच्यान चंद्रशेखर गोखले म्हूण मित्र आयिल्लो. (तोच तो 'माझा मी' म्हूण चारोळी प्रकार फामाद केल्लो. गोंयांत जायते कवींनी ताचें अनुकरण करून चवळी, चार ओळी असलें कितें तरी केल्लें. एका फामाद कोंकणी कवीन तर त्याय मुखार वचून 'चोळी' म्हूण काव्य प्रकार सुरू केल्लो.) हो हनुमान भक्त. ताका घेवन हांव थंय आयलों. अर्दवर तो त्या मारुती भोंवतणीं फेरी मारतालो. हांव आनी ताची बायल उमा ताचीं फकाणां मारतालीं. आतां मारुतीच्या भक्ताचीं फकाणां म्हळ्यार मारुतीचीं फकाणां जालीं ना?

तेच खातीर हांव मारुतीकडेन कितेंय मागूंक अनमनतालों. पूण आतां 'बिम्ब' चलूंक जाय जाल्यार ताचे कडेन मागले बगर गत्यंतर नाशिल्लें. लोकांक लिपयत हांव ताका नमस्कार करूंक लागलों. केन्ना मासिकाक जायरात दिवपाची लोकांक बुद्द दी, वर्गणीदार जावपाची बुद्द दी अशें जायतें मागतालों. पूण ताणें कशेंच कानामनार घेतलें ना.

एकदीस साक्षात्कार जालो. तो खरेंच थंय आसा काय खुरसाकडेन बी येवन बसता? देवधर्माच्या नांवान झगडीं तीं मनशांमदीं. भोवतेक तो फांतोडेर वचून खुरसाकडेन बी बसना मूं? या विचारान म्हाका लक्क जालें. हांवें आतां दोनूय कडेन पांयां पडपाक आरंभ केला. पोटाचें खंयीय पावूं पांयां पडपाक तरी आतां चलचेंच पडटा, पुलाचेर.



(जून २००२)

# गायनी कळा

**म्हाका** केन्ना कशें वागप तें कळना. हाका लागून हांवें खूबदां म्हजें लुकसाण करून घेतलां. म्हजे भितर आनी माधवी सरदेसाया भितर खूबशें सारकेंपण आसा. दिसपांत न्हय. तें दिसपांत नाजूक आनी वागपांतूय. ताचेर फुलां लेगीत मोखून मारीत जाल्यार तें जखमी जातलें अशें. आनी हांव ओबड धोबड. तेन्ना दिसपा बाबतींत हांवें ताचेकडेन म्हजी तुळा करप म्हळ्यार डॉ. अब्दूल कलामा कडेन डॉ. नंदकुमार कामतीची तुळा केल्ल्या भशेन जातली.

माधवी आनी म्हजे भितर साम्य आसा तें हासपा बाबतींत. आमकां दोगांकूय केन्ना आनी खंय हांसप तें कळना. आतां ताचें हांसप पचून वता तें, तें रवीन्द्र केळेकाराची भाची म्हूण. म्हाका असलो मामाच न्हय तर कसलोच मामा ना. म्हजे आवयक भाव ना. तिका सगळ्यो भयणीच. हांव जल्माक येवन सगळ्यांक 'मामा' करपाचों आसा देखून खरो मामा आसचो न्हय म्हूण सैमानूच केल्ली ही तजवीज आसूं येता. अथवा हांव कंस मामा जाका आसूं येता असलो भाचो जावपाचे लायकीचो आसूं येता. शेवटी नियंत्याची इत्सा. ताका हांव कितें करूंक शकतां?

आतां म्हजी वागपाची पद्दत खंय चुकता आनी तातूंतल्यान हांव हेरांक मामा कसो करतां हाची फिलॉसॉफी म्हाका केन्नाच कळूंक ना आनी असल्या वागण्याक लागून सगळ्यांनी म्हजेर राग काडपा फाटलीय

तांची हाय फिलॉसॉफी म्हाका कळना. असल्या घडणुकांचीं कांय उदारणां हांवें दिलीं जाल्यार हातूंत म्हजी कसलीच चूक नासता हाची कल्पना येतली.

हेंच पळयात भिमसेन पांचाळ हो गायक बाकिबाबाचें ‘व्हडें हालतडीं लाय, म्हाका पलतडीं पाय’ हें गीत तल्लीन जावन गायता. मुखार रवीन्द्र केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय, उदय भेंब्रो, नागेश करमली, चंद्रकांत केणी, अना म्हांबरो, पुंडलीक नायक, तानाजी हळर्णकार, रमेश वेळुस्कार असले कोंकणीच्या मळार फाटलीं कितलीं तरीं तपां योगदान दिवपी खडेगांठ लोक बसून तल्लीन जावन आयकतात. तांचे मदीं म्हजे सारखोच एक कालचो पयरचो पोरांटोय बसला. पूण ताका गायनांतलें ओ काय ठो कळना. पूण असलें गायन चलतना मदींच मान हालोवप, हातवारें करप, पतंग वाऱ्यार सोडटना दोरी हालयतना जसो हात वयर सकयल करपाचो आसता तसो हात करून, मानेक एक झटको दिवन, व्वा! अशें म्हणप ही एक प्रथा संगीत मैफलींत आसता. हाचेवेल्यान संगीतांतलें खूबशें कितें हाका कळटा अशें हेरांचो समज करून दिवंक बरें जातां. हांव हें सगळें खंय शिकलां तेंय सांगल्यार वायट शें न्हय.

शशिकला काकोडकार तेन्ना गोंयच्यो मुखेलमंत्री. कला अकादमींत पंडित जितेंद्र अभिषेकी हांचें गायन आशिल्लें. म्हळें चल वचून बसुंया. संगीतांतलें कांय कळना आसलें तरी बसपाक कितें आसा? झाकून झाकून गांवकार जावं येता. हांव वचून चवथे रांकेंत बसलों. पयले रांकेंत शशिकला काकोडकार, दुसरे रांकेंत ते मुस्तींतले गोंयचे संगीतकार, नट बी. हे सदांच कला अकादमीचेर आळीपाळीन पदां घेवन कलेची सेवा करपी कला क्षेत्रांतले जाणकार. मुखेलमंत्र्यांच्या सदांच फाटल्यान रावप हीय तांची मदली कला.

जितेंद्र अभिषेकी गायता. शशिकला काकोडकार आयकता. पूण

फाटल्यान बशिल्ले हे कलाकार मात हातवारे करून वा वा म्हण्टात. तांच्या ह्या वा वा न मुखेलमंत्री डिस्टर्ब जाताल्यो आनी फाटल्यान मान वळयताल्यो. मान वळयल्या बराबर ह्या कलाकारांनी तिका नमस्कार करप. तिणेंय नमस्कारांक तोंडार हांसो हाडून जाप दिवप. शेवटाक जाल्लें कितें तर इत्सा नासतनाय हे नमस्कार करतात काय कितें हें पळोवपाक ताईची मान परतून परतून फाटीं घुंवप आनी हाणीं तेच वेळार तिका नमस्कार करप. हाका लागून कोणाचेंच मन गायनाचेर थीर जायनाशिल्लें.

जितेंद्र अभिषेकीन आतां आपूण भैरवी लायतां म्हूण सांगून सुरवातूय केल्ली. आमचे हे सगळे कलाकार काकोडकार फाटल्यान पळयना हें कळटकच परतून गायनांत तल्लीन जाल्ले. पूण दोळो फुडल्या सिटार. हात जोडिल्ले. तरीपूण रागाची वळख सोदपी तल्लीनता.

''वा. वा. कितें सूर लागला''

''मालकंस मरे तो?''

''हय तर. तोडीचेर आदारीत आसा.''

हें उलोवप चलतासतनाच पंडित अभिषेकीन गायन सोंपयलें. आपल्या वाद्यांक नमस्कार केलो आनी लोकांक नमस्कार केलो.

''अरे, बुवान घुस्पायले मरे आमकां. भैरवी म्हणपाचें कळ्ळेंच ना. शी! सामको मिक्स घेतलो मरे ताणें राग.''

फुडल्या कदेलांचेर नदर मारून, नमस्काराक हात जोडून कलाकारांचें गायनाचेर दिस्कुसांव चलतालें. तें सगळें पळोवन, आयकून हांवें म्हजी ही फिलॉसॉफी घडयली. देखून हांवूंय अदीं मदीं असो गायनाक वतां.

भिमसेन पांचाळाच्या गायनाक हांवूय गेल्लों तें हेच कारणा पासत. पांचाळ बाकिबाबाचें 'व्हडें आल्तडी लाय' आलाप विलाप घेत गायता. मुखावेले रसिक श्रोते तांकां दाद दितात. तांची दाद घेत पांचाळ बाकिबाबाचें तें व्हडें आल्तडी पल्तडी लावपाचो यत्न करता.

'हांगा कांय खरें न्हय, मना भोंवतणीं वंय, जग हें पिसाय...' अशें गायत गायत परतून परतून वाक्य रचना तोडटा. बरोच वेळ श्रोत्यांक पळोवन 'पिसाय, पिसाय' आलाप घेता, आवर्तना मारता. मुखावेले सगळे जाणकार तकली हालयतात आनी तांकां पळोवन म्हाका खुक्क करून हांसूंक येता.

म्हजें हें हांसप हें पांचाळाच्या गायनाक नासता. आयकुपी श्रोत्यांक नासता. तें बाकिबाबाच्या गीतांतल्या 'पिसाय' ह्या उतराकूय नासता. पूण सगळे आपल्याक लावन घेतात. तें पळोवनूय म्हाका हांसो फुट्टा.



(सप्टेंबर २००२)

# पारजताचीं फुलां

**मनांत** आयलें म्हणटकच आमी गाडी घेवन अकस्मात खंय तरी फुज्र्यो काडटात. आमी म्हळ्यार रमेश वेळुस्कार, तानाजी हळर्णकार, प्रकाश पाडगांवकार आनी हांव. फाटीं आमी अशेच आंबोली गेल्ले पावसांत. पावसांत हांगा गर्दी पडटा. हॉटेलां भरिल्लीं आसतात. देखून आमकां रावपाक सुवात न मेळिल्ल्यान आमी बेळगांवां गेले. थंय रात सारून परततना वाटेर आमकां 'रोपवाटिका' मेळ्ळी. रोपवाटिका म्हळ्यार खऱ्या अर्थान रोपलीं रोयिल्ली बाग न्हय तर वाटेर कोणूय असलीं रोपटीं विकतना सांपडलो की हांव ते वाटेवेले विक्रेक रोपवाटिका म्हण्टां.

रोपवाटिका पळोवन हांवें गाडी थांबयली आनी रोपां मोलावंक लागलों. हांगा जितलींय रोपलीं आसतात तीं खऱ्या अर्थान कसलीं तीं वळखूंक कठीण. तो तांचीं नांवां सांगतालो आनी आमी सगळे त्या रोपल्यांक अपुर्बायेन पळयताले. हे आदीं हांवें मनाली साकून सुद्दा सफरचंदाचें रोपटें वाटेवयल्या रखरखांतल्यान हाडपाचो यत्न केला. मागीर एक दीस रेल्वेंत ताचें मरणूय पळयलां. असलीं हीं रोपां हाडटना तीं आमचें भुंयेर तगतलीं काय ना हाचो लेगीत विचार केन्ना केलो ना.

हे बेळगांवचे रोपवाटिकेंत म्हाका वळखिचीं आशिल्लीं तीं रोपां म्हळ्यार पारजताचीं आनी नागचाफ्याचीं. हांवें दोन पारजताचीं रोपां आनी एक नागचाफ्याचें रोपलें घेतलें. तानाजीन आपले खातीर एक पारजत घेतलो

आनी आमी व्हडलें कितें खरेदी केल्ल्याचे उमेदीन घरा परतले.

दुसरे दिसा हांवें मोठे उमेदीन दोनूय पारजत आंगणांत घरांत भितर सरता थंयच दोनूय वाटेन एक एक लायलो. आवयन दुबावान त्या रोपल्यांकडेन पळयलें. तीं पारजताचीं रोपलीं म्हणटकच पयस लाय, दारांत नाका म्हूण सांगपाक सुरवात केली. तिच्या मतान पारजत म्हळ्यार अनवाळो. ताच्या मुळांत भश्ट कांय उपकारना. हांवें पारजत रोयिल्ले थंयच तिणें शेंवत्यांचीं रोपां रोयिल्लीं. ताका ती नुस्त्याच्या खवळांचें उदक घालताली. तें उदक पारजताक पडत आनी ती भश्टत म्हूण तिका हुसको. पूण ती गजाल म्हाका कशी सांगतली? हांव तिच्या हिसपान सुबेज. चड शाणो!

तिणें म्हाका सांगलें तीं झाडां मागीर व्हड रूख जातले. म्हाका तर ते व्हड जाल्लेच जाय आशिल्ले. बाकिबाब वडफळांच्या अक्षदांत न्हायत न्हायत अजरंवर जाल्लो. म्हाका ह्या पारजताच्या फुलांनी न्हावपाचो आशिल्लो. आवयचें आयकनासतना हांवें तीं रोपलीं थंयच पुरलीं आनी तांकां हांव विसरलों.

पयर चवथीक दोन-तीन दिसा घरा उरलों. तये दिसा त्या पारजतांक तोखेतालों तेन्ना एका रोप्याक कांय कळे दिसले. हांव उमेदीन भुरकुटलों. पारजत फुलता, पारजत फुलता म्हूण घरभर बोवाळ. दुसरे दिसा गणपती पुजेक लायलो तेन्ना पारजताक सात-आठ फुलां आयलीं. गणपतीनूच तीं आपल्या पांयार पडचीं म्हूण फुलयल्यांत असो सगळ्यांचो समज जाल्लो. म्हाकाय म्हजो पारजत फुल्ला म्हूण खोशी जाली. न्हावन-धुवन हांवेंच तांतलीं कांय फुलां गणपतीक माळ्ळीं.

तशें पळोवंक गेल्यार म्हजो चवथ, गणपती हाचेर तसो व्हडलोसो विस्वास ना. पूण ह्या दिसांनी जळामळाक शिंपडिल्लें सगळें कुटुंब एकठांय जाता आनी एक वेगळेंच वातावरण वर्सांतल्यान एकदां तरी

अणभवंक मेळटा म्हूण म्हाका ही चवथ जाय. हे दोनूय दीस हांव मुजरत घरा रावतां.

चवथी दिसा गणपती पुजेक दवरतना म्हाका एक गजाल जाणवली, हो गणपती सामको फूल कसो आशिल्लो. मुर्ती व्हड दिसताली पूण वजन मात ल्हव. कळ्ळें, हे फावट मुर्ती प्लास्टरची हाडल्या. म्हजी तकली सणकली. गणपती मातयेचोच आसूंक जाय. मातयेचीच पुजा करूंक जाय. पूण आमगेर प्लास्टर भितर सरिल्लो. प्लास्टराची पुजा करची पडिल्ली. हांवें उलोवपांत अर्थ–नाशिल्लो. कित्याक हांव चड शाणो!

पंचमी दिसा उत्तर पुजा करून गणपती आगशी तारीर व्हरून बुडयलो. तो बुडून बुडना. मागीर ताका थोडो वेळ उदक भरपा खातीर उदकांत दामून दवरलो आनी मागीर तो बुडलो.

दुसरे दिसा फांतोडेर हांव सदचे भशेन 'मॉर्निंग वॉका'क भायर सरलों. चलतना हांव केन्नाच खळये वाटेन पळयना. सकाळीं थंय आमचे खारवी भाव झाडांच्या आडसाक बशिल्ले आसतात. पूण म्हजी नदर चलतना थंय वचपाचें कारण म्हळ्यार राती थंय आमचो गणपती बुडयल्लो. म्हजी आपसूक नदर थंय गेली आनी अजाप कितें! रातीं बुडयल्लो आमचो गणपती आतां सुकतेर वयर येवन बशिल्लो. ताका म्हज्यान तसो पळोवं नज जालो. थंय वचून ताका उखलून परतून बुडोवपाचें धाडस म्हाका नाशिल्लें. सगळ्यांत बरो आनी शाणपणाचो विचार म्हळ्यार ताचेकडेन पळोवन 'तो मी नव्हेच' म्हणपाचो. हांवें केलेंय तशेंच आनी तूं म्हजो कोण न्हय म्हणत हांव चलत रावलों.

हांव चलतालों. पूण गणपती म्हजी फाट सोडिनासलो. दोन दीस अर्थ अपुर्बायेन हाची आमी पुजा केल्ली. रातीं बुडोवन घरा परततकच माटोळेचेर हल्लो करतना रिकामें मखर पळोवन काळीज कळवळून गेल्लें आनी आतां तोच गणपती बेवारशी जाल्लो. हांवें ताका तकलेंतल्यान काडपाचो यत्न





केलो. पूण तो वचनाशिल्लो.

घरा आयलों. गणपतीची हीच गजाल बरोवन काडटलों म्हूण मेजार बसलों. मेजा सामकार आशिल्लें जनेल उक्तें केलें. त्या बरोबर भायर आशिल्ल्या पारजताची खांदी जनेलाक आपटली. हो दुसरो पारजत. एका पारजताचीं फुलां गणपतीक घाल्लीं. हो दुसरो फुलूंक ना हें हांवें पळयिल्लें. पूण ह्या पारजताची एक लांबशी खांदी शेजराक आशिल्ल्या गुलाबाच्या रुखाक फारकल्ली. जनेल नेटान उगडटाच गुलाबाचें झाड हालून पारजताची खांदी नेटान जनेलाक आपटून भितर आयिल्ली. ही खांदी पारजतान भरिल्ली. म्हणकच हो पारजत काल पंचमीक फुलिल्लो तर! हांवें ल्हवपीक फांदयेचीं फुलां काडलीं. तीं मातयेन माखिल्लीं. खांदी आडखडून उरिल्ल्यान मातयेक तेंकिल्ली आनी आतां फुलां माथ्याक माती सारोवन म्हज्या मेजार आयिल्लीं. हांव प्लास्टर विसरून पारजताची माती सांसपीत रावलों. पारजताचीं फुलां मातयेक समर्पित जाल्लीं.



(ऑक्टोबर २००२)

# हांव खरो कोण काय?

**म्हजो** एक इश्ट हालींच उलयतां उलयतां म्हाका म्हणूंक लागलो, 'दिलीप म्हाका खरें सांग, तूं खरो कोण?'

फाटल्या तिसेक वर्सांची आमची वळख. ह्या तीन दसकां मदीं ताका हो प्रस्न केन्नाच पडलो ना तो आतां इतल्या वर्सांनी सो पडलो?

'रूक्षप्रस्न' ह्या म्हज्या ललीत निबंदाच्या पुस्तकांत 'हांव कोण?' ह्या प्रस्नाची जाप हांवें दिल्या. एक खरें, तातूंत 'हांव खरो कोण?' हो प्रस्न येवंक ना. कित्याक तसो प्रस्न म्हाकाय केन्ना पडूंक नाशिल्लो आनी तशी गरजूय म्हाका दिसूंक नाशिल्ली.

पूण आतां ताणें जेन्ना म्हाका हो प्रस्न केलो तेन्ना हांवूय विचारांत पडलों. म्हाका तशें आयजवेर खूबशे प्रस्न पडल्यात. पूण त्या प्रस्नाविशीं जाहीर भाश्य हांवें केन्नाच केलें ना वो करचें अशें दिसलें ना. त्या प्रस्नांच्यो मनांतल्या मनांत जापो सोदूंक लागलों आनी वेगवेगळ्या आयामांनी जापो सुटाव्यो जावनूय ते प्रस्न मुळांतूच गूढ उरतात तें पळोवन हांव म्हजे भितरूच स्तंभीत जावन त्या प्रस्नां मुखार नतमस्तक जालां.

'रुक्षप्रस्न' पुस्तकांतल्या वेगवेगळ्या प्रस्नांचेर भाश्य केलां ते प्रस्न म्हजे केन्नाच नाशिल्ले. ते प्रस्न समाजांतल्या वेगवेगळ्या लोकांचे. तांकां हे प्रस्न पडत आसतात. त्या प्रस्नाक म्हजे नदरेन अर्थ नाशिल्लो. ते यक्षप्रस्न नाशिल्ले तर म्हजे खातीर रूक्ष आशिल्ले.

म्हाका प्रस्न पडटात ते वेगळे. हांवें अजून मेरेन हुसको करपी, चिंता करपी मनीस सोडून दुसरो खंयचोच जीव पळोवंक ना. हांव जीव आशिल्ले म्हळ्यार सजिवांची गजाल करतां. तातूंत फकत प्राणी, कीटक, पक्षी, जलचर, सुक्ष्मजीव ह्योच गजाली येनांत तर वनस्पतूय येता. ही सगळी सृष्ट हजार तरांचे, हजार रुपांचे, हजार सभावगुणांचे जिवावळीन भरिल्ली आसा. ह्या सगळ्यांचें जिवीत वेवस्थीत चलता. पूण हातूंत सगळ्यांक चिंता लागिल्ली आसता ती मनशाक.

ह्यो चिंता तरी कसल्यो? शिकूंक जाय, नोकरी करूंक जाय, जोडूंक जाय, दुडू करून दवरूंक जाय, लग्न जावंक जाय, भुरग्यांक जल्माक घालूंक जाय, तांकां वाडोवंक जाय, तांचो फुडार घडोवंक जाय, आपल्याय म्हातारपणाची वेवस्था लावंक जाय आनी मागीर मरणा उपरांत मोक्ष मेळूंक जाय. हाका सगळ्याक हे लोक जगप म्हणटात. ह्याच जगपाचो तांकां हुसको. पूण हें सगळें करतना ते जगतात केन्ना होच म्हाका प्रस्न पडटा.

हांव पळयतां, अणभवतां. खंयतरी मातयेंत एक बीं किल्लता. तें वाडटा. ताका फुलां जातात. ह्या फुलांत फळ धरपाचें आसता. त्या फळांतल्या बिये पासून आनीक तसलींच झाडां जावपाचीं आसतात. पूण त्या झाडांक केन्ना प्रस्न पडिल्लो आसता काय? म्हज्या फळांक फळ धरतलें काय ना हाचो? फूल फुलता. आपल्या रंगांनी पाख्यांक, मुसांक, भुलयता. तांकां लागीं ओडटा. आपल्या म्होंवान तांकां रूच हाडटा. त्या म्होंवाचे आशेन मूस, पाखे फुलार बसतात. म्होंव चोखता आनी दुसरे फुलार वतात. वतना एका फुलाचे पराग आपल्या पांयांक दसोवन दुसऱ्या फुलां मेरेन व्हरतात. जालें ह्या दोन फुलांचें मिलन आनी धरलें तांकां फळ. फळ पिकता. रंगान पक्षांक भुलयता, पक्षी येवन फळाची गोडसाण चाखता. फळ खावन बियो धर्तरेर शिंवरता. त्या झाडाची संतत वाडोवपाची

समस्या सुटावी जाता.

ज्या फळांक रंग, गंध, रूच नासता तांच्यो बियो वारो आपल्या खांदार बसोवन दिगंतराक व्हरता आनी रुजयता. वाऱ्याक जमनां तें न्हंयो आनी दर्या करता. चिंता, हुसको नासतना सगळें घडटा.

पूण जाणें शिक्षण घेतलां, जाका सगळ्या जिवां परस चड बुद्ध लाबल्या तो मनीस भुरगीं जावंचीं, आपली संतत वाडची म्हूण कितली खटपट करता. हातूंतल्यान कितें साध्य जाता? वेगवेगळीं दुयेंसां, पिडा, रोग. हें अशें कित्याक घडप? असलेच कितले तरी प्रस्न जाका जापो आसुनय नासतात हे म्हजे प्रस्न.

अशा ह्या प्रस्नां मुखार हांव खरो कोण? हो प्रस्न म्हाका पडप शक्य ना. पडलो वो कोणेंय तसो निर्माण केलो तरी म्हज्या खऱ्या प्रस्नां मुखार तो नगण्य, बाबत थारता. देखून असल्या प्रस्नांकडेन हांव चड लक्ष दिना.

आतां लक्ष दिना अशें म्हणून असल्या प्रस्नां पासून म्हज्यान पयस रावूं येता? ना. कित्याक हांव ह्या समाजाचो घटक. समाजान म्हाका आपलो मानला. फुलझाडांनी म्हाका आपलो मानुना. रुखावळीन आपलो मानुना, हेर खंयच्याच प्राण्यांनी आपलो मानुना. कित्याक हांव तांचे भितर पडना. हांव पडटां सृश्टींतल्या मनीस ह्या घटका भितर. म्हणटकच म्हाका तांचे भितर म्हजे स्वताचे प्रस्न घेवन वावरप शक्य नासता तर तांचे प्रस्न घेवन जियेवंक जाय आसता.

मनीस हो बुद्धीवादी. ताणें आपले बुद्धीन आपलें जिवीत समर्थ केलां. परिपूर्ण अशी तिका रचणाय दिल्या. म्हणटकच मनीस सोडून सैमांतल्या हेर घटकांची जीण समर्थ आनी परिपूर्ण ना?

म्हजी फिलॉसॉफी सांगता मनीस जरी बुद्धीवादी आसलो, ते बुद्धीच्या नाड्यार ताची जीण समर्थ जाल्या अशें जरूर दिसलें तरी ती समर्थ ना. हेर सगळे जिवावळीची जीण समर्थ आसा. कित्याक ती जिवावळ सैमाच्या

सांगातान आपली जीण सारता. मनीस मात बुद्धीभ्रश्ट जावन सैमा आड वचून आपले वांगडाच हेर जिवांचीय जीण असमर्थ करता.

म्हजे हे फिलॉसॉफीक तसो अर्थ ना. कित्याक हांव खरो कोण हो प्रस्न आसा. हांव हेरांचे नदरेन खरो कोण तो सिद्ध जावंक ना. हांव निबंध बरयतां. रुक्षप्रस्न हो ललित निबंद संग्रह वाचून विश्राम गुप्ते, भालचंद्र नेमाडे. नारायण सुर्वे बी तोखेतात. पूण हांव निबंदकार न्हय. श्याम वेरेंकार कोंकणी निबंदाचो नियाळ करता. पूण म्हाका निबंदकार मानीना. हांव कविता करतां. कवितेची जाण आशिल्ले म्हज्यो कविता तोखेतात. पूण म्हाका कविसंमेलनांत सुवात ना. हांव नाटकां बरयतां पूण हांव नाटककार न्हय. हांव कादंबरी बरयतां पूण कादंबरीकार न्हय, कथाकार न्हय. हांवें बालसाहित्याची निर्मणी केल्या पूण एकाय सेमिनारांत वांटो घेवंक ना. म्हजी बोरकारी हें सदर खूब जाण तोखेतात. पूण तो एक फकाणाचो विशय.

खरें म्हळ्यार हांव खरो कोणूच न्हय. येसू ख्रिस्त म्हणटालो आपूण कोणूच न्हय. तो कोणूच नाशिल्ल्यान सगळ्यांचो जावंक पावलो. म्हजी तुळा येशू ख्रिस्ताकडेन हांव करिना. कित्याक म्हाका तितलो व्हडलो जावपाचो ना. हांव आसा तसोच म्हाका रावपाक जाय. फुलां वांगडा हांसत, झाडांवेल्या सवण्यांच्यो गजाली आयकून घेवन तातूंत रमत, रुखावळीक स्पर्श करून तांचें स्पंदन वळखत, म्हाका कोणूच न्हय म्हण जियेवपाचें आसा. तातूंतल्यान जें कितें उमगता तें बरोवन काडपाचें आसा. हाकाच हांव जीवन मानतां. तीच म्हजी एक फिलॉसॉफी. मन शुद्ध दवरपाची.



(एप्रिल २००६)

# बागेंतलीं फुलां

**गुलाब** मासिकांत हांवें दोन तीन लेख बरयल्ले. तांचो विशय आशिल्लो बायलांची आयज ह्या एकविसाव्या शेकड्यांत लेगीत समाजांतली सुवात आनी तिचो मान–सन्मान.

ते लेख वाचून किरिस्तांव समाजांतल्या कांय बायलांचे फोन म्हाका आयले. लेख आमकां आवडले. तुजे विचार आमकां पटले बी अशे तरेचे. एकलेन तर स्पश्टपणान म्हणलें, तूंय एक दादलो. दादल्यांची अस्तुरेकडेन पळोवपाची नदर दादल्याचीच आसता. तुमी बरोवपी, बरयतना मात भलतेंच बरयतात आनी वागतात भलतेंच. हांवें हांसून हांव तातलों न्हय बी सांगून फोन दवरलो खरो पूण हांवच चिंतूंक पडलों. म्हाका हीं बायलां वळखतात तीं बरोवपांतल्यान. तशी व्यक्तीगत वळख ना. तरी लेगीत म्हजे विशीं तांच्या मनांत असो विचार कित्याक येवंक पावलो? हेर दादल्यांवरींच हांवूय अस्तुरी ही एक भोगपाची वस्तूच म्हण पळयतां, काय तांचे विशीं म्हज्या मनांत वेगळी भावना आसा? म्हजे फिलॉसॉफींत तांची सुवात खंयची?

जाणीं फोन केल्लो ताणीं म्हाका फकत दादलो ह्याच रुपांत पळयलो. तींच कित्याक, जीं म्हाका लागशिल्ल्यान वळखतात तांकां लेगीत हांव म्हळ्यार वुमनायजर, बायलां–चलयां बाबतींत फ्राक अशें दिसता. हांव सदळ कॅरेक्टर अशें तांकां दिसता आनी तांचे हे आपले परीन करून घेतिल्ले समजुती विशीं म्हाका हांसूंक येता.

सगळ्यो चलयो, बायलो म्हजेकडेन हेर दादल्यांकडेन पळयतात तेच नदरेन पळयतात. काय म्हज्यान एक संवेदनशील मनीस पळयतात? काय तीं सैमाच्या नेमाक धरून चलतात आनी त्याच सताक पाळो दितात काय?

हांव वात प्रकृतीचो मनीस. जाची वात प्रकृती आसता ताका अस्तुरेच्या स्पर्शाची ओड सैमीक रुपान आसता. हाचो अर्थ तो भोगवादी आसता अशें न्हय. अस्तुरेचो सांगात आवडप म्हळ्यार दिस–रात भोगाची लालसा बाळगप अशें न्हय. मागीर मनशांत आनी जनावरांत फरक तो कांयच उरना. ॲम्लिबिया काय तसल्याच नांवाचो एक सुक्षीम जीव आसता खंय. तो जल्माक येत सावन मरसर फकत संभोग घेत आसता. ताचे फाटली सैमाची वेगळी रचणाय आसूं येता. पूण हांव तर एक संवेदनशील मनीस. मनीसजातीक भोवमानान वागोवपी आनी चड करून बायलजातीक.

हांव अस्तुरेकडेन पळयतां तो निर्मितीचें रूप म्हूण. सगळ्यांत व्हडलें निर्मितीचें रूप म्हळ्यार धर्तरी. ते धर्तरीचेंच रूप म्हळ्यार अस्तुरी. धर्तरेचेर मनीस अत्याचार करीत आसता. तिचेर धनीपण गाजयता. तिका, खणटा, फोडटा, हुलपायता, तिचेर हळशीक करता. तरी ती वेगवेगळीं पिकां दिवन मनशाक पोसता. धर्तरी क्षमाशील. आपल्याचेर अत्याचार करपी मनशाक ती निमाणेकडेन आपल्या गोपांत घेतले बगर रावना अस्तुरेचोय सभाव धर्तरेवरींच. धर्तरेचेर जातात तितलेय अत्याचार अस्तुरेचेर जातात. कोणाक अस्तुरी फकत धनीपण गाजोवपा खातीर जाय आसता. कांय गिरेस्त लोक हांवें पळयल्यात तांकां फकत दुडूच जोडपाचो आसता. त्याच वावरांत ते दंग आसतात. धंद्या खातीर ते आपल्या बायलांक फकत पार्टे वेळार भायर काडटात तितलेंच. नातर त्यो आपल्यो घराच. तांचे खातीर ताणीं गाडी–घोडो सगळें दिल्लें आसता. भाटकारपण हें. भाट नांवार करून भाटकार म्हूण मिरोवप. जमीनदार म्हूण जियेवप. जमीन मागीर कोणेंय कसूं वा ती पडंग उरूं.

पूण म्हजे सारख्या संवेदनशील मनशाक फकत मळबांत उडपाचें आसता. आनी थकलो म्हणटकच धर्तरेच्या गोपांत विसव घेवपाचो आसता. जशें एके संवेदनशील अस्तुरेन आपले मांडयेर तकली दवरूंक दिवन आपलीं बोटां केसांनी ल्हवपीक भोंवडावचीं तशीं!

अश्या मनशाक खंयचेय अस्तुरेकडेन वेगळे नदरेन पळयता असो आरोप करप म्हळ्यार लेगीत पाप अशें हांव म्हणन.

आतां अस्तुरेकडेन लक्ष वचप हो सैमाचो नेम. तें निर्मितीचे तत्व. तेच पासत काम भावना नर आनी मादीं भितर स्थायी रुपान वसता. तारुण्य हें हांयस जाता. आनी हें सगळें घडून येवंचे पासत, नर मादीक एकठांय हाडूंक हें हांयसूच मुखेलपणान कारण थारता. ताच्या सांगाताक रंग, रूप, गंध, मध ह्यो सगळ्यो गजाली येतात आनी हाका लागुनूच सैमांत नवनिर्मिती घडूंक पावता. प्रत्येक मनीस जुवानपणार एकमेकाकडेन ओडटा तो सैमाचे हेच गरजेक लागून.

पूण हांवें म्हाका कळूंक लागलें तेन्ना सावन थारायल्लें. म्हजी साहित्य निर्मिती सोडली जाल्यार आनीक दुसरी निर्मिती म्हाका करपाची ना. हांव एक बरो आदर्श बापूय जावप शक्य ना. आदर्श भुरग्यां खातीर आयज म्हजे कल्पने सारखो आदर्श समाज आनी वातावरण ना. म्हणटकच म्हाका जर ही निर्मणी करपाची ना जाल्यार हांवें स्तनांकडेन आकर्शीत कित्याक जावप? ताची निर्मिती तर सैमान दूद निर्मिती करूंक केल्या. हांवें अस्तुरेच्या गुप्तेंद्रियांकडेन आकर्शीत जावपाचें कारणूच ना. तो तांचो भाग म्हळ्यार मूत्र विसर्जन करूंक आनी बिजधारण करूंक. विसर्जना वेळार अत्यंत अभद्र आनी सर्जनावेळार अतीभद्र. ताचो आनी म्हजो संबंद येवपाचो वो हांवें त्या खातीर जळपेवपाचो प्रस्नूच येना.

तरी लेगीत निर्मिती मूल्य लाभिल्लो मनीस तें आसा सर, मागीर दादलो जांव बायल हेच गजाली कडेन आपलें लक्ष केंद्रीत करता. कारण

सैमान ती ओड तांचे भितर स्थायी रुपान वसयल्या. ताकाच लागून दरएकल्याचें लक्ष हे गजालीकडेन वता. ना म्हणटा तो आपल्याच कडेन प्रतारणां करता. थोडे जाण आपल्याचेर नियंत्रण नाशिल्ल्यान बलात्कार, विनयभंग ह्या सारख्या कृती मेरेन पावतात जाल्यार थोडे जाण सामाजीक बंधनांक लागून आपल्याचेर नियंत्रण दवरतात. लग्न हे संकल्पनेचो आदार घेतात.

हें सगळें मान्य करूनय म्हजें लक्ष अस्तुरेचेर वता तेच वांगडा अस्तुरीय आपले कडेन लक्ष ओढून घेता. रस्त्यावेल्यान चलतना दादल्याक पळोवन बायल आपलो पदर सावरता. तेन्ना लक्ष नाशिल्ल्याचें लक्ष ते सुवातेर वताच. तशें वचप साहजिकच.

म्हाका फुलां तोखेवंक आवडटा. पूण फुलां तोडप्यांचो राग येता. फुलां आवडटात म्हूण स्पश्टपणान सांगपी खूब उणे आसतात. नागेशी युवा महोत्सवाक मुखेल सोयरो म्हूण मुखेलमंत्री आसतना मनोहर पर्रीकार आयिल्लो. माटवांत भोवसंख्येन चलयो आशिल्ल्यो. तेन्ना माचयेवेल्यान पर्रीकारान म्हळें, माटवांतल्यान येतना आपूण फुलांच्या ताटव्यांतल्यान वतां अशें दिसलें. अत्यंत निर्व्याज्य अशें विधान. लोक हांसले खरे. पूण फुलां खुटपाक आवडटा अशें ताणें म्हणूंक ना. ती भावना निर्व्याज लोकांमदीं आसना. पूण कांय फुलां आसतात सोबीत, सुंदर. तीं मुसांक आपल्या रंग रुपान आकर्शीत करतात. मूस वचून फुलार बसता. तें फूल आपल्यो पाकळ्यो धांपून घेता. मूस भितर मरता. त्या फुलांचें भक्ष्य थारता. सैमान रंग रुपाचो असोय वापर करपाचो अधिकार दिला.

हांव फुलांच्या बागेंतल्यान पासय मारतां पूण भक्ष्य जायना. जावपाचेंय ना.



(मे २००६)

# येसू आनी मारी माग्दालेन

**डॅन** ब्रावनच्या 'द दा विन्सी कोड' कादंबरीचेर काडिल्ल्या चित्रपटाक लागून संवसारभर धर्मिक वादळ उठलां. ही कादंबरी बाजारांत आयली आनी ताच्यो चार कोटी प्रती आयजवेर खपल्यात खंय! म्हणटकच संवसारांतल्या निदान पंदरा कोटी लोकांनी तरी ही कादंबरी वाचल्या जावंये. पूण ते कादंबरे विशीं वाद निर्माण जाला म्हणपाचें फाटल्या धा वर्सांत तरी हांवें आयकूंक ना. ताचेर चर्चा जाल्या जावं येता. पूण बंदी हाडची अशें वातावरण निर्माण जाल्लें काय म्हज्या कानार वचूंक ना.

पूण जेन्ना ताचेर चित्रपट तयार जालो तेन्ना मात त्या चित्रपटाक मोठ्या प्रमाणांत विरोध जालो आनी जायत आसा. हाचें कारण म्हळ्यार वाचना परस दृक-श्राव्य माध्यमाचो समाज मनाचेर चड प्रभाव पडटा हें आसूं येता वो वाद निर्माण जाल्यारूच चित्रपटाची चड जायरात जाता हेंय तंत्र हे फाटल्यान आसूं येता.

चित्रपटाचेर बंदी हाडूंक जाय हे मागणे फाटलो मूळ मुद्दो तो चित्रपट विकृत आसा, तो बाबत आसा वो अश्लील बी आसा अशें कांय ना. तो दाखोवंक फावना अशें मत उक्तावपा फाटलें मूळ कारण आसा धर्मकारणां फाटलें राजकारण.

मूळ कादंबरींत आनी आतां चित्रपटांतूय येसू ख्रिस्त हाचें मारी माग्दालेनाकडेन लग्न जाल्लें आनी ताका एक चलोय आशिल्लो अशें चित्रण

केलां देखून ख्रिस्ती धर्माची बदनामी जाता असो एक बाबत सूर आसा. खरें म्हळ्यार चित्रपटाचेर कलात्मक मुल्यमापन जावंक जाय आनी जेन्ना कादंबरीचो लेखक वो चित्रपटाचो निर्मातो प्रसंग 'काल्पनीक' म्हूण सांगता तेन्ना तर वाद निर्माण जावंक शकना. पूण आमच्या पृथ्वी तलाचेर भोव संख्येन इतलीं सॅम्पलां आसात की तांकां विचार करपा बदला अविचार करपूच आवडटा आनी हातूंतल्यान रूप घेता तो विध्वंस. तातूंत रचनाकारूय सुटना आनी रचणारोय.

कला हें जिवितांतलें सर्वश्रेश्ठ आंग. कलेक लागुनच मनीसजातीच्या विचारांक उबारी येता आनी कलेची सांगड जिणेकडेन घालीत जाल्यार जीवन सुखकर जाता. देखुनूच विज्ञानाची कितलीय उदरगत जाली, सगळीं भौतीक सुखां मनीस जातीच्या पांयांकडेन ओपलीं तरी ह्या विज्ञानाकडेन कलेची जे सर सांगड घालप जायना तो मेरेन मनाक सूख शांतताय लाबना आनी उबारीय येना. जर कलेक जिवितांत इतलें म्हत्व आसा जाल्यार कलेचो निर्मातो जो कलाकार ताकाय म्हत्व आसूंक जाय. ताचे कलेची कदर जावंक जाय. ताचे कल्पनाशक्तीची, अभिव्यक्तीची तोखणाय जावपाक जाय. पूण ज्या संवसारान विज्ञान, शास्त्र, शिक्षण हातूंत तेंगशी गाठल्या तो संवसार मात निर्मितीच्या देवाक मरणाचें फरमाण फर्मायता. म्हणटकच येसू ख्रिस्ताक मृत्युदंडांतल्यान मुक्त करचो काय बार्नाबसा सारख्या खुनी, समाजघातक्याक सोडून दिवंचो असो प्रस्न राजा हेरोद करता तेन्ना येसूक खुर्सार चडोवंचो आनी बार्नाबासाक सोडचो अशें सांगपी समाज अजून आमचे मदीं आसा.

येसू ख्रिस्ताक खुर्सार चडयलो तेन्ना ताची पिराय तेत्तीस वर्सांची. येसू ख्रीस्त देवपणाक पावलो तो खुर्सार चडोवन तीन दिसांनी पुनर्जिवीत जाल्या उपरांतूच. त्या उपरांतूच ख्रिस्ती धर्मान तकली वयर काडूंक आरंभ केलो. 'द दा विन्सी कोड' कादंबरींत आनी चित्रपटांत चित्रण

जालां तें एका समाज सुदारक तरणाट्याचें. देवपणाचे पदवेर पाविल्ल्या येसू ख्रिस्ताचें न्हय. आनी ह्या समाज सुदारकाची पिराय कितली तर बत्तीस–तेत्तीस वर्सां.

समाज सुदारक जालो तरी येसू नाझारेतकार हो एक तरनाटो आशिल्लो. त्या काळार कोणाक करप शक्य जावंचें ना तसलें कार्य करतालो. प्रस्थापितां आड वचून नवो विचार समाजांत रुजयतालो. तरी तो एक तरनाटो आशिल्लो आनी ताचेय भितर तारुण्य सुलभ भावना आशिल्ल्यो. ज्यो आयच्या काळार खंयच्याय तरनाट्या भितर आसूंक जाय अशो. म्हणटकच एका लेखकान, एका चित्रकारान वो एका दिग्दर्शकान आपली कल्पना शक्त लडोवन, तरनाट्या मनाचीं स्पंदना, भाव–भावना वळखून ताचें चित्रण जर केलें जाल्यार तें धर्मा आड कशें वता, धर्माची विटंबना कशी जाता? हो तर अधर्म.

प्रस्थापितां आड आवाज काडप, तांच्या आसनाक धक्को दिवप हे गजालीक भरपूर ताकद लागता. हें सगळें करता आसतना जें सोंसचें पडटा ताची कल्पना सामान्याक येवपाची ना. हे सोसणुकेक घटाय येवंक एक 'इमोशनल सॅक्युरिटी' जाय पडटा. बत्तीस– तेत्तीस वर्सांच्या तरनाट्याक ती चड जाय आसता. मारी माग्दालेनान ती ताका नक्कीच दिल्या आसतली. जेन्ना ही इमोशनल सॅक्युरिटी जाचेकडल्यान मेळटा तेन्ना तें नातें संबंद थेट काळजान जुळटा. जेन्ना काळजां एक जातात तेन्ना कुडी परक्यो उरनांत. आनी येशू नाझारेतकाराचें कार्य पळोवन, धाडस पळोवन ताचेर चलयांनी जीव उंवाळून उडयलोना जाल्यार चलयां भितर कसलें तरी उणेपण आसा अशेंच म्हणचें पडटलें.

मारी माग्दालेन हें आदीं आमच्या मुखार आयिल्ली ती एक शिंदळकी म्हण. लोक तिचेर ती पातकी म्हण फातर शेवटितात आनी तेन्ना येसू नाझारेतकार जाणें कसलेंच पातक करूंक ना ताणें पयलो फातर मारचो

अशें सांगता. लोक चिंतूंक पडटात आनी मारी माग्देलनाक सोडटात. इतलोच येसूचो आनी माग्दालेनाचो संबंद आमी जाणा आशिल्ले. आतां कल्पनेंतल्यान जावं पूण येसूच्या जिविताक एक वेगळो आयाम दिवपाचो यत्न जाता आनी तो मनशाच्या भाव-भावनांकडेन संबंदीत आसुनूय ताका विरोध जाता तेन्ना समाजांत विकृती बळावता अशेंच म्हणचें पडटलें.



(जून २००६)

# लग्न पळोवंचें करून
# आनी
# घर पळोवंचें बांदून

**म्हजी** जशी एक स्वतंत्र फिलॉसॉफी आसा तशीच हे धर्तरिवेल्या दरेक मनीस प्राण्यांची आपली अशी एक खास फिलॉसॉफी आसता आनी तीय तांचे नदरेन तांचे पुरती तितलीच हाय आसता हाचेर म्हजो विस्वास आसा. देखून तांचे ते हाय फिलॉसॉफीक हांव म्हजे फिलॉसॉफी प्रमाण हाय रेस्पेद दितां.

ह्या सगळ्या फिलॉसॉफीं मदीं एक सर्वमान्य फिलॉसॉफी कानार पडटा ती 'लग्न पळोवंचें करून आनी घर पळोवंचें बांदून' ही. लग्न हो जिवितांतलो एक म्हत्वाचो प्रसंग आनी एका लग्नाक हजार विघ्नां आसतात खंय, देखून लग्न जावप वो करप हाचे इतलो कर्तुत्वी प्रकार मनशाचे जिणेंत दुसरो नासुये! तशेंच आपलें घर बांदप हेंय एक व्हडलें कर्तुत्व आनी जल्माक येवन तें करून दाखोवंचें हो हे फिलॉसॉफी फाटलो विचार आसुंये!

तरी ही फिलॉसॉफी न मानपी वो मानुनय आचरणांत हाडूंक न सोदपीय म्हाका खूब जाण मेळ्ळ्यात. तांचे नदरेन लग्न म्हळ्यार असो लाडू जो खायना तोय पश्चताप करता आनी खाता तोय पश्चताप करता. ते

परस ते भानगडींत पडनासतना साडोसुडो रावता तोच बरो. कोणें सांगला तो संवसार, ती भुरगेबाळांची कटकट?

लग्नाविशींचे तांचे हे विचार जाल्यार घर बांदपा विशींचेंय तांचे विचार तशेच. घर बांदतलो जाल्यार आयच्या काळार विशेक लाख रुपया सहज जाय. ते घराक घालून ब्लॉक करचे परस तेच घालून भाड्याचें घर वा ब्लॉक घेवन रावलो जाल्यार मुद्दल तरी तितलीच सुगूर उरता.

वेव्हारीक नदरेन पळयत जाल्यार तांची ही फिलॉसॉफी चूक दिसना. पूण हातूंत तांचें कर्तृत्व खंय दिश्टी पडटा? ही फिलॉसॉफी निश्क्रिय मनशाची अशेंच दिसूंक फाव.

दर एका जल्माक आयिल्ल्या मनशान आपली एक कार्यावळ थारावन, एक निश्चीत उद्दीश्ट दवरून ताची मोख पुराय करूंक वावरप म्हळ्यारूच परिपूर्ण जिवीत हो विचार म्हजेय फिलॉसॉफींत खंयतरी एका कोनश्याक बसता. हें जें कोण करूंक सोदिना त्या निश्क्रिय मनशाक 'लग्न पळोवंचें करून आनी घर पळोवंचें बांदून' हाचो अणभव केन्ना घेवंक मेळचोच ना. म्हणटकच तांचें जीवन म्हळ्यार जल्म मेळ्ळा देखून तें मुखार धुकलीत रावप असो प्रकार.

लग्नाचे बाबतींत म्हजे विचार, लग्न म्हळ्यार कितें हाची कल्पना आयल्या उपरांत थीर जाल्ले. समाजांत लग्न वेवस्ता चलता ती एक तडजोड ह्याच रुपान. मनीसप्राणी हो हेर सगळ्या सजीवां प्रमाणेच हे सृश्टीचो, सैमाचो घटक. सैम आपले नेमा प्रमाणे चलत नवी निर्मणी करीत आसता. हेर सजिवां प्रमाणेच मनीस प्राण्याचीय सातत्यान निर्मणी जावंक जाय. ते पासत नर मादी एकठांय येवंक जाय. तीं एकठांय येतलीं जाल्यार तांकां एकमेका विशीं ओड दिसूंक जाय आनी तांकां निर्मिती खातीर उद्युक्त करूंक उच्च सुखाची गोडी लावंक जाय देखून दोगांयच्याय मनांत कामभावनां निर्माण केली. हेच कामभावनेचे ओडीन नर-मादी

एकठांय येवन तांचेपासून नवनिर्मणी जाता. तांची आदर्श समाजाचो घटक मानून काळजी घेवंक जबाबदारी घेवंची पडटा. ती घेवंची म्हण समाजान निती–नेम तयार करून, स्वैराचाराक आळाबंद हाडूंक लग्न वेवस्था घडोवन हाडली.

लग्न वेवस्तेन समाज जिणेक दिका दिवपा वांगडाच थिराय हाडली. पूण सगळेच लग्न संबंद संवसाराच्या निमण्या पर्वा मेरेन तिगतलेच अशें ना. तिगल्यात ते समाजाच्या भंयाक लागून तडजोड करीत. जाका जिणेचो अर्थ थोडो भोव कळ्ळा तो ही तडजोड मान्य करीतूच अशें ना. तडजोड करीत, रखडत लग्नीक संवसार मुखार धुकलचे परस दोगांयचेंय स्वतंत्र अस्तित्व मान्य करून जण एकल्याक आपल्या स्वतंत्र विचारां प्रमाण जिवीत घालोवंक दिवप हेंच सुशिक्षीतपणाचें लक्षण अशें म्हाका तरी दिसता. हेच पासत लग्न पळोवंचें करून हें फिलॉसॉफीक फाटो दिवपा वांगडाच म्हाका जिवीत परिपूर्ण करतलो जाल्यार एक जिवाभावाची इश्टीण जाय हें मतींत दवरून सांगातिणीक हक्काची बायल हें लेबल लावपाचें टाळ्ळां.

आतां दुसरी गजाल घराची. हांव घरांत सगळ्यांत धाकटो म्हणटकच हांवें घर बांदूंक जाय असो प्रस्न केन्नाच आयलोना. बापायन बांदून दवरलां तातूंत हांवें आयत्या बिळांत नागोबा जावं येतालें. वो म्हजे आवडी प्रमाणे एखाद्रो फ्लॅट घेवन रावूं येतालें. पूण फ्लॅटांतलें फ्लॅट कल्चर म्हाका केन्ना आवडलेंच ना. फ्लॅट घेवन रावता ताच्या एकंदर जिविताक मर्यादा पडटा तशी विचारांकूय पडटा. म्हजे सारख्या मनशाक वैचारीक प्रगल्भतायेन जियेतलो जाल्यार घर जाय आसता. इग्लेजींत 'होम' आनी 'हाऊस' ह्यो वेगळ्यो गजाली मानतात. पूण आमचें घर हें घरूच. होम काळजान बांदतात 'हाऊस' फातरविटांनी. म्हाका म्हजें घर काळजां एकठांय करून उबारपाचें आशिल्लें. काळजां फकत नात्यांतलीं न्हय, पुराय विश्वांतलीं. जांचे कडेन म्हजे विचार जुळटात तांचे खातीर म्हाका एक आगळें वेगळें घर

बांदपाचें आशिल्लें.

घर हें म्हजें केन्नाच आसूंक फावना. तें आमचें जावंक जाय. नात्यांतले लोक सोयरे म्हूण घराक केन्नाय पांय लायतात. पूण हें घर आपलें म्हूण येवपी कितले जाण आसतले?

'लग्न पळोवंचें करून' हाका म्हजे नदरेन व्हडलोसो अर्थ नाशिल्लोच. लग्नाच्या तथाकथीत पवित्र बंदना परस काळजाच्या जुळिल्ल्या धाग्यांनी घुस्पून रावप हातूंतच हांवें खुशालकाय मानल्या, घर पळोवंचें बांदून म्हूण हांवें आमचें पोरणें घर मोडून तें बांदलें. घर पळोवंचें बांदून म्हळ्यार कितें हाचो पुराय अणभव हांवें घेतला. घर बांदून पुराय जायसर ताचो कोणाकूच हुस्को नाशिल्लो. तें पुराय जातां जातां थोड्यांक हुस्को लागलो. घरांत देवारो हो जायच. म्हजें पुराय घर म्हळ्यारूच एक देवारो हे भावनेन हांवें घराक हात घाल्लो. पूण ती भावनाच कोणांक समजूंक आयलीना, समजुपाचीय ना.

आतां घर बांदून तयार जालां. पूण तें खरेंच घर आसतलें काय चार वण्टीचें तें फकत एक आडंबर? त्या घराक तेन्नाच घरपण येतलें, जेन्ना म्हजे संवसारभरचे कलाकार मित्र गोंयांत येवन हॉटेलांनी रावंचे बदला, हक्कान येवन आपलें घर म्हणत भितर सरतले तेन्नाच. ताका म्हजे नदरेन घर म्हणू येतलें. आमचे गोंयचे म्हजे साहित्यीक मित्र-मैत्रिणी आपले बायलेक वो घोवाक 'आमी मुदासावांक आगशी या दोन दीस' अशें म्हणत हक्कान येवन रावतलीं तेन्नाच त्या घराक अर्थ प्राप्त जातलो. म्हजी घराची ही संकल्पना. ती म्हजी एक हाय फिलॉसॉफी. हांवें घर बांदून पळयलां आतां ताका घरपण येतलें काय ना हें पळोवचें आसा.



(जुलै २००६)

# म्हजी गांधीगिरी

**गांधी** एकदां दसलो काय तो कित्याक सुटना? हाचें म्हाका पयलीं अजाप दिसतालें.

कोणय सुर्वेक गांधीवाद आपणायताले. गांधीचे विचार, आचार, चलणूक सगळे बाबतींत प्रभावीत जाल्ले देशांत खुबशे गांधीवादी आसात.

गांधीजी खादिचे पुरस्कर्ते. म्हाकाय खादी आवडटा. पूण बरी खादी. स्टार्च केल्ली, कडक! कांय गांधीवादी सुटके झुजारी दाग पडिल्ले, रंग वचून हळदुवसाण मारिल्ले सदरे बी वापरतना पळोवन म्हाकाय खादी नाका दिसता ही गजाल वेगळी. हांव विचारांनी फकत गांधीवाद पाळटां. पूण व्यसनां करप ना, फट उलोवप ना ह्यो गजाली म्हाका आवडनांत. तश्यो त्यो हेरांकूय आवडनांत आसतल्यो. तरी ते लोक गांधीवादाक दसून कशे रावतात, कित्याक रावतात हो म्हाका प्रस्न पडप! पूण ताची जाप म्हाका हालींच गावली.

लोक म्हळ्यार जे कोण गांधीवादी आसात ते आपल्याक जाय म्हण आपले इत्से प्रमाण गांधीवाद पाळिनांत. गांधीच तो तांचे मानगुटेर बसून पाळून घेता. तांकां एकदा तो दसलो काय सोडूंक सोदिना.

हांवें निर्णय घेतिल्लो ही गांधीगिरी म्हाका जमपाची ना. ते परस म्हजी ती हाय फिलॉसॉफीच बरी. तकलेक ताप नासता. जाय तेन्ना जाय तशी बदलूं येता. गांधीगिरी आपशींच बदलना आनी मर्यादा पडटा. म्हजे खातीर

न्हय तरी गांधी खातीर तरी! म्हणटकच गरजे भायर मनस्ताप नाका म्हण हांवें गांधीजीकूच म्हजे पासून पयस दवरपाचो थारायल्लो.

आतां हांवें पयस दवरलो म्हूण तो पयस वचूं नाका? तो म्हाका खट कसो दसून रावता. जाण्टेलो म्हूण हांव गांधीजीकडेन पाशीयेंस काडटां.

''बापू, आतां कितें जालां तुजें?'' नेहरूंच्या उबगल्ल्या आवाजांत हांवें प्रस्न केलो.

''तुकां खबर आसा. हांव एकदां कितें तकलेंत घेतां तें प्राण गेलो तरी सोडिना.''

वक्लांतल्यान दोळे वयर करीत हट्टीपणान बापून म्हळें.

आतां हाणें तकलेंत कितें घेतलां कोणाक खबर! हे जाण्टेले आपल्याक जाय तें तकलेंत घेतले. घेयात! आमकां भुरग्यांक रे ताची ख्यास्त कित्याक?

''तें हांवें वेंचणुकेचें मनार घेतिल्लें पळय!'' बापून आपले भितर धुसफुसत उबगूनशें म्हळें. जाता अशें जाण्टेपणार, अपेक्षाभंग जातकच! ह्या जाणट्यांनी जाण्टेपणार तरी हट्ट सोडूंक जाय. दोतोर विलीक बिलीक तें एक सोबता. पूण गांधीक न्हय! तरी आमचो तो राष्ट्रपिता. मात्सो सांबाळून घेवंक जाय! ना तर दिसपट्टी ताचेर नदर ही घालूंकच जाय न्ही! सक्काळीं पेपर-दूद हाडी पासून रातचें सोऱ्याचें बील फारीक करी मेरेन!

''बापू तुकां हांवें फाटले खेप त्या चर्चीलाकडें व्हरून सोडिल्लो न्हय. सेव गोवा पक्षाची उमेदवारी घेवपा खातीर!''

दोगांयचोय प्रस्न सोडोवपा खातीर केल्लें हांवें तें! चर्चीलाकूय एक उमेदवार मेळपाचो आनी वेंचणूक लडोवपाची बापुचीय उमेद पुराय जावपाची! पूण हो थंयच्यान परतल्लो आनी म्हजो जीव खातालो!

''तो चर्चील काय कोण तो मनीस रे?'' बापुजीन पिरंगून म्हळें.

''मनीस काय म्हण कितें विचारता बापू? तुजे सारकोच मास लिडर तो! तुज्या मना सारकें जालें ना! जाल्यार तूं उपासाक बसतालो. हो हेरांक उपाशीं मारता. तुकां कितें केलें ताणें?''

''म्हाका कांय केलें ना. हांवें तुजें नांव सांगलें. तुवें धाडला म्हूण. तर म्हाका सकयल वयर पळयत विचारूंक लागलो, तूं रोमीचो सपोर्टर काय म्हूण! हो रोमी कोण?''

तकली खरपीत बापुजीन म्हाका प्रस्न केलो. आतां रोमी कोण? हें हाका कपलाक सांग. खबर ना तेंच बरें आशिल्लें. हांवें म्हळें, सोडून घाल ती बापू गजाल.

''हांवें ताका सांगलें हांव म्हात्मा गांधी म्हूण! तो विचारता, तूं म्हात्मो? पणजेचो काय वास्कोचो? मागीर ताणें एका दाट्ट मिश्यांच्या भुरग्याक उलो मारलो. 'विजोय हिंगा यो चोवया. हेका चोय मातसो. हो आपूण म्हात्मो म्हुण्टा! तुगे सोयरो आसतोलो बायले वाटेन! तेका दी चोवया कियें जायें तें.' अशें म्हणटकच तो दाट मिश्यांचो म्हजे कडेन आयलो. चर्चील दिसता आकांत. पूण म्हात्मो म्हूण सांगतकच नमळायेन उलयलो. पूण हो कोण विजय सरदेसाय काय कोण तो सामकोच पियोंर! ताणें आडूनच म्हळें, 'ओ तो हांगा यो रे! तुकां कितें जायें? आमचें आमकां नाकां जालां हिंगा. फातोड्डे मुरे तूं? चोल बोस तिंगा ओगो. ही घे बाटली आनी मार सुशेगाद!' अशें म्हणून ताणें म्हज्या हातांत विलायती हिस्की बाटली दिली. नवोच बॅरिस्टर जाल्लों तेन्ना इंग्लंडाक पळयल्ली ती आतां पळयतालों. बरें दिसलें. पूण अशें करप म्हाका ताणें?''

बापून दोळ्यांत दुकां हाडून म्हळें.

''बापू, आसूं विसर तें! भुरगो आसा तो विजय. फातोड्डेचीं कॉंग्रेसची उमेदवारी मेळटकच थंड जातलो.''

''पूण कोण हो विजय?'' बापू दातांत धरिल्लें सोडिनाशिल्लो.

''बापू, तो रवीन्द्र केळेकाराचो भाचो. सारकें सांगपाचें म्हळ्यार.''

त्या बराबर हो केळेकार कोण हें बापुजी चितूंक पडलो. म्हळें हांव सुटलों. पूण म्हाका सोडल्यार तो गांधी कसलो?

''ते वेंचणुकेचें कितें करुया?''

आतां मात म्हजें चवताळ्ळें. म्हळें ''बापू पळय, हांगा उमेदवारी खातीर कितें कितें घडटा तें तुवें पळयलां. हांगा बापूय पुताक वळखना आनी बायल घोवाक. तातूंत तूं भायलो. घाटी. गोंयांत सुटके झुजा खातीर देशांतलो इतलो लोक वांटेकार जालो, बॉर्डर हुपून परत परत गोंयांत आयले तरी तुवें एकदांय हे भुंयेर पावल दवरूंक ना. तुकां उमेदवारी दिली जाल्यार पयलीं हरकत घेतले ते हांगचे सुटके झुजारी. तांची अजून हांगा पत आसा. दुसरी गजाल तुकां विनेबिलिटी ना. नोटींचेर तुजो फोटो आसप वेगळें आनी बोल्सांत नोटी आसप वेगळें. कळटा न्हय तुकां?''

म्हज्या स्पश्टवक्तेपणान बापुजी दुखावलो.

''तूं म्हाका घाटी म्हणटा? तूं धर्मानंदाक वळखता?''

बापुच्या प्रस्नान आतां हांव गोंधळ्ळों. हो खंयच्या धर्मानंदाविशीं उलयता काय? धर्मानंद कामत दिल्ली आसता. कितलींऽ वर्सां जालीं ताका हांवें पळोवंक ना. दुसरो धर्मानंद वेर्णेकार. तो हांगाच आसता. पूण ताका पळोवंचें दिसना.

''खंयचो धर्मानंद म्हणटा तूं बापू?''

''तोरपाशोरा, धर्मानंद कोसंबी म्हणटां हांव.'' बापू तिडकलो. ''आरे, हो धर्मानंद गोंयचो. ताची समाधी वध्र्याक आसा. सामकी बेवारशी कशी! जागतीक किर्तीचो मनीस तो, म्हजे उपरांत कोणेंय नांव घेवंचें तर तें ताचें! सगळो संवसार जेन्ना म्हजी फाट खरपितालो तेन्ना हो बापू, तुमच्या त्या धर्मानंद कोसंबीची साक घेवन फाट घांसतालो. आनी हे लोक म्हाका विचारतले. 'तूं गोंयकार काय म्हणून?' तुमी खरे गोंयकार

जाल्यार कोसंबीच्या समाधी कडेन लक्ष दियात.''

बापू सात्वीक संतापान सामको तांबडो जालो. ताका हांवें घाटी म्हणिल्लें. पूण सत्य उलयलों आनी फसलों. तरी ह्या मनशा खातीर कितें तरी करचें पडलें आतां. हांवें ताका सांगलें. ''बापू, हें पळय तुकां विधानसभेंत काय चान्स ना. लोकसभेंत वचपाची संद आसा. कित्याक चर्चील लोकसभेचो राजीनामो दिता. पूण हांगाय तीच भानगड. विधानसभा वेंचणुकेंत खावपी तोंडां तरी थोडीं. लोकसभा मतदार संघ, तातूंत दक्षीण गोंय म्हणटकच खावपी पिवपी तोंडां चड. तातूंत तुजो फोटो दरएक नोटीचेर आसा. तुका उमेदवारी दिल्यार वेंचणूक आयोग सगळ्यो नोटी रद्द करतलो वा तुका आचार संहितेच्या नांवान पिडटलो. तेन्ना वेंचणूक लढोवपाची भानगड तूं सोड! तुकां तें जमपाचें ना.''

''पूण एक गजाल करूं येता! शांताराम नायक राज्यसभेर गेला. ताची टर्म सोंपतकच तुका राज्यसभेर धाडपाची वेवस्था करूं येता.''

म्हजें हें समजावप ताका खंयतरी पटलें. राज्यसभा म्हणटकच मातसो भुल्लुसलो. तरी हांवें ताका म्हळें, ''राज्यसभा म्हणटकच असो फुकट सुट्टलो अशी कल्पना करूं नाका. विधानसभा, लोकसभा ह्या वेंचणुकांत पयशे उमेदवारी मेळोवपाक श्रेश्ठींक आनी उमेदवारी मेळ्ळी म्हणटकच निवडून येवपाक मतदारांक घालचे पडटात. हांगा उमेदवारी मेळोवपाक तुका पयशे दिवपाची गरज ना. पूण तुकां मतदान करात म्हण आमदारांक पयशे दिवंचे पडटले. तुजेकडेन तर ते नाच. पूण भिवपाची गरज ना. हें पयशे दिवपाचें काम गोंयचे मिनेर करीत आयल्यात. फकत राज्यसभेर पावतकच दिल्लीचीं तांचीं कामां तुवें करपाचीं! तूं तांचो एक दलाल म्हूण ते तुका राज्यसभेर धाडूंक पयशे घालतले.''

म्हजें उलोवप गांधीच्या माथ्यावेल्यान गेलें. ताचे तकलेंत फकत राज्यसभा आशिल्ली. दुडवांची वेवस्ता करूंक पयलीं ताका घेवन हांव

धेंपो हावजांत गेलों. बाबाक मेळ्ळों. बाबाक दिसलें हांव जायरात मागूंक आयलां. आतां हांव असलींय कामां घेतां हें पळोवन ताच्याय जिवाक बरें दिसलें. पूण ताणें सरळ सांगलें आमी ह्या गांधीक वळखनांत. आमी वळखताले ते इंदिरा गांधीक. आणिबाणीच्या काळार जी कितें मदत करपाक जाय आशिल्ली ती आमच्या घराण्यान जिपी बी दिवन केल्ली आसा. शहा कमीशनान चौकशी बी करून आमकां जें कितें भोगोवपाचें आसा तें भोगयलां आनी हिशेब मेकळो जाला. तुजें आनी आमचें देणें घेणें ना.

बापूक घेवन हांव अनिल साळगांवकाराकडेन गेलों. ताणें गांधीजीक पळोवन न वळखल्लेवरीं केलें. हांवें निर्लज्ञा सारको ताचे कडेन ताची वळख केली. अनिल साळगांवकारान सांगलें हांव वळखतालों तो फकत राजीव गांधीक. ताणें दिल्ली 'ऍरो क्लब ऑफ इंडिया' स्थापन केलो तेन्ना ताका पयली देणगी दिवपी आपूण. फट दिसता जाल्यार वचून पळयात. देणगीदारांत दुसरें नांव म्हजें आसा आनी दुसऱ्या खंयच्याच गांधीक हांव देणें ना.

आतां थंय रावपांत अर्थ नाशिल्लो. शेवटाक एकूच उरिल्लो तो चौगुलो. बापूक घेवन चौगुल्या कडेन गेलों. चौगुलो गांधीक वळखलो. तरी दुडवांचो प्रस्न येतकच शादूर जालो. म्हणूंक लागलो, 'मोरारजी देसाय तुजो भक्त, तातूंत तुजो गांवभाव. तेच पासत तो जेन्ना प्रधानमंत्री जालो तेन्ना ताचे कडचो एक चरखो हांवें फकत तुजे मोगा खातीर गोंयां हाडलो आनी म्हजे शिरगांवचे खणीर दवरलो. तितलेंच हांव करूंक शकलों. आतां आनीक कितें तुजे खातीर करपाचें उरलां अशें म्हाका दिसना.' अशें म्हणत ताणें बापूक नमस्कार केल्ल्या भशेन केलें आनी उठून गेलो.

दुडू मेळपाचें निमणें साधन अशें उठून गेल्ल्यान गांधीजी पुरायेन निर्शेलो. म्हणूंक लागलो, 'दिलीप, तूं हेदोळ तो कोण म्हणटालो?'

हांवें म्हळें, 'विजय सरदेसाय.'

''तो न्ही, ताचो तो कोण मामा! फाटले खेप तुवें व्हेल्लो पळय! म्हाका एकलोच वळखुपी आसा तो.''

बापूक आतां रवीन्द्रबाब येवजलो तें म्हाका कळ्ळें. ताका घेवन परतून पिरवळा गेलों. रवीन्द्रबाब ध्यानमुद्रा लावन 'सत्याचे प्रयोगा'चें मनन करतालो. गांधी आयला म्हणटकच ताकतीकेन भायर आयलो.

दारांतूच उबो रावून बापून रवीन्द्रबाबाक म्हळें, ''रवीन्द्र म्हाका गोंयांत फकत चार लोक वळखताले. एक पुरषोत्तम काकोडकार, निकुबाब कारापुरकार दुसरो, तिसरो र.वि. पंडित आनी चवथो तूं. ते तिगूय वयर गेले. आता तूं जमता जाल्यार एक काम कर. ह्या गोंयचें कांय खरें न्हय. म्हाका मातसो व्हरून वर्ध्याक धर्मानंद कोसंबीच्या समाधी कडेन उडय. तिचेर तकली दवरून हांव ताका शरण वतां.''

इतलें म्हणून बापुजी अंतर्धान पावलो.



(मे २००७)





# नाका नाका संगत नाका!

**मनीस** कसो व्हांवत वता, आपली स्वताची फिलॉसॉफी विसरत वता ताचें जिवंत उदारण म्हळ्यार हांव.

हांवें म्हजी एक फिलॉसॉफी थारायल्ली आनी तिकाच हाय फिलॉसॉफी मानून हांव सुखान दीस सारतालों.

पूण त्या 'लगे रहो मुन्नाभायन' पुराय देशांत खवदळ केलो आनी हांवेंय म्हळें कोशांत रावपाचे म्हजे फिलॉसॉफीक कांयच अर्थ ना. गांधगिरी आपणायत जाल्यार म्हजें सोड जगाचें तरी कल्याण जातलें.

जगाच्या कल्याणार्थ कोणाच्यो तरी विभूती अशें हांवें आयकल्लें. त्यो म्हज्योच बी आसत म्हूण हांवें गांधीगिरी आपणायली. पूण ताका लागून जे मनस्ताप भोगले ते सोसपाचे न्हय. गांधीच्या लेगीत सहवासांत दीस काडले आनी शेवटी ताकाच वर्ध्याक साऽ करून हांव मेकळों जालों.

एक गजाल खरी. हांव म्हजे फिलॉसॉफींतल्यान थोडो काळ भायर सरून गांधीगिरीचें मुक्त जिवीत जियेलों. हे गांधीगिरीक लागून म्हज्यांत एक आत्म विस्वास जागृत जालो. म्हळें म्हजे फिलॉसॉफींत जिका हांव जरी हाय मानीत रावलों तरी आयचे परिस्थितींत तिका जनमानसांत म्हत्व ना. काळाची म्हणात वो लोकांक म्हणात गरज निर्माण जाल्या. लगे रहो मुन्नाभायन ती जागयल्या आनी म्हजी फिलॉसॉफी किंकोंत करपी म्हजे सगळे वांगडी गांधीगिरीन उचंबळीत जाल्यात.

जेन्ना मागणी आसा तेन्नाच, म्हणचे पावस पडटा तेन्नाच बेबकांनी हुडक्यो मारूंक जाय ह्या प्रॅक्टीकल अणभवान हांवेंय म्हजी फिलॉसॉफी खुटयाळ्याक लावन गांधीगिरी वेंगायली. ताचें बरें फळूय दिसूंक लागिल्लें.

समाजांत बदल घडोवन हाडून क्रांती करपाचीं सपनां रंगोवपी म्हजे इश्ट भ्रश्ट लोकांक फुलां भेटयताले. गोवा बचाव अभियानाच्या नांवान गोंयच्या खाची कोनशांनी वचून जागृताय घडयताले.

म्हळें जेपीची संपूर्ण क्रांती ती हीच. गांधी शेवटीं पावलो आमकां. हांवूय तांच्या चक्रांत फारकून म्हजी फिलॉसॉफी विसरलों.

तरनाट्यांचें 'अभियान' जाल्यार जाण्टेल्यांचें 'जागृत गोंयकार'. अरविंद भाटीकार, गुरूनाथ केळेकार बी सगळे पेटून उठले. अशें जेन्ना सगळें मना सारकें जुळून येता तेन्ना ती सगळी करणी त्या महात्म्याचीच. तेच पासत म्हजे गांधीगिरीक फाटले कांय म्हयने ओतो आयिल्लो. हांव पुराय गांधी जाल्लों. पंचो आनी माथ्याचे केंस ह्यो दोनूच गजाली सोडीत जाल्यार हांव गांधी न्हय अशें कोणूच म्हणूंक धजऽ नाशिल्लो.

बाबुशान एक झाड माल्लें कितें आनी आमचे गोंयचे तरनाटे पेटून उठले कितें, गोवा बचाव अभियान सुरू जालें कितें! सगळेंच अप्रूप म्हळ्यार जाता. तातूंतच गोंयच्यो पंचायतीच्यो आनी विधानसभेच्योय वेंचणुको जाहीर जाल्यो. हें सगळें मुदयेर थीक कशें जुळून येवंक महात्म्याचो आत्मोच गोंयचेर भोंवाड्यो मारता हाची म्हाका खात्री जाली.

जे लोकांनी नातरांक-पणटुरांक खेळोवपाचें, आपलें जाण्टेंपण देव देव करीत घालोवपाचें ते लेगीत आपूण 'जागृत गोंयकार' हाची जाणविकाय जाल्ल्यान रस्त्यार देंविल्ले. लोकशक्ती म्हूण एक शक्ती आशिल्ली. ती शक्तीहीण जाल्ली अशें दिसतालें. पूण कितें कोण जाणां नव्या जोमान, नवी शक्ती घेवन सांवार आयिल्लेवरीं मुखार सरली. देवाची करणी आनी नारळांत पाणी हें म्हज्या सारख्या बोंड्याक कोणें सांगपाची गरज नाशिल्ली. म्हळें जालें! गोंयचें भांगर जालें!!

जीव तोडून म्हजी गांधीगिरी सुरू! अरविंद भाटीकार फोन करता, 'दिलीप, आयज हळदोण्या मिटींग, फाल्यां ताळगांवां मिटींग, परवां कुंभारजुव्यां. भ्रश्ट लोक वेंचणुकेंत उडोवपाचे!'

हांव पयलींच फुलगो. तातूंत भाटीकारा सारख्या आय ए एस् अधिकाऱ्यान फुलयतकच रावतां? कानांत वारें गेल्ल्या पाडका भशेन उडक्यो मारीत भाशणां सुरू. 'हो नाका, तो नाका, हो नाका, तो नाका.'

'नाका'क आदार म्हण एक पुर्णानंद च्यारी कडल्यान पद लेगीत बसोवन घेतलें. भांगराळें गोंयाक सोबऽ सारकें. ''नाका नाका नाका नाका संगत नाका असल्या मवाल्यांची संगत नाका.''

भाशणां करून करून खर्शेलों. तरी नानाकार सोंपना. तेन्ना म्हजी काकुळट येवन एका गरीब धाकट्या मनशान विचारलें, ''आरे सभाग्या, हो नाका तो नाका म्हणटा. जाय कोण तें तरी सांग मरे पापया. तूं रावता? आमी दितात तुकां मतां!''

आयकून हांव चाट पडलों. हो विचार हांवें करूंकच नाशिल्लो. हांण्णीर आसा कळसो आनी गांवांक सगळो वळसो. हे मतदार पयशे घेवन मतां मारतात अशें आमी आड्डुतात. पूण ते अशेय विचार करतात म्हणपाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली.

आमचो पणजे सतीश सोनक आसा ना तर झांशीची राणी पॅट्रेसिया आसा. सांत आंद्रे हांव आसां, हळदोण्या सुश्रुत मार्टीन्स आसा. ताळगांवां ऑस्कार रिबेलोक दवरूं येता. भाशणां करपी आमचे आसातूच. अमको अमको नाका अशें सांगतनाच 'तुमचे मुखार आमी पर्याय दवरला. कसलेंच खत नाशिल्ले हे आमचे उमेदवार. दियात तांकां निवडून. धाडात तांकां विधानसभेंत' अशें सांगल्यार लोक आयकतले.

पिंपळाच्या रुखा सकयल बसऽ नासतना बुद्धा भशेन म्हजेय तकलेंत उजवाड पडलो. जागृत गोंयकारांक मेळ्ळों, अभियानाक मेळ्ळों, उठ गोंयकारांक उठयले. म्हजे तकलेंतले विचार घसाघसा तांच्या मुखार

ओतयले.

म्हजें हरशीं हे लोक आयकच नांत. पूण हें मात थंड चित्तान आयकलें आनी सगळे खो खो करून हांसले. म्हणूंक लागले पिसावला तूं! आमकां नाका ती भानगड. आमी फकत राजकारणांतली घाण पयस करुंया. चल, आमचे वांगडा भाशणां करूंक यो!

हांव गोंदळ्ळों. गोंयचो सामान्य मतदार सांगता तें खरें काय हे फुडारी सांगतात तें खरें?

तेन्नाच म्हाका विश्वजीत राणे मेळ्ळो! तो काँग्रेसीचो हें हांव जाणां आशिल्लों. काँग्रेस हाऊस जें मोडिल्ली बाबरी मशीद दिसतालें तें ताणें चकचयाळ करून उडयल्लें. गरमेंत हांगा थंय भाशणां करून थकतकच थंय वचून एसींत बसून सुसेग घेवंक मेळटालो.

थंयच बशिल्लो आसतना तो आयलो.

ताका म्हळें, 'तुजे आड ना हांव आं! तूं निवडून येतलोच आनी काँग्रेसचो मंत्री जातलो.'

म्हजें आयकून ताणें म्हळें, 'हांवें काँग्रेस सोडली. हांव वाळपयचो अपक्ष उमेदवार. हांव हांगा आयलां तो जेश्ठ काँग्रेस फुडाऱ्याचो पूत म्हणून!'

तो कितें सांगता तें म्हाका बरें कळ्ळें ना. गांधीगिरीक लागून म्हजी फिलॉसॉफी समजुपाची तांक कमी जाल्ली जावये!

''म्हणटकच तुवें हें काँग्रेस हाऊस कोणा खातीर बांदलें तर?''

बाबडो जावन म्हजो प्रस्न. तसो तो हांसलो. म्हणूंक लागलो, हिकाच हाय फिलॉसॉफी म्हणटात. ती गांधीगिरी न्हय. गांधीगिरीन पोट भरना. पोट भरतलो जाल्यार आपली फिलॉसॉफी सांबाळूंक जाय.

आनी म्हाका म्हजे फिलॉसॉफीची याद जाली.



(जून २००७)

# म्हाका तिकेट कित्याक?

**सद्या** गोंयांत कॉमीक पळोवंक मेळटा. गोंयचें राजकारण सोडलें जाल्यार हालीं तेंपार कॉमीक गजाली गोंयांत पळोवपाक उण्योच!

राजकारणांत देंवप वो पडप ही गजाल एका काळार व्हड त्यागाची गजाल थारताली आनी ते समाजसेवेकडे लोक आदरान पळयताले. राजकारणांत सक्रीय वांटो घेवपी मनीस तसोच देशप्रेमान उपाट्ट भरिल्लो आसचो पडटालो. ताका आपल्या घरादाराची होळी करपाची पडटाली. आपल्या भुरगे-बाळांक उबंत उडोवंचें पडटालें. ताका लागून जे कोण समाज सेवेचें व्रत घेवन राजकारणांत देंवतात ते चडशे संवसारीक प्रपंचांत पडप टाळटाले.

आतां हें सगळेंच उरफाटें जालां. हालीं जाका ही असली समाजसेवा करपाची आसता ताका पक्षाची उमेदवारी घेवपाक लटाफटी करच्यो पडटात. लाख्खांनी रुपया टिकेटी खातीर दिवंचे पडटात खंय! पणजेची उमेदवारी घेवपाक दिनार तारकारान एक कोटी रुपया दिल्यात अशें लोक उलयतात. हांवें ह्या दिवप्यांक आनी घेवप्यांक लागशिल्ल्यान पळयल्ले कारणान एक कोटी नासले तरी कांय लाख आसूं येतात. तातूंत कितें लटीक आसा अशें म्हाका दिसना. दिसता ती कॉमीक!

आरे कोणें सांगलां हें, तिकेट घेवंक लाख आनी कोटी दी म्हण! मागीर तिकेट मेळटकच परतून लाखांनीच न्हय तर कोट्यांनी रुपया मतां मेळोवपा खातीर मत्तदार संघांत ओत! बाबुशान ताळगांवां आपूण वेंचून येवंचो म्हण आनी ताळगांवां आपली बायल जेनिफर वेंचून येवंची म्हण कोट्यांनी रुपया मोडल्यात खंय! थंय पिरवळा जो रवीन्द्र केळेकाराचो मतदारसंघ, त्या मतदारसंघांत दिपक ढवळीकारान खंय वेंचून येवंक पांच कोटी खर्च केले.

आतां एक कोटीचेर कितलीं शुन्यां आसतात आनी हे इतले दुडू कशे खर्च करपाचे आसतात हाची जाणविकाय जरी म्हाका नासली तरी एक कोटी म्हळ्यार शंबर लाख इतलें तरी कळटा आनी म्हाका जर कोणेंय थोडे लाख दिले वो म्हजे कडेन आसले जाल्यार समाजसेवा करूंक ही पक्षाची टिकेट विकती घेवंचे परस हांव विमानाची टिकेट काडून हो पुराय संवसार भोवून पळोवपी.

हो संवसार इतलो सुंदर आनी तातूंत इतलीं अचर्यां भरल्यांत की तीं पळोवंक एक जल्म पावचो ना. संवसारांत इतले तरातरांचे लोक आसात की तांचे चाल-चलणुकेर, रिती-रिवाजांचेर एक धांवती नदर भोंवडायतलों म्हळ्यार पासून हें आयुश्य पावपाचें ना. तेन्ना लाख्खांनी रुपया खावोवन उमेदवारी घेवप, मागीर लाख्खांनी रुपया मतदारांक लाटून वेंचून येवप तेंय बी ह्या समाजाची समाजसेवक जावन सेवा करपा खातीर! कोणें सांगलां हें म्हज्या सारख्याक?

अशें आसलें तरी म्हाका विधानसभा, लोकसभा म्हणटात त्यो पवित्र सुवातो अशें अजून दिसता. दिसता म्हणचे परस हांवें शिक्षण घेतिल्ल्यान तशें म्हाका गिन्यान मेळ्ळां. तें मेळ्ळां देखून ह्या दोनय सभाघरांकडेन हांव आदरान पळयतां. ते पवित्र सुवातेर लोकांचो प्रतिनिधी म्हण वचपी, तसोच

पवित्र, उच्च विचारांचो, बुदवंत, समाजसेवेची तळमळ आशिल्लो, बऱ्या पयकी वाद–विवाद करपी, आपल्या मतदार संघाचे प्रस्न पुराय ताकदीन सभाघरांत मांडपी आसूंक जाय हें हांव अजून मानीत आसां.

आतां जे कोण लाख्खांनी–कोट्यांनी रुपया, तेय आपल्या बोल्सांतले मोडून थंय वचूंक सोदतात तांकां समाजसेवेची तळमळ आसा. देखून ते तशे करूंक धडपडटात हातूंत म्हाका दुबाव घेवपाचो ना. हांव तशें करिना कित्याक तर म्हजे कडेन दुडू ना आनी तितली समाजसेवेची तळमळूय ना. मोग आसल्यार गरम वडे घाटार पावतात खंय! तशी समाजसेवेची तळमळ आसल्यार दुडू खंयच्यानूय येंव येता. पूण असली समाजसेवा करूंक म्हजी कसली गरज आसा? तरीय पूण जेन्ना आपल्या बोल्सांतले वो हाचे ताचे कडच्यान घेवन ते मतदारांक दिवन हुवाळून उडयल्ले लोक जेन्ना आमदार मंत्री जावन विधानसभेंत बसतात तेन्ना नाय म्हळ्यार म्हजे फिलॉसॉफीक खंय तरी वेर वता. दिसता, आरे हांगा तर हांवें वचपाचें! नातर म्हजे सारख्याच विचारांची एक स्वतंत्र बैठक आशिल्ल्या लोकांनी वचपाचें. पूण आमकां कुशीक दवरून जांकां कसलेच विचार नात ते लोक थंय कित्याक वचूंक सोदतात काय?

कित्याक वचूंक सोदतात तें म्हाकाय सारकें उमगूंक ना. तें उमेदवारांक आनी मतदारांक बेस बरें कळ्ळां आसूंक जाय. तेच पासत निवडून येवंक आनी निवडून हाडूंक ते धडपडटात, जिवाचें रान करतात.

म्हाकांय केन्नातरी हो अणभव घेवपाचो आशिल्लो. एराज्म शिकेरीन मुखार धुकल्लो म्हूण हांवूय एक –दोनदां वेंचणुकेंत पडलों आनी पडलोंय. दुडवां मुखार म्हजी हाय फिलॉसॉफी मतदारांक व्हडलीशी पचली ना. 'बरो मनीस, कितेंय तरी करूंक शकता पूण बाबड्या कडेन दुडू नात. घराचे वण्टीर ताचो फोटोच लावपाचो.' अशें कितें तरी तांचे विचार

आशिल्ले. आतां बस चुकल्या. परत बस स्टॉपार नाका. आतां वावुरपाचें तें ह्याच लोकां खातीर! टिकेट मेळोवन दिवपा पासून निवडून हाडऽ मेरेन. कित्याक तें करतना तरी एक कोटीचेर कितलीं शुन्यां आसतात तें तरी जाणा जावन घेवंक मेळटलें.



(जुलाय २००७)

# साहित्यीकाची वट

**म्हजी** अयस पयस बेडरूम. तातूंत अयस पयस बेड. बेडाच्या दावे वटेन आनी सामकार दोन विस्तृत जनेलां. म्हाका बेडाचेर पडून ह्या जनेलांतल्यान दिसपी रातचें मळब पळोवंक आवडटा. मळबांतलीं रातचीं कुपां, नखेत्रां, पावसांतल्या उमाशेचीं काळीं कुपां, पुनवे रातचीं कापशी कुपां. तीं पळयतां पळयतां विविधभारतीवेलो छायागीत हो कार्यक्रम आयकप वो आनीक कसल्या गीतांची कॅसेट वा सीडी लावन आयकत रावप. कुडींतले सगळे दिवे बंद करून मनांत उजवाड करीत..!

आतांय हांवें सीडी घाल्या. सतीश सोनकान म्हाका म्हणिल्लें, अमृता प्रीतमच्या कवितांची नवी सीडी आयल्या, गुलजारान आपल्या आवाजांत म्हणिल्ल्यो. केन्ना एकदां घेवन येतां अशें जाल्लें. पूण म्हळें ना. अंक तयार जावंक जाय. संपादन जालां सगळें. पूण हायली फिलॉसॉफिकल कॉलम आनी संपादकीय उरलां. सीडी हाडली जाल्यार तीच आयकत उरतलों. अमृता प्रीतमय म्हजी जिवाभावाची आनी गुलजारूय. पयलीं अंक तयार करून छापूंक धाडपाचो आनी मागीर हांव, अमृता प्रीतम आनी गुलजार. म्हज्या बेडरुमांतल्या जनेलांतल्यान दिसपी मळबांत.

पूण म्हाका थार खंयचो? पयलीं वचून सीडी घेतली. एक सीडी साडे तिनशीं रुपया. वांगडा कवितेचें पुस्तक. कितें करूं? पयलीं सीडी आयकूं

काय पयलीं कविता वाचूं! सीडी आयकतां आयकतां कविताय नदरेखाला घालपांत एक आगळी मजा, आगळी खोस आसता. पूण गुलजाराचो आवाज, ताका भुपिंदर सिंगाच्या संगीताची साथ आनी अमृता प्रीतमचें भावविश्व ह्या सगळ्यांची रूच घेतना जाय तें म्हज्या जनेलांतल्यान दिसपी मळबूच.

चानण की फुलकारी तुरपन कौन भरे!

अंबर के आले पर सूरज रोशन कर दूं

मन की ऊंची ममटी पर दीया कौन रखे!

गुलजाराच्या त्या खर्जांतल्या आवाजाचेर स्वार जावन अमृता प्रीतम थेट काळजाचेर देंवता...

म्हजे प्रमाणेच म्हज्या हेर सांगात्यांक ह्या लोकांनी पिशें लायलां. हें पिशें आतांचें न्हय. ३९ वर्सां पयलींचें हें पिशें अजून आमी घेवन आसात. नंदकुमार कामत, सतीश सोनक, धर्मानंद वेर्णेकार, सुबोध केरकार मागीर मुंबयचे ध्रुवा रेडकार सारके कितले जाण तरी.. कोण अमृता प्रीतमचें नवें पुस्तक आयलें रे आयलें घेवन येता तर कोण साहिर लुधियानवी, गुलजार वा नारायण सुर्वे हांचें पुस्तक घेवन येता. मिरची पाव खावपाक पयशे नांत पूण हीं पुस्तकां घेवंक आमी फाटींफुडें पळयनाशिल्ले. आयज ३९ वर्सां उपरांतूय आमचें तेंच चलत आसा.

तेन्नाय आमी नारायण सुर्वे गोंयांत येता म्हण कळटकच ताका मेळूंक धांवताले आनी बाकीबाब बोरकार, रवीन्द्र केळेकार, पुंडलीक नायक, र.वि. पंडीत, रमेश वेळुस्कार बी गोंयच्या साहित्यिकांकूय मेळपा खातीर, तांचे कडल्यान साहित्याचेर, कवितांचेर उलोवंक आशेताले. आजूय चार दसकां उपरांतूय आमी साहित्यिकांक मेळूंक तितलेच आशेल्ले आसात. अजून आमी संद मेळटा तेन्ना वेगवेगळ्या भासांतल्या साहित्यिकांक मेळटात, तांचेकडेन नतमस्तक जातात.

पूण आज नवी पिळगी जेन्ना हांव पळयतां आनी जे कोण कविता,

कथा आनी हेर साहित्याची आपले परीन सेवा करतात तांचे मदीं ही भावना आसा काय कितें असो दुबाव येता. पयर ३० जुलायाक रमेश वेळुस्कार हांचेर 'लेखकाचे भेटेक' ही साहित्य अकादमीन एक कार्यावळ आयोजीत केल्ली. हेर राज्यांनी असली कार्यावळ आसत जाल्यार झाडून नवोदीत लेखक हजेरी लायतात. समकालीन लेखक दुसऱ्या लेखकाक आडनदर करतात हें एक समजूं येता. तांचे मदीं एक दुस्वास आसूं येता. आपले परस अमक्याक चड मान सन्मान मेळ्ळा, अमक्याक चड पदां मेळ्ळ्यांत हें कारण ताचे फाटल्यान आसूं येता. पूण जे कोण आतांच आपली वैचारीक बैठक तयार करतात ताणीं येवप ना हें मात अतीच जालें अशें म्हणचें पडटा.

मागीर म्हजी फिलॉसॉफी म्हाका धोंगशीता. विचारता, तूं जसो पयलीं व्हड व्हड साहित्यिकांक मेळूंक आंवडेतालो तशें आयचे पिळगेन तुजेकडेन पळोवचें? आदल्या साहित्यिकांची तशी वट आशिल्ली. तांचो तसो व्यासंग आशिल्लो. तांच्या विचारांत प्रगल्भताय आशिल्ली आनी साहित्य हें मिशन आशिल्लें. देखून तांचो प्रभाव तुजे सारकिल्ल्यांचेर पडटालो. ते तांचे हे चुंबकीय शक्तीन तुमकां ओडटाले. आयज तुजे भितर हातूंतली खंयची गजाल आसा? जाचे मालवजार आयचे पिळगेन तुजेकडेन ओडचें, नतमस्तक जांवचें अशें तुका दिसता? तें सोड, तूं एक रवीन्द्र केळेकार सोडलो जाल्यार गोंयच्या हेर साहित्यिकांक फाटल्या पंदरा दिसांत सोड फाटल्या वर्स भरयांत आपूण जावन वचून मेळ्ळा?

म्हजे कडेन जाप नाशिल्ली!



(ऑगस्ट २००७)

# अढळपद

**ध्रुवबाळाच्या** अढळपदान आमचें भुरगेंपण सामकें भारावन गेल्लें.

ध्रुवबाळ आपल्या बापायचे मांडयेर बसता. बापूय राजा. ताका दोन बायलो. एक आवडती दुसरी नावडती. आवडती येवन पळयता, ध्रुवबाळ म्हराजाचे मांडयेर बसला. ती येवन ताका मांडयेवेल्यान सकयल उडयता. ध्रुवबाळ रडत आपले आवयकडेन वता. आमकां नावडतीचो राग मारतालो तेन्ना.

आवय ध्रुवबाळाक समजायता आनी ताका सांगता तूं तपश्चर्या कर आनी अशें पद संपादन कर की तुका थंयच्यान कोणूच हालोवचोना. ध्रुवबाळ तपश्चर्या करता. सामकी खर! आनी ताका खऱ्यानीच अढळपद मेळटा.

हांव आयुश्यांतलीं बरींच वर्सां पदां घेनासतना रावलों. पदां घेवप ना कसलींच अशी हांवें म्हजी एक फिलॉसॉफीच थारायल्ली. म्हजे नदरेन हाय अशी.

पूण उपरांत होलमलें, पदां बगर कांयच करप शक्य ना. कितेंय कार्य करतलो जाल्यार पदांची गरज नासता हें मान्य. पूण पद नासत जाल्यार अधिकारान निर्णय घेवप शक्य जायना आनी दुसरे कोण घेतात तांच्या निर्णया प्रमाण काम करचें पडटा. लोकशायेंत मना आड, इच्छे आड कसलेंच काम करप म्हजे फिलॉसॉफींत बसना आसलें तरी करचें पडटा.

तेन्ना आतां हालींसराक दिसून आयलें की पदां हीं जायच. नातर कसलेंय काम करपाची शक्त आनी कळाशी आसा तिच्यो भोयोभोयो जातात. एकदां पिराय सरली म्हण्टकच पदां घेवन कांयच उपेग ना आनी नवी पिळगी तुका तीं घेवपाकूच दिवपाचीं नांत. तांचेंय बरोबर. आपूण लग्नाच्या हुंबऱ्यार उबो आसतना गलीतगात्र जाल्ल्यांक कोण सोयरीक हाडटलो?

सरपी काळाचें भान दवरून म्हाकाय दिसता कसलें ना कसलें पद म्हाका मेळचें अशें. नातर कर्तृत्व दाखोवंक वाव मेळना आनी हीं पदां तशीं कोण घरांकडेन हाडून दिनांत. ते पासत लटाफटी, खटापटी करच्यो लागतात. ही अक्कल म्हाका मात्शी उसरांच आयली. म्हळें आतां वय सरता, कितें करपाचें तें आतांच करपाचें!

उठून काँग्रेसींत भितर सरलों. राजकीय आशिर्वाद आसले बगर पदां मेळनांत हें हांवें निरिक्षणान पारखिल्लें. सगळ्यांत पयलीं सांतआंद्रे मतदार संघाची उमेदवारी मागली. म्हळें आमदार जावपाची लायकी आसा जाल्यार तरी पळोवया!

पूण रमेश चेन्नितला म्हण एकलो हाय कमांडाचो मनीस गोंयचो प्रभारी म्हण गोंयांत उमेदवारी वाटूंक आयिल्लो. म्हणूंक लागलो सिल्वेराक उमेदवारी दितात. तांचेकडेन मसल पावर, मनी पावर बी सगळे गूण आसात. जे जिकून येवपाक गरजेचें आसात. तूं ताचो इलेक्शन एजंट जा आनी ताका वेंचून हाड. तुजें काम राज्यसभेचेर. तुका थंय धाडुया. चाळीस दीस सिल्वेरा खातीर मरून काम केलें. ताचो ड्रायव्हर जालों, ताका भाशणां करूंक शिकयलें, ताचे खातीर वाड्या वाड्यार भाशणां केलीं, घरांघरांनी भोंवलों आनी सिल्वेर निवडून आयलो.

जॉन फेर्नांडीसाचो राज्य सभेवेलो कार्यकाळ सोंपलो. हांवें म्हळें आतां म्हजी वर्णी लागता दिसता. चलोऽ दिल्ली. पूण तेन्नाच एदुवार्द

बेकार जालो. सगळ्यांनी थारायलें ताकाच धाडचो, चेन्निंतलाचो रायटर प्रोफेसर हांगाच उरलो.

लुईझीनाक बाबड्याक म्हजी आयली काकूट. तो मुखेलमंत्री जाल्लो. म्हाका आफोवन व्हरून सांगलें आरे तूं कला अकादमीचो अध्यक्ष जा. ताणें मुदास्सराक आपोवन हाडून फायल तयार केली. ती करतां करतां संदेश नार्वेकार म्हूण बॉडी बिल्डर आयलो. म्हणूंक लागलो, 'सर, विष्णू वाघान सांगलां आपूण उपाध्यक्ष!' म्हळें बरे आसा. तशें मुदास्सराक सांगून फायल तयार केली. मुखेलमंत्र्यान सही मारली.

कशी कोण जाणां प्रतापसिंग राणेंक खबर कळ्ळी. तो हट्टच धरून बसलो. लुईझीन, रवीन आनी सार्दीनान ताका सांगलें, 'आरे, तूं सभापती. तुका कला अकादमी कित्याक जाय?'

म्हणूंक लागलो, 'हांव कला आदमीचो कांयच लाब घेना. गाडी लेगीत वापरना. म्हाका अध्यक्षपद जायच. बोरकाराक जाय जाल्यार उपाध्यक्ष जावंदी.'

लुईझीनान म्हज्या तोंडाकडेन पळयलें. म्हाका ताची काकुट आयली. म्हळें, 'हांवें विष्णूक उतर दिलां. हीं पदां अडेचीं. सरकार बदलता तशीं बदलतात. विष्णु आनी म्हाका कलेच्या एकाच मळार वावरूंक जाय. हांव सादो मेंबर रावतां.'

राणे अध्यक्ष जालो. मदीं सरकार बदल्लें तरी तो थंय आसा आनी अजुनय आसा. तेन्ना म्हाका प्रस्न पडिल्लो आनी अजुनय पडटा, ताणें कसली तपश्चर्या केल्ली म्हूण ताका हें अढळपद फाव जालें काय? भोवतेक आदले जल्माची पुण्याय आसतली!

तेन्नाच्यान हांवें पदाची आसूच सोडली. म्हळें गांठीक पुण्याय नासल्यार कांयच मेळना.

आनी आतां जाण्टेंपण लागीं येतां येतां परत पदांची आस लागल्या.

म्हाकाच दिसता, कितेंय करून दाखोवपाची म्हज्यांत शक्त आसा, तांक आसा. पूण एकूय पद खालीं ना. दिगंबर कामत मुखेलमंत्री जाला. ताकाय म्हजे विशीं आपलेपण आसा. म्हाका कितेंय दिवंचें अशें ताका दिसता. पूण प्रस्न आसा कितें दितलो?

मागीर कळ्ळें, साहित्य अकादेमीचो भाई मावज्याचो कार्यकाळ सोंपता. राज्य प्रतिनिधी म्हूण म्हज्यान वचूं येता. म्हज्या नशिबांत भोवतेक दिल्लीच आसूं येता. मुखेलमंत्र्याक म्हळें, म्हजी इत्सा आसा.

पूण ताचे आमदार–मंत्रीच ताका उदकाच्या कोंडांतल्या धाडयांनी, कोंडांत मासा कुडको बी पडटकच सगळ्या वाटांनी चोंचावचो तसो चोंचायतात. तातूंत म्हजें आनी रडगाणें कित्याक म्हूण हांव बाबडो ओगीच आसां. ताची काकूट येवन.

म्हजी फिलॉसॉफी म्हाकाच पिडटा ती ही अशी! ध्रुवबाळा सारकी तपश्चर्या करपाची तांक म्हज्यांत केन्ना येतली देव जाणां!



(सप्टेंबर २००७)

# काळजाचो वापर

**आंतरराश्ट्रीय** चित्रपट महोत्सवांतले आपल्याचे आवडीचे चित्रपट पळोवंक चित्रपट मोगी थेटराच्या भायर हे आदीं लांबच्या लांब लायनी करून उबे रावताले. सुवातो भरल्यो म्हणटकच तोंड वाकडें करून दुसरो पर्याय आशिल्लो चित्रपट पळोवंक त्या चित्रपटाचे लायनींत घुसताले. हाका लागून सगळ्यांच्या मनांत एक धाकधूक आसताली. आपल्याक चित्रपट पळोवंक मेळटलो काय ना हाचो दुबाव आसतालो.

पूण ह्या महोत्सवांत आयोजकांनी तो हुसको पयस केल्लो. आपल्याक जाय त्या चित्रपटाचो अभ्यास करून चित्रपट सुरू जांवचे पयलीं त्या खेळाची तिकेट बूक करपाची वेवस्था केल्ली. ह्या आयोजनाक लागून चड वेळ लायनींत रावऽ नासतना, कंप्युटराची स्क्रीन पळोवन आपल्याक खंयचो सीट जाय तें चित्रपट मोग्यांक थारावंक मेळटालें आनी ज्युस्त वेळार थेटरांत वचूंक मेळिल्ल्यान ताटकळत भायर उबे रावपाची गरज नासताली.

ही सगळी वेवस्था सुंदर आनी योग्य आसा हाचें समाधान मेळपा वांगडाच आपल्याची तिकेट आपणेंच काडूंक जाय ह्या नेमाक लागून तिकेट दिवप्यां कडेन थोडीं झगडीय जातालीं.

सतीश सोनक आपली तिकेट काडपा खातीर लायनींत राविल्लो. ताचे वांगडा ताची जाण्टी आवयूय सिनेमा पळोवपाक वचपाची आशिल्ली.





सतीशान तिचीय तिकेट हाडल्यार तिका बद्द एकेच खेपो आयनॉक्सांत वचपाचें पडपाचें. हे पिरायेर नजऽ आसतना एकदां तिकेट काडूंक यो आनी मागीर परतून एकदां सिनेमा पळोवंक परतून भायर सर अशें करपाची गरज नाशिल्ली. पूण हेर कडेन खंयच शिस्त आनी नेम न पाळपी तिकेटी दितना मात नेमाचेर बोट दवरून सतीशाक आवयक घेवन यो म्हूण फोर्सार करूंक लागले.

आतां सतीशूच तो! एक तर तुजे चित्रपटूच नाका आपूण आवयक घेवन घराच बसतां अशें सांगून निशेध मारून वचपी वो हेच संदीचो लाव घेवन हे घडणुके पासून हेरांक फायदो जातलो अशें कितें तरी करपी. ताणें तेंच केलें.

ताणें तिकेट दिवप्याक सांगलें, हें म्हजें कार्ड आनी ताचेर सोनक हें नांव आसा. दुसरें म्हजे आवयचें कार्ड आनी ताचेरूय सोनक हें नांव आसा. कार्डाविलो सतीशाचे आवयचो फोटो पळोवन मुर्खाक लेगीत कळपाचें की ही जाण्टी बायल मनीस आनी जाण्ट्यांक, सिनीयर सिटीजनांक वचत थंय प्राधान्य आसा. ही प्रिव्हिलेज देशान दिल्या आनी सगळ्या कायद्या नेमां मुखार सिनियर सिटिजनांक, दुर्बळांक प्रिव्हिलेज दिवप हो चड म्हत्वाचो नेम. पूण त्या मुर्खाक तें कळ्ळें ना. सतीशान तांचे कडेन वाद घालो. आयकना तें पळोवन मुखेल सचीव जे. पी. सिंगाक थंय हाडलो. मुखेल सचिवान त्या मुर्खाक सांगलें कायदो नेम सगळें बरें आसा. कायद्याचेर बोट दवरून काम करचे परस प्रसंग वळखून निर्णय घेवप चड गरजेचें. फकत बुद्धिचो वापर करूं नाकात तर काळजाचोय वापर करात.

हे घडणुकेक लागून इफ्फीची तिकेट घेतना मागीर काळजाचो वापर जालो आनी सतीशाच्या ह्या वावराक लागून बऱ्याच जाण्ट्यांचें लायनींत ताटकळत रावपाचें चुकलें. हें घडूंक पावलें तें सतीशाक लागून! पूण असो काळजांचो वापर आमच्या गोंयांत कितले करतात? म्हाका तर अणभव

आयला गोंयांत काळीज म्हणटात तें हालीं सराक कोणाक नाच. मागीर तांणीं ताचो वापर करचो अशी आमी अपेक्षा कशी बाळगुवप?

बिम्ब मासिक चलोवपा खातीर म्हाका बरीच कसरत करची पडटा. मासिकाचे वर्गणीदार भरपूर आसात. पूण वर्गणीचेर आयज खंयचेंच मासिक चलना. जायराती जाय पूण त्यो हाडटलो जाल्यार खूब जाणां कडेन विनवणी करची पडटा. पूण ते मख्खपणान कायद्याचे–नेमाचे तजविजेचेर बोट दवरतात. आपली बुद्ध वापरतात पूण काळजाचो खंयच वापर करिनांत. तो करपाची तांचेकडेन दानत ना.

ह्याच दिसांतली खबर. एका प्रसिद्ध दिसाळ्याच्या मॅनेजरान म्हाका दिवाळी अंकाक जायरात दिली. आतां ताच्या दिसाळ्याची जायरात म्हज्या मासिकांत करपी हांव कोण? म्हज्या मासिकाची जायरात हांवें ताच्या दिसाळ्यांत करपाची. पूण म्हजें मासिक चलचें अशें त्या दिसाळ्याच्या धनयाक दिसता आनी कसल्या तरी निमतान म्हाका आर्थीक आदार करचो म्हूण जायरात रुपान तो म्हाका गरज पडटा तेन्ना मजत करता. हें काम बुद्धिचें न्हय तर काळजाचें.

मॅनेजरान म्हाका जायरात दिली पूण जायरातीचो मसुदो आपल्याक दाखोवंक ना म्हूण अडून बसलो. हांवें म्हळें म्हाका तुजे पयशेच नाका. तो बद्धिचो आनी नेमाचो वापर करतालो आनी हांव ताचे कडल्यान काळजाचो वापर करपाची अपेक्षा बाळगून आशिल्लों!

ह्या लोकांक काळीजूच ना अशें म्हणत हांव भायर सरलों. भायर म्हाका एक म्हजें बरें मागपी शिक्षिका मेळ्ळी. तिका हांव नेमान मासिक धाडटां. पूण तिणें केन्नाच वर्गणी भरूंक नाशिल्ली. म्हाका पळोवन तिणें म्हज्या मासिकाची तोखणाय केली. म्हज्या मासिकाची वर्गणी वर्साक २०० रुपया. पांच वर्सां तिका अंक धाडल्यात अशें जरी थारायलें तरी चडांत चड १ हजार रुपया जातात. तिणें थंयचें थंय धा हजारांचो चेक

बरोवन दिलो.

तिणें जर बुद्धिचो वापर केल्लो जाल्यार हिशेब करून पयशे दिवपाची. तिणें काळजाचो वापर केल्लो. म्हज्या वावराचो भोवमान केल्लो. विस्वास दाखयल्लो.

बुद्धी सगळ्यांकडेन आसता. बुद्धिचो वापर सरसकट जाता पूण काळजाचो वापर खूब थोडे करतात. तो करपी आसात देखून आमच्या सारख्यांक एक आगळी स्फूर्त मेळटा कितेंय करून दाखोवपाची!



(डिसेंबर २००७)

# अनवळखी वळख!

**तो** जितो आसासर तो खंयचो आनी ताचें नांव कितें हाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली. तो नाच्च जाल्या उपरांत वो मेल्या उपरांत म्हाका ताचें नांव कळ्ळें. पूण हांव हांगा ताचें नांव उक्तें करूंक सोदिना.

तो दिल्लीचो. कस्टम खात्यांत प्रिव्हेंटीव ऑफिसर म्हूण काम करतालो. कांय दिसां पयलीं ताणें मुरगांव बंदरांत एका जहाजाचेर यशस्वी धाड घाल्ली. आंतरराश्ट्रीय स्तराचेर म्हत्व आशिल्लें तस्करी लफडें ताणें आपल्या चपक्यांत धरिल्लें. हांवें ही गजाल वृतपत्रांत वाचिल्ली. पूण तो अधिकारी हो म्हणपाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली. एक दीस ताची मोटरसायकल रेल्वे स्टेशनार सापडली. पूण हाचो पत्तो अजून कोणाक लागूंक ना. मदीं अमूक अमूक कस्टम अधिकारी बेपत्ता म्हूण खबर हांवें वाचिल्ली तेन्नाय म्हाका तो होच म्हूण खबर नाशिल्लें. कारण म्हाका ताचें नांव खबर नाशिल्लें. हांवें केन्ना ताका तें विचारूंक नाशिल्लें आनी ताणें केन्ना म्हाका आपूण जावन सांगूंकय नाशिल्लें.

म्हाका तो 'टॉप गियरांत' मेळटालो. एकटोच येतालो. भितर सरल्या बरोबर म्हाकाच हांसतालो. म्हज्या टेबला मुखार बसतालो. दुसरें टेबल खाली आसल्यार थंय बसतालो. पूण ताच्या टेबलार दुसरो कोण बशिल्लो हांवें केन्ना पळोवंक ना. सगळीं गिरायकां ताका मनीसघाणो लेखतालीं.

ताचे गैर हाजेरेंत ताच्यो बकच्छायो करताले. पूण तो हाजीर आसतना कोणूच ताचे वाटेक वचनाशिल्लो. तोय कोणाकडे केन्ना उलयल्लो हांवें पळोवंक ना आनी हेर टेबल खाली ना म्हूण हेरांच्या टेबलांचेर वचून केन्ना बसूंक ना. फकत बसतालो तो म्हज्या टेबलार.

ताणें येवप. म्हाका हांसो दिवप. म्हज्या मुखावेले खाली सुवातेर बसप. बोल्सांतल्यान सिगरेट पाकीट काडप. एक सिगरेट तोंडांत धरून ताणें गोंयची काजू मागप. मागप म्हळ्यार उलोवप ना. हातांनी कुरवो करून सांगप. तशें करिना जाल्यार लेगीत वेटराक ताका कितें जाय तें खबर आसतालें. वेटर काजू आनी ग्लास हाडून दवरी म्हणसर तो सिगरेट पेटयतालो. खोल दम मारून धुंवर सोडटालो. मागीर तो, सिगरेट आनी ती काजू. इतल्याच विश्वाचो तो सम्राट आसतालो.

नाय म्हळ्यार एकदां – दोनदां आपल्या विश्वांतल्यान भायर येवन ताणें म्हाका आपली सिगरेट दान केल्ली. म्हजी सिगरेट सोंपिल्ली. म्हाका ड्रिंकाचेर सिगरेट जाय पडटा. टॉप गियरांतली सिगरेट सोंपिल्ली. वेटराक भायर वचून हाडची पडटाली. पूण तो वचूंक शकनाशिल्लो कारण टॉप गियरांतलो तो एकलो एकसुरो वेटर. मालक गल्ल्यार आनी तो गिरायकांचो नियंत्रक. म्हणटकच म्हाकाच उठून सिगरेट हाडूंक वचचें पडपाचें. तेन्ना ताणें आपल्या म्हऱ्यांतलें सिगरेट पाकीट मुखार धुकलून दिल्लें. मोन्यांनीच, उपाय नासून हांवेंय गरजवंताक अक्कल नासता ते प्रमाण तागेल्या पाकिटांतली एक सिगरेट घेतिल्ली. आनीक एक खेप ताणें पाकीट मुखार केल्लें. पूण तेन्ना कावंटरार सिगरेट आशिल्ली. हांवें ताचें पाकीट तोंडार हांसो हाडून परत केल्लें. इतलोच हो आमचो संबंद.

उपरांत ताचें येवप बंद जालें. ताचो आनीक एक वांगडी म्हाका मेळ्ळो. तो गोंयकार, ताणें म्हाका सांगलें, अमक्या अधिकाऱ्याचे डायरेंत

म्हज्या नांवाचो उल्लेख आसा. म्हाका अजाप दिसलें. हांवें बारीकसाणेन चवकशी केली. तेन्ना म्हाका म्हजे सामकार येवन बसपी कस्टम अधिकारी आशिल्लो म्हणपाचें कळ्ळें. तो बेपत्ता आसा म्हणपाचीय गजाल ताचेकडल्यानूच कळ्ळी.

तो बेपत्ता जाल्या उपरांत बऱ्याच दिसांनी चवकशे खातीर ताचे कुडीची झडटी घेतली तेन्ना ताचे कुडींत ताची डायरी तांकां सांपडिल्ली. ती डायरी चाळून आपलेविशीं ताणें तातूंत कितें बरयलां काय कितें हें जाणां जावन घेवपाचो खात्यान यत्न केल्लो. पूण आपूण खंय वता वो आपल्याक कोणा पासून धोको बी आसा हाचो खंयच उल्लेख ताणें आपले डायरेंत करूंक नाशिल्लो. म्हज्या नांवाचो उल्लेख सांपडिल्ल्यान हांव कितेंय त्या प्रकरणाचेर उजवाड घालूंक शकत हे अपेक्षेन तो अधिकारी म्हजेकडेन आयिल्लो. हांवें आमची वळख कितली तें ताका सांगलें. आनी तोय अजापलो. ते डायरेंत म्हजेविशीं ताणें जें कितें बरयल्लें ताचेवेल्यान ह्या गोंयांत ताचो हांवच एक लागशिल्लो इश्ट असो कोणूय निश्कर्श काडूंक शकतालो.

म्हाका ताचे डायरेविशीं उमळशीक लागली. अधिकाऱ्याची हरकत नासत जाल्यार हांवूय ती चाळून पळयतां अशें हांवें ताका सांगलें. ती डायरी खात्याचे कस्टडींत आशिल्ली. ती म्हाका मेळपाची शक्यताय नाशिल्ली. पूण अजापाची गजाल म्हळ्यार ती तब्बल तीन वर्सांनी म्हजे हातांत पडली.

ताचें जालें कितें तर हांव हें सगळें प्रकरण विसरून गेल्लों. टॉप गियरांत हांव अदीं मदीं वतालों. पूण ताची याद जावपा इतली ताचे कडेन म्हजी संवकळ नाशिल्लीच. वो केन्ना मदीं ताची याद आयल्याय आसूं येता. पूण एक दीस म्हाका मेळूंक एक बायल आयली. तिणें आपूण त्या अधिकाऱ्याची आवय म्हणपाचें सांगलें. आपल्या बेपत्ता पुताचो सोद लावन

सगळे थकले अशें दिसून आयल्या उपरांत खंयीय कितें सांपडत म्हूण ती आपले परीन प्रयत्न करताली. खात्यान ताचें सगळें सामान आवयचे सुवादीन केल्लें. तातूंत ती डायरीय आशिल्ली. आवयन ती डायरी वाचल्या आसूंक जाय. तीच वाचून तिणें म्हजो पत्तो कस्टम खात्यांतल्यान घेवन म्हाका संपर्क केल्लो आनी मेळपाची इत्सा उक्तायल्ली.

हांवें तिका फोनावेल्यानूच सांगिल्लें की म्हाका ताचे विशीं कांयच खबर ना आनी तो कोण म्हणपाचेंय हांव नकळ आशिल्लो म्हणपाचें सांगलें. पूण ताचो सोद लावपा खातीर ती म्हाका सोदिना आशिल्ली तर तिका ताची ती डायरी म्हाका दिवपाची आशिल्ली.

तीन चार वर्सां पयलीं जी डायरी हांव चाळूंक सोदतालों तीच डायरी म्हाका सोदीत म्हजेकडेन येवंक सोदताली.

म्हजी उमळशीक जागवली आनी हांव तिका मेळपाक तिच्या हॉटेलार गेल्लों. ती दिल्ली वचपाचे तयारींत आशिल्ली आनी वचचे आदीं म्हाका मेळून वचूंक सोदी.

नमस्कार, सांत्वन बी जाल्या उपरांत तिणें ती डायरी म्हज्या हातांत दिली आनी तिणें जें कितें सांगलें तें आयकून हांव चाट पडलों.

तो तिचो एकलो एकसुरो पूत. अत्यंत संवेदनशील. भावूक. पूण अचकीत तो सामको एकमुळो जाल्लो. कोणाचकडे तो संबंद दवरिना जालो. आपूण आनी आपलें काम असो ताचो सभाव जाल्लो. पूण डायरेचेर ताणें म्हजेलागीं खूब इश्टागत जोडिल्ली. टॉप गियरांतली प्रत्येक सांज ताणें म्हजेकडे उलोवन काडिल्ली. पूण फकत डायरेचेर. ताणें ते डायरेंत आपली सगळी भावना म्हाका उक्तावन दाखयल्ली. ते डायरेचो म्हाका एक लेखक म्हूण उपेग जावं येता अशें दिशिल्ल्यान तिणें ती म्हजेकडेन दिवपाचें थारायल्लें.

हांवें ती डायरी घेतली. तिचो पत्तो घेतलो. वाचून जातकच तिका हांव ती परतून धाडपाचों आशिल्लों. कित्याक ती डायरी म्हळ्यार तिच्या एकसुऱ्या पुताची संपत आशिल्ली. जिचेर फकत तिचोच अधिकार आशिल्लो.

हांवें ती डायरी वाचली. वाचल्या उपरांत म्हाका भावलें की ते डायरेचेर फकत तिचोच अधिकार ना तर म्हजोय आसा आनी म्हज्या सारख्याच आनीकूय कांय जाणांचो अधिकार आसा.

त्या डायरेंतल्यो कांय नोंदी, ज्यो पत्र रुपान आसात, त्यो कोंकणी करच्यो अशें म्हाका दिसलें. तोच प्रयत्न हांवें केलो. आतां दिसलें तें हांगा छापचें. तेच डायरेंतल्यो ह्यो निवडक नोंदी.

हीं पत्रां, वो हेर नोंदी तो कोणाक धाडपा खातीर बरयतालो अशें दिसना. पूण ताच्या मनांतली विचार प्रक्रिया ताणें बरोवन दवरल्या आसूं येता. हीं पत्रां धाडपाचीं आशिल्लीं जाल्यार तो ती डायरेर कित्याक बरयतलो आशिल्लो! वेगळ्या कागदार बरोवन धाडपाचो वो धाडपाचें नासल्यार तशींच दवरपाचो. पूण तो तेंच पत्र डायरेचेर बरयता तेन्ना ताच्या मनांत जें शिजतालें तें ताणें डायरेर बरोवन काडलां आसूं येता.

ताचें सगळ्यांत पयलें पत्र मेळटा तें १६ मे १९८० तलें. तो बरयता...

प्रिय नेहा, (हांगा खरें नांव बदल्लां)

आयचो दीस पळय कसो उदेलो? तुजे खातीर सात रंगांचीं किर्णां घेवन आनी हांव असो कर्मकट्टो की म्हज्या खातीर सूर्य ना. सूर्य उदेवपाक क्षितिज ना. काल तूं वतना रडून गेलें. म्हाका दिशिल्लें की तूं फकाणांच करता. तूं फाटलीं सात वर्सां फकाणां करीत गेलें आनी हांवें प्रत्येक गजाल खरी मानली. आनी काल पळय तूं एक खरी गजाल म्हाका सांगतालें आनी हांवें तीच फकाणाची मानली. तुज्या फाटल्या फकाणां

सारकेंच हेंय एक फकाण थारिल्लें जाल्यार काय बरें जावपाचें, म्हजें मुखावयलें आयुश्यूच खरें जावपाचें.

काल हांवें तुका हांसत निरोप दिल्लो. तुका हांवें सांगलें की हांव तुजे उपरांत खुशालभरीत रावतलों म्हूण. पूण म्हाका तें शक्य जायत शें दिसना. तुवें वतना म्हजी सगळी खुशालकाय व्हेल्या. म्हज्या आयुश्यांतलें सूख म्हळ्यार तूंच एकलें. तें तरी हांवें म्हज्या फुडल्या आयुश्याखातीर दवरपाचें न्हय?

नेहा, म्हज्या सुखा, आज हांव पयले फावट पिलां. तुका सोरो पिवप्यांचो राग येतालो न्हय! तुका याद आसा, हांवें तुका केन्नाच सोरो पिवपाचो ना म्हूण सोपूत दिल्लो तो! पूण आज म्हज्यान कशेंच रावंक नज जालें. पळे मनीस कसो अधोगतीक पावता तो! आज ज्या वेळार तुजेर अक्षदा पडटाल्यो तेन्ना हांव व्हिस्कीचो एक एक पेग पचयतालों. पूण तूं जिखलें नेहा, त्या ग्लासांत तुजीच म्हूर्त आशिल्ली. जेन्ना तूं म्हज्या ग्लासांत आशिल्लें तेन्ना सव्यार कोण खंयची वधू आशिल्ली तर!

प्रिया, जेन्ना ही चीट तुज्या हातांत पडटली तेन्ना तूं खंय तरी मधुचंद्रा खातीर गेल्लें आसतलें. कदाचीत तूं आपल्या घोवाचे वेंगेतूय आसतलें. जें नेहा केन्ना तरी हेच अवस्थेंत म्हजे वेंगेंत आसपाचें तें कोणाचे तरी अनवळख्याचे वेंगेंत घुस्पल्लें आसतलें. कितलो दुखदेणो विचार पळय. तरीय सत्य. तुका ह्या वेळार म्हजो उगडास येता आसतलो काय?

कितलीं सपनां रंगयल्लीं न्हय आमी? पूण कशी जाग आयली पळय न्हिदेंतल्यान. सपन पुराय जायसर तरी ही न्हीद अशीच उरपाची आनी तीच न्हीद शेवटची थारपाची!

आतां तुजी वाट वेगळी आनी म्हजो रस्तो वेगळो. कांय काळ

एकमेकांचो हात हातांत घेवन आमी चल्लीं. चलतना आमच्या मनांत केन्नाच विचार लेगीत आयलों ना की कांय दिसांनी हे हात सुट्टले! आमच्या वाटांक दुसरी वाट फुट्टली आनी आमी अनवळखी जावन आपापल्या वाटांनी चलूंक लागतलीं. काल पासून म्हाका हें खबर नाशिल्लें. तुका तरी दुबाव आशिल्लो? म्हाका दिसना. ना तर तूं काल केन्नाच म्हणचेंना आशिल्लें की म्हाका लग्न जावपाचें ना. आमी खंयतरी पळून या. आनी हांवें तेन्नाच तुजें आयकून तुजेकडेन लग्न केल्लें जाल्यार?

नशीब आनी नशिबांतलें भविश्य पळय कशें सहज बदलून वता. आज तुजें लग्न हें सत्य आसून खरें दिसना. सत्य तुज्या दोळ्यां सामकार आसा. म्हजे कल्पनेंत...

नेहा.... आतां आमी एकमेकांक विसरूंक जाय. आमी एकमेकांक कळनासतना वा जाणून बुजून वेगळे रस्ते आपणायल्यात. ह्यो वाटो परत केन्ना एक जावपाच्यो नांत. आतां अनवळखी जावन केन्नातरी परतून खंयचे तरी आडवाटेर आमी मेळुंया. फकत एकमेकाची खबर घेवंक. तूं म्हाका विचार, कसो आसा? लग्न केन्ना जातलो? हांव तुका विचारीन, संवसार कसो चल्ला? भुरगीं कितें करतात? इतलेंच.... मागीर परतून तुजी वाट वेगळी म्हजी वाट वेगळी.... अनवळखी भाव तोंडार दवरून. तेन्ना तूं फाटीं वळून पळयतलें नेहा?... हय. तूं नक्कीच फाटीं वळून पळयतलें. नेहाक हांव वळखतां. जितलें तुका हांवें वळखलां तितलें तुका तुजो घोव लेगीत वळखचोंना. सात जल्माचें नातें आसल्यार लेगीत तुका आयच्या दिसा हांव कितें आशिर्वाद दिवं? म्हजेकडे तर तूं गेले उपरांत कांयच उरूंक ना. सामको कफल्लक जालां. तरी तुज्या जिवितांतल्या ह्या भांगराच्या दिसा हांव इतलेंच मागतां... तुका खुशाल भरीत आयुश्य मेळूं. हांव तुका जें सूख दिवपाचों आशिल्लों तें सगळें सूख आनी जें तुका ह्या उपरांत तुज्या

घोवाकडल्यान मेळपाचें आसा तें सूख दोनूय एक जावन तुजो फुडार असो फुलून वचुंदी की खंयच्याय वसंत रुतूक लजेन मान सकयल घालची पडूं दी. सूख ह्या उतराक सद्या जो अर्थ आसा, तातूंत सद्या जी शक्त आसा ती शक्त तुज्या सुखान वाडूं दी. आनी कोणूय हाचे मुखार 'सुखी जा' म्हूण आशिर्वाद कोणाक दितलो पळे ताका हातूंत बदल करून नवो आशिर्वाद दिवंक हीं उतरां वापरूंक मेळूं... अमक्याचें नेहा जितलें सुखी जाल्लें पळय तितलें सूख तुका मेळूं...

तुजो सांगाती जावंक शकनाशिल्लो.

ताची ही बरोवपाची शैली म्हाका आवडिल्ली. हें ताचें बरोवप पळयत जाल्यार ताका डायरी बरोवपाची संवय आसा अशें दिसनाशिल्लें. दिसपट्टें तागेलें बरोवप नाशिल्लेंच म्हणूंक जाय. जेन्ना मनांत वादळ उठ्ठालें तेन्ना तो डायरेचेर देंवयतालो आनी मन हलकें करतालो आसूंक जाय. ताचें हें बरप ताच्या स्वता पासतच आशिल्लें.

ह्या पत्रा उपरांत डायरेचीं खूबशीं पानां रिकामीं आशिल्लीं. रिकामीं म्हळ्यार त्या पानांचेर बरोवपा बदला चित्रां काडिल्लीं. ताका चित्रां काडपाचोय छंद आशिल्लो जावंक जाय.

त्या पत्रा उपरांत आनीक एक पत्र आशिल्लें.

म्हज्या सपनांतल्या नेहा,

आयज म्हज्या सगळ्या वांगड्यांनी म्हाका गराडो घालून दवरलो. मजा म्हळ्यार जण एकलो सुतकी चेहरो करून आशिल्लो. जणकाय तांच्या घराचो आयजूच कोण तरी खंवसला. म्हज्या तोंडावेलो हांसो पळोवन तांकां चड वायट दिसलां आसूं येता. तांची कल्पना आसूं येता

की हांव खंय तरी सुतकी तोंड करून बसलां आनी दुकां गळयतां आसतलो म्हूण! तांकां भंय आशिल्लो की हांव आत्महत्या बी कितेंय करीत म्हूण. पूण सगळ्यांचो अपेक्षाभंग केल्लो हांवें. जण एकल्याचो एकूच प्रस्न. नेहाचें लग्न कशें जालें? तें म्हाकाच खबर ना तें तांकां कशें सांगतलों.

नेहा, तुका खरें सांगूं? तुजें लग्न जालें हें म्हाका खरेंच दिसना. तूं म्हजीं फकाणां करूंक कोणां सोयऱ्यांगेर बी गेलां आनी दुसरे दिसा येवन म्हजो राग निवळायतां निवळायतां म्हजे वेंगेंत घुस्पून म्हज्या केंसांकडे खेळटलें अशेंच म्हाका दिसता.

मोगा, आयज तूं खंय आसतलें? तुजे भोंवतणीं सगळो बोवाळूच आसतलो. जण एकलो तुज्या सौंदर्याची तोखणायूच करीत आसतलो. नवे सुनेक कोणाची नदर लागची न्हय म्हूण कोण दिश्टूय काडटात आसतलीं. आनी तूं.... तुज्या मनांत कसलें तरी वादळ आसतलें. आसूंकच जाय. हांवें पळय केदीं व्हडलीं पिशेपणां केलीं. हांवें तुज्या लग्नाक येवंक जाय आशिल्लें. म्हाका तुका व्हंकलेच्या भेसांत पळोवपाचें आशिल्लें. तूं पयलींच सुंदर... तातूंत भरिल्ल्या चुड्याचे तुजे हात, मेथयेन रंगल्लें तुजें आंग... सगळेंच अप्रूप आसतलें. जिवितांतलो केदो व्हडलो प्रसंग, व्हडलो खीण हांवें चुकयलो पळय. आतां हाचे मुखार हांव सगळो संवसार जिखूंक शकतां. पूण तुका हांव व्हंकलेच्या भेसांत केन्नाच पळोवंक शकचों ना. केदी दुर्दैवाची गजाल! तुका ह्या भेसांत पळोवपाचें भाग्य जर म्हाका मेळिल्लें तर ताचे बदलाक म्हजें पुराय आयुश्य हांव हुंवाळून उडयतलों आशिल्लों.

तुज्या घोवाकडेन म्हजी वळख करून दी अशें तूं वतना हांवें तुका म्हणिल्लें. पूण तूं विसरलें आसतलें. लग्न जाय म्हणसर तूं तरी ताका खंय वळखतालें? आनी तुकाच अनवळखी आशिल्ल्याची वळख तुजेकडल्यान घेवप म्हळ्यार हांवें तुकाच वळखूंक ना अशें तुका दिसलां आसूं येता.

आतां हळुहळू ताची वळख तुका घडत वता आसूं येता. कसो आसा सभावान? म्हजे सारखो काय म्हजे परस उजू? म्हजें नेहा तशें तोखणायेचें. कोणूय वेंचून काडटलो.

तुका आनी तुजे सांगाताक ताकाय लग्नीक जिवीत परजळीत वचूं.

तुका ह्या निमतान खूब खूब प्रेम....

तुजोच...............

हें पत्र ताणें केन्ना बरयल्लें ताची तारीक ना. चड करून ताणें तें रोकडेंच बरयलां आसूं येता. त्या उपरांतचें एक पत्र आसा तें १९८४ सालांतलें. म्हण्टकच ताच्या नेहाचें लग्न जाले उपरांत चार वर्सांनी बरयल्लें. मदल्या चार वर्सांतल्या एकाय दिसा कसलेच घडणुकेचो उल्लेख ना. नेहा विशीं ना तो नाच ताचे स्वता विशींचोय ना. फकत अदीं मदीं चित्रांचें रेखाटन...

प्रिय नेहा,

तूं गोंयांत आयलां म्हणपाचें कळ्ळें. फाटीं म्हजी बदली मुंबय जाल्ली. तुजो पत्तो म्हाका खबर नाशिल्ल्यान तुका मेळचें अशें दिसुनय शक्य जालें ना. जरी तुज्या घराचो पत्तो म्हाका खबर नाशिल्लो तरी मुंबयचो हर एक रस्तो तुज्याच दारांत वता, हर एक घर तुजेंच आसा अशे रितीन हांव पळयतालों. तूं आतां दिसतलें, मागीर दिसतलें हे आशेन मुंबयत सुचत थंय भोंवत आशिल्लों. पिसो कसो! पळय, मनशाचो एक निश्चित पत्तो जरी नासलो तरी प्रीय मनशांचो सगळो संवसारूच एक पत्तो ताच्याच घराकडेन सोंपता. म्हज्या दोळ्यांतल्यान एक अनंत रस्तो फुट्टा आनी तो सोंपता तुज्याच दारांत. त्या रस्त्यावेल्यान म्हजें मन

केन्ना धांवता केन्ना मुयेच्या पावलांनी कडसरता. पूण दोळ्यां मुखार ताचो शेवट दिसून लेगीत वाट सोंपून सोंपना.

काल एक चली, तुजीच बापोलभयण आसूंक जाय ती. तुवेंच केन्ना तरी वळख करून दिल्ली. खूब वर्सांनी पळयलें देखून सारकी वळख पटलिना. तुमच्या सगळ्या फामिलेचो फॉर्म एकूच. ताचे वेल्यान वळख मनांत घट्ट रिगल्या. नदरेक नदर लागतकच ताणें म्हाका हाटकिलें. ताचे हांडीर एक भुरगें आशिल्लें. देडेक वर्सांचें. म्हाका पळयतांच तें माणकुलें भुरगें हांसलें. तो हांसो हे आदीं हांवें खंय तरी पळयल्ल्याचो म्हाका भास जालो. त्या हाश्याकडे म्हजो खूब खूब संबंद आशिल्ल्याची जाणविकाय म्हाका जाली. म्हजी नदर ताच्या दोळ्यांर गेली. त्या दोळ्यांतली ती मिश्किलताय केन्नातरी हांवें म्हज्या ओंठांनी स्पर्शिल्ली.

हांवें विचारलें, 'नेहा आयलां?'

ताणें विचारलें, 'तुका कशें कळ्ळें?'

हांवें म्हळें, 'ह्या भुरग्यान सांगलें.'

ताका अजाप दिसलें. तें भुरगें तर अजून उलोवंक लागूंक नाशिल्लें. ताका म्हजीं हीं पिशेपणां दिसलीं जावंये. पूण नेहा खरें सांगू, तूं जंय आसा, जशें आसा ताची सगळी म्हायती कशी ना कशी म्हाका मेळत आसता. आयज हे तुजे चलयेन ती दिली.

पळय कसो योगायोग आसता तो. आत्म्याची वळख आपशींच जाता. तुजें हें चली कोणाचकडे वचना खंय न्ही! मागीर म्हज्या सारख्या एका अनवळखी मनशाकडे कशें आयलें तर तें? तूं जाणां! हांवें ताका अर्धवर खेळयलें. हांव ताका घेवन भोवपाक गेलों. ताणें हातांत दुकानावेली चॉकलेट घेतली. ताचें सिलेक्शन खंयचें जाणां? तुका याद आसा, आमी खंयची चॉकलेट खातालीं ती? हय, तीच ती फायव्ह स्टार.. थंय ल्हान – व्हड,

रंग रंगयाळ्यो हेर चॉकलेटी आसतना ताणें हीच वेंचून कित्याक काडली? काय तुजीच आवड ताणें आपल्याक लावन घेतल्या? खरेंच, ताणें तुजे एकान एक गूण आपणायल्यात.

तूं म्हाका म्हणटालें कि चलो हो तुजे सारखो आसचो आनी चली आपले सारखी. तुका जाय आशिल्ली तशीच चली जाल्या पळय. तुजें नशीब मात तोखणाय करपा सारकें. तुवें जें मागलें, इत्सिल्लें तें तें तुका मेळत रावलें. आनी हांवच असो कर्मकट्टो जावन गेलों, म्हज्या आयुश्यांत दुःख, वेदना हाचीच भरती आसा. आतां वेदना म्हळ्यार म्हजें जिवीत असो अर्थ जाला. तुजे हे चलयेक काल हांव आशिर्वाद दिवंक सोदी की म्हजें पुराय आयुश्य तुका लाभूं म्हण. पूण वेदना म्हळ्यार जाचें आयुश्य असो अर्थ जेन्ना लावन घेतला तेन्ना ह्या निश्पाप जिवाक म्हजें आयुश्य तुका लाभूं असो आशिर्वाद कसो दिवं? तो तर शाप थारपाचो.

नेहा, तुजी चली म्हाका खुबूच भावली. तुका मेळपाची पयलीं जितली म्हाका ओड लागताली तीच ओड तुजे चलयेन लायली. रातभर तेच ओडीन हांव तळमळत रावलों. दिसलें, ताचेकडेन म्हजें कसलें तरी नातें आसा. जमिल्लें जाल्यार ताका हांव पोसकें घेवन म्हजेंच चली कशें वाडयतलों आशिल्लों. जें प्रेम उरिल्ल्या आयुश्यांत हांव तुका दिवपाचों तें सगळें ते चलयेचेर घसघश्यांनी रकोवपाचों.

म्हजें हें चिंतप, हे विचार तुका पिशेपणाचे दिसतले न्हय? तुका हांसो येतलो. म्हणटलें हो पिसो जाला. पूण हांव तुजेकडेन केन्ना शाणेपणान वागलां तर! म्हाका म्हजीं हीं पिशेपणाच व्हड. वाळवंटांतल्या रखरखांत खंय तानेल्ल्याक रेवेंत उदक आशिल्ल्याचो आभास जाता. त्या मृगजळा फाटल्यान तो तानेल्लो धांवत सुट्टा. ताका शाणे लोक पिशेपणां म्हणटात. ह्या शाणेपणाक खरेली तान म्हळ्यार कितें हें कळुंकूच नासुंये! तानेल्ल्या

लोकांचीं मृगजळा फाटल्यान धांवपाचीं तीं पिशेपणां जायत. पूण ते फाटली तान ही खरेली तान आसता. शाण्यां लोकांक ताचीं शाणेपणां व्हड. म्हाका ते विशीं कांयच म्हणपाचें ना. नेहा, म्हाका म्हजीं पिशेपणां जाय. कित्याक त्या पिशेपणां फाटल्यान एक तान आसा. आदर्श प्रेमाची तान. हे तानेक शाणेपणां न्हय तर पिशेपणांच सोबतात. हय न्ही?

उरिल्लें पुराय जिवितांत हांव तानेल्लोंच उरूं दी आनी मृगजळूय उरूं दी.

तुजे चलयेचो मित्र

हें पत्र म्हाका दिसता ताणें बरयल्लें तेन्ना तो गोंयांत आशिल्लो. मागीर ताची बदली बंगळूराक जाली जावंक जाय. फुडलें पत्र ताणें बंगळुराक बरयल्लें. तसो उल्लेख ताच्या पत्रांत आसा.

•

म्हज्या सपनां,

ह्या दिसांनी सगळें जिवितूच एक सपन अशें दिसूंक लागलां. हांव कोण तेंच म्हाका खबर ना जालां. म्हजो जल्म जालो तेंच एक सपन आनी आतां हांव जियेतां तेंय एक सपन. जें केन्नाच तुटना असलें कसलें शें! अशेंच कितें तरी दिसूंक लागलां.

रातभर ओमर खय्याम वाचीत बसलों. रात केन्ना सोंपली तीच कळ्ळीना. सकाळीं चार–साडेचारांक न्हिदूंक गेलों आनी दोळो लागतांच सपनांत तूं.

तुका बंगलोर येवपाचें कारण कितें आशिल्लें? आनी हांव थंय आसां म्हूण तुका सांगलें कोणें? काय तूं म्हज्या सपनांत हांगा आयलें आनी हांव ज्युस्त ह्या वेळार तुज्या सपनांत मुंबय आशिल्लों?

पिशा, तुवें म्हाका अजून क्षमा करूं ना? म्हाका तुका विसरून वचपाचें आसा तरी आसतना तूं म्हाका अशें कित्याक तडफडत दवरता? आयच्या दिसा पांच वर्सां पयलीं तुवें जें कितें सांगिल्लें तें जर हांवें मानिल्लें तर आयज तूं म्हज्या वांगडा हांगा आसपाचें. म्हजी बायल म्हूण.

नेहा, याद आसा तुका आयचो दीस! पांच वर्सां फाटीं ह्याच दिसा तूं म्हाका सांगूंक आयिल्लें. आमी पळून या म्हूण. तेन्ना कितें उलोवणीं जाल्लीं तीं आतां जशाक तशीं याद जायनांत. पूण तुजे ते भरिल्ले दोळे मात अजून फाट सोडिनांत.

तूं लग्न जा, हीं उतरां म्हज्या तोंडांतल्यान कशीं भायर सरलीं हेंच म्हाका समजना आनी त्या तीन उतरां खातीर हांव ही ख्यास्त भोगतां. हांव सद्या जे तरेन जगतां ताचे परस व्हडली ख्यास्त आनी खंयची? खिणां खिणांक तुजी म्हूर्त म्हज्या दोळ्यां मुखार आसतना मुद्दाम सपनांत येवन आयच्या दिसाची याद करपाची तुका गरज कसली?

आयज तुजेच यादीन सगळो दीस सरलो. आयचो दीस फकत तुजोच आशिल्लो. आयच्या दिसाक जर हांवें 'नेहा–डे' हें नांव दिलें जाल्यार? फुडल्या नेहा डेक अशेंच सपनांत येशी? तुका हांव सपनांतूच आपयतां. जागेपणी येवप म्हळ्यार केन्नाच खरें न जावपासारकें सपन एक.

तूं म्हजें जावप शक्य ना पूण म्हाका म्हणप शक्य आसा.

तुजोच.

ह्या मनशाचीं हीं पत्रां म्हळ्यार ताचें सपनाळें जिवीत काय खरेंच तो कोणाचेर प्रेम करतालो आनी जाचेर प्रेम करतालो ताचें खरेंच लग्न जावन गेलें हें कळूंक मार्ग नाशिल्लो. जे डायरेचेर ताणें हीं पत्रां बरयल्यांत ते

डायरेच्या खंयच्याच पानांचेर ताणें खंयच्याच दिसा कसलेच घडणुकेची नोंद करूंक नाशिल्ली.

हातूंत ताणें नेहाक बरयल्लें तें हें निमणें पत्र.

नेहा,

जहाँ बजती है शहनाई वहाँ मातम भी होते है

आयचो दीस म्हज्या जिवितांतलो व्हड दीस. म्हज्या नेहाचो आयज लग्नाचो धावो वाढदीस.

कसो पळय सरलो काळ. एक आख्खें तप जळपांत गेलें तरी खरेंच दिसना की तुजें लग्न जालां आनी तुका दोगां भुरगींय आसात. तुजो संवसार दिसान दीस फुलता, फळटा आनी हांव मात थंयच आसां. मनांत एक आस धरून. अजून दिसता की तूं येतलें. मिनाक्षी जशी शंकराची हातांत वरमाला घेवन चातकाच्या दोळ्यांनी वाट पळयत आसा तसो हांव तुजी वाट पळयतां. कन्याकुमारीक जेन्नां हांवें मिनाक्षीचे ते दोळे पळयले तेन्ना तिचे आनी म्हजे दोळे म्हाका वेगळे दिसले नात.

आयचो पुराय दीस हांवें पीत मनयलो. तुका बरें आयुश्य मागतां मागतां कितलो पियेलों तें कळ्ळेंच ना आनी मागीर पुराय वेळ न्हिदेंत काडलो. उपरांत जाग आयली तेन्ना तुका हें बरोवंक बसलां.

दिसता नेहा, असोच धांवत तुजे कडेन येवंचें आनी तुजे वेंगेंत घुसमटून धा वर्सांत हांवें जे तळमळे सोंसल्यात ते ह्या दोळ्यांच्या वाटांतल्यान दुकांचे व्हाळ करून व्हांवयत रावचे. ह्या म्हज्या विचारांत कसलीच आसक्ती ना. फकत तुजे कुशींत पडून सगळ्यो वेदना विसरपाची ती आंतरीक इत्सा. म्हाका रडन दिसता आसतनाय रडून मन हलकें करूंक शकना. हांव असो दुबळो जालां हें वण्टीक दिसचें न्हय म्हूण! म्हाका तूंच वळखूंक शकता.





म्हज्या दुकांचो अर्थ तुकाच कळटा म्हूण हें बरयतां.

पिशा, तुजी याद खुबूच सतावंक लागल्या म्हाका. अशें दिसता की ह्या समाजाक खोंट मारून, सगळें सोडून असोच तुजेकडे धांवत येवंचें. तुज्याच म्हऱ्यांत रावंचें. तुका सोडून खंयच वचचें न्हय. ध्रूव बाळान खंय अढळपद मागिल्लें, आनी ताका मळबांत कोणूच हालोवंक शकना असली सुवात लाबल्या. म्हजेर जर देव प्रसन्न जालो आनी ताणें म्हाका जाय तें माग म्हूण सांगलें तर हांव ध्रूव बाळा सारकीं पिशेपणां करचों ना. हांव सुवात मागतलों ती तुजे मांडयेर. म्हाका मृत्यू लेगीत तुजेच मांडयेर तकली दवरून येवंचो अशेंच हांव मागतलों.

नेहा, म्हजो आवडीचो एक नाटककार आसा, नोर्वेजीयन, हेन्रीक इब्सेन. ताणें आपलो प्राण आपले बायलेचे मांडयेरूच सोडलो. 'माय स्वीट सूजान' अशें कानांत पुटपुटत. म्हजें नशीब कसलें तें म्हाकाच खबर ना. तुजे शिवाय जगप म्हळ्यार म्हजे खातीर एक शिक्षा थरल्या. आनी खंयच्या मनशाक आपलें आयुश्य एक शिक्षा म्हूण जगप आवडटलें? म्हजे मुखारूच ह्या दिसांनी प्रस्न उप्रासूंक लागल्यात. हांव कित्याक जगतां? तुजे विणें हांव कितें करतां?

हांवें तुका वच सांगून खूब व्हड चूक केली आनी ताचीच शिक्षा हांव भोगतां. म्हजेरूच हांव रागार जावन आसां.

अजून तुजोच आशिल्लों.....

ह्या पत्रावेल्यान अशें दिसून येता की हो जिवाक उबगल्लो. ताका ताचें एकटेपण खावंक येतालें. ताका जियेवप म्हळ्यार एक शिक्षा दिसताली. तेच पासत ताणें आपल्या जिवाचें बरें वायट तर करून घेवंक ना मू? ताचें अकस्मात ना जावप हाचे फाटलें हेंच कारण आसूं येता. शिवाय ताचे

डायरेंत आनीक एकूय पत्र नाशिल्लें. फकत एक लांब लचक लेख आशिल्लो. ताचे वेल्यान तो लग्न जाला म्हणपाचें कळटालें. पूण जर तो लग्न जाला तर कोणाकडेन? ताची बायल खंय आसा? ताची डायरी घेवन आयिल्ले आवयन तशें कित्याक सांगलें ना? वो तो लग्न जाला हें तिका खबरूच ना काय? तो आपलें मनोगत अशें बरयता...

जाची हांवें वर्सभर पुजा केली ताचेर हांवें हात उभारलो. हांवें विडी ओडली म्हूण तें आपलो हात ल्हासून घेवंक लागलें. हांवें सोपूत घालून लेगीत म्हजें आयकना जालें. हांव म्हज्या काळजांतल्यान ताका पराथतालों आनी तरी तें म्हज्या वांगडा येवंक तयार जालें ना. म्हज्या दोळ्यांत दुकां येतात हें ताका दिसता आसतनाय तें आपलो हट्ट सोडिना जालें. हांव ताची वाट पळयत रावलों. शेवटाक तें येवन बसलेंच स्कुटरीचेर. तें स्कुटरीचेर येवन बसलें हें म्हजें जैत न्हय. हांगा जिखपा-हारपाचो प्रस्नूच येना. हांगा प्रस्न आशिल्लो तो एका प्रियकरान एके प्रेयशीक घाल्लो साद. आनी ताका घाल्लो तो साद ताका कळ्ळोंना? हांव जाणां हांवें मातशें खालतेपण घेवन तेंच जिखलें अशें दाखयल्लें जाल्यार हें सगळें घडूंक पावचें नाशिल्लें. हांवूय सुखी जावपाचों.

ताचेकडल्यान एका दादल्याक जाय तें सगळें मेळटा. तें म्हजेर घोव म्हूण उप्पाट प्रेम करता. खंय लागलें दुखलें जाल्यार मायेन काळजी घेता. आपल्या हातांनी वखद-विसर्द करता. जेवणा खाणाची सगळी वेवस्था करता. न्हिदतना कपलाक ओंठ लावन चुंबता आनी सकाळीं जागयताय ओंठानीच. समागमाच्या वेळार तर विचारूंकच नाका! तें इतलें समरस जाता की ताचे मुखार कितल्योय सुंदरी तुच्छ. ताचेकडेन लग्न जाल्ल्याक, ताका हांवें उगडें पळयल्ल्याक ताचे परस सुंदर म्हाका कांयच दिसना. पयलीं खंयचेय चलयेक पळयतकच ताचे विशीं शारिरीक आकर्शण उत्पन्न

जातालें. पूण आतां जरी दुसरे अस्तुरे कडेन लक्ष गेलें तरी ती कामूक नदर आसना. एके अस्तुरेचेर सहज लक्ष वता आनी दरेक दादल्याचें वचचें तशें वता. तातूंत उरता फकत तुलना. आनी हेरां परस हेंच म्हाका सर्वांग सुंदर दिसता. पयलीं जेन्ना ताचेकडेन म्हजी वळख नाशिल्ली तेन्ना तें खंयीय गेलें तरी म्हाका कांयच लागनाशिल्लें. हांव सुखान आशिल्लों. म्हयनो - म्हयनो घरा भायर रावतालों. पूण लग्न जावन हाका घरांत हाडी पासून घरांतल्यान एक खीण भायर सरन दिसना. तशें कितें सेक्स घेवंक घरांत रावतां अशें न्हय. तें घेवन घेवन दिसांतल्यान कितलें घेतलों? एकदां, चडांत चड दोनदां. पूण उरिल्लो वेळ कितें हांव ताका सांसपीत रावना. तरीपूण दिसता की ताणें सतत म्हज्याच म्हऱ्यांत रावचें. म्हज्याच वांगडा भोंवचें. तसो हांव बायलेचो गुलाम न्हय. पूण हाचे विशीं म्हज्या मनांत वेगळ्योच भावना. त्यो खास कसल्यो हें हांव सांगूंक शकना. तें दर दिसा नवें रूप घेवन येता. म्हाका भुलयत रावता. हांव जाणां, तें म्हज्या स्वासांत इतलें भिनलां की ताचे बगर हांव जगूंकच शकना. तेंच म्हजो स्वास जावन म्हज्या शरिरांत रिगता. म्हाका नवें जीवन दिता.

बायल म्हळी म्हणटकच झगडीं हीं आसुंकूच जाय. पूण हांव लग्न जाल्ल्याक ताचे कडेन फकत दोनदांच झगडलों. फाटीं एकदां आनी हें आतां एकदां.

झगड्याचें कारणूय तशें खास अशें न्हय. म्हाका स्कुटर घेवन ताका हाडूंक येवंक कळाव जालो. म्हजी वाट पळयत तें रावलें आनी ऑफिसांतल्यान घरा येतना म्हज्याच एका इश्टा वांगडा स्कुटरीवेल्यान आयलें. मित्र म्हणचे परस तो तसो एक वळखीचो. ताणें ताका येता काय विचारलें आनी हाणें हय म्हळें. आतां एका दुसऱ्या दादल्या वांगडा गेलें म्हूण म्हाका वायट दिसपाचें कारणच ना. हांव कितले जाणांक लिफ्ट

दितां. पूण ती फकत लिफ्ट आसता. बायल मनीस ही फकत भोगपाची वस्त हें मानपी हांव न्हय. हांव बायलमनशे विशीं उप्पाट आदर बाळगितां. तिका निर्मितीचें रूप हे नदरेन पळयतां. आनी निर्मितीचें रूप केन्नाच सामान्य आसना. म्हजे वांगडा जी कोण चली जावं बायल येता तिका हांव पुराय रेस्पेदान वागयतां. तसो हांव केन्ना केन्ना हेर बायलांक तोखेतां. पूण तें तोखेवप कमरे सकयले बुद्धीन नासता. तें काळजाचें, मेंदवाचें तोखेवप आसता. पूण हो बायल मनीस म्हळ्यार फकत भोगपाची वस्त समजता. ताणें कितले तरी जाणांक लग्नाचें उतर दिवन भोगल्यांत. नशीब इतलेंच की ताणें आपले खर्चान तांची ॲबोर्शना केल्यांत. अश्या ह्या मनशा विशीं म्हाका भयंकर किळस. अश्या ह्या किळसवण्या मनशावांगडा तें गेलें.

हांव जाणां स्कुटरीचेर बसलें तेन्ना ताणें ताका आपलो स्पर्श लेगीत जावंक दिलोना आसतलो. पूण ताचे फाटल्यान बसलें ही कल्पनाच हांव सहन करूंक शकलों ना. ताका तें वळखऽ नाशिल्लें आनी एक वेळ तांचे वांगडा गेल्लें जाल्यार समजूं येतालें. पूण त्या मनशाची पुराय हिस्ट्री हांवें हाका सांगिल्ली आसतनाय आपल्या ल्हानश्या सुखा खातीर ताणें म्हाका इतलो दुखोवप? जे मनशाची सावळी लेगीत म्हजे बायलेचेर पडल्या हाची कल्पना हांव करूंक शकनाशिल्लों तीच गजाल घडटा! आनी ही गजाल म्हाका कोण सांगता? म्हजीच बायल. हांसत, हांसत म्हाका तिडायता. हांव जाणां थंय वाट पळयत रावचे बदला, हो ते वटेन वता तेन्ना ताचे वांगडा या असो फाटलो विचार करिनासतना तें ताचे वांगडा आयलें. पूण म्हजेर जर तें खऱ्यानीच प्रेम करता जाल्यार ताका हे गजालीची याद जावंक जाय आशिल्ली की आपूण जाचे वांगडा वतां तो म्हज्या घोवाक आवडना. म्हाका वाट पळयत रावंचें पडल्यार उपकारता पूण हाचे वांगडा वचचें ना. पूण हें सगळें त्या वेळार कळून लेगीत तें ताचे वांगडा गेलें हें हांव

जाणां.

गेलें बरें आसा. तें सांगपाचीय म्हूण एक रीत आसता. पूण हें अशे पद्धतीन हांसून सांगूंक लागलें की 'पळय, तुका आवडनाशिल्लो न्हय तो! हांव गेलें ताचे वांगडा'. त्या हांसपाचोच म्हजेर चड परिणाम जाल्लो. ताणें सांगू म्हाका मागीर, आपल्या हांसपाचो तसो हेतू नाशिल्लो म्हूण. तो तसो नाशिल्लो जाल्यार म्हाका होलमपाचो. हांव ताचे भितर तर पुराय रिगलां. हांव तिडचों म्हूण तें तशें हांसतालें. पूण तो फकाणां करपाचो प्रसंग नाशिल्लो. म्हज्या भितरल्यान कोण तर म्हजें काळीज चोंचायता अशें म्हाका ताणें ती गजाल सांगल्या बराबर जालें.

खरें म्हळ्यार म्हज्या सारक्या शिकिल्ल्याक, समाजांत वावुरतल्याक इतलो संकुचीत रावूंक फावना. एकल्याचे स्कुटरीचेर बसून गेल्यार हांव इतलो तिडटां आनी समज फाटीं फुडें तें कोणाकूय भुल्लें आनी ताचो शारिरीक संबंद कोणाकडे आयलो हें म्हाका कळ्ळें जाल्यार हांव ताचो जीव घेतलों. तेंय म्हाका तशेंच म्हण्टा. पूण हांव तसलो न्हय. म्हजी वृत्ती तितली संकुचीत न्हय. हांव बायलमनशेच्या इल्ल्याशा कुडक्याचेर तिची नितिमता थारावपी मनीस न्हय. आपल्या घोवाकडे अत्यंत पतिव्रता रावून, समाजाचे चौकटीक लागून घुस्मटपी आनी घोवा परस वेगळो आशिल्ल्या एका मर्द मनशाची कल्पना करून हस्तमैथून करपी बायलो हांवें पळयल्यात. त्या वेळार ह्या बायलांकडें परकी दादल्याचो शारिरीक संपर्क येवंक ना जायत. पूण मन! तिणें मनान केन्नाच परकी मनशाक भोगिल्लो आसता आनी घोवा लागीं जितलें समाधान मेळूंक ना ताचे परस कितलें तरी समाधान मेळोवन ती तृप्त जाल्ली आसता. ह्या असल्या बायलांक कितें म्हणप? मनान व्यभिचार करून शारिरीक नदरेन आपूण पतिव्रता हें दाखोवपी बायले परस, आपल्या घोवाकडे सूख मेळना म्हूण

सरळ दुसऱ्या दादल्याकडे वचपी बायलेक लाख सलाम करीन. असले बायलेविशीं म्हजो आदर हजार पटीन वाडटलो. आनी एका घोवाची बायल दुसऱ्याकडें केन्ना वता? घोवाकडें जेन्ना सूख मेळना तेन्नाच. सूख म्हळ्यार फकत संभोग-सूख न्हय. संभोगावेळार घोवाक कळ्ळें की आपलेपासून बायल तृप्त जालीना आपलीच तृप्ती जाल्या, तेन्ना घोवाचें कर्तव्य आसता बायलेक समजावप, तिका धाडस दिवप. घरांत वावुरतना तिची काळजी घेवप. तिका दिसूंक जाय की सेक्स जरी पुराय दिवंक शकलोना तरी म्हजो घोव म्हजी हेर काळजी घेता. हीच भावना बायलेक चड म्हत्वाची आसता. संभोग सुखा परस हेच आपलेपणाचे भावनेक लागून तिका चड तृप्ती मेळटा. आनी हें जेन्ना घडना आनी हेर दादल्याकडल्यान तिका तें मेळटा तेन्ना ती घोवाक सोडून दुसऱ्याकडे वता आनी हळुहळू शारिरीक संबंद येवप साहजीक आसता. हातूंत चूक बायलेची आसना. आसता ती दादल्याची. हांगा दादल्याक दोशी धरूंक जाय. बायलेक न्हय. उठली सुटली बायल परकी दादल्याकडे वचूंक लागिल्ली जाल्यार आयची जी समाजवेवस्था आसा ती उरची नाशिल्ली. मनशांत आनी सुण्यांत फरक उरचो नाशिल्लो. म्हजी बायल दुसऱ्या दादल्या म्हऱ्यांत गेल्या म्हणपाचें म्हाका कळटांच हांव म्हजे बायलेक ख्यास्त करचोंना आशिल्लों. म्हाकाच हांव ख्यास्त करून घेवपाचों. म्हजे पासून म्हजी बायल सुखी जायना. तिका समाजा खातीर हांव म्हज्या पासांत आडखळून दवरचो नाशिल्लों, तर तिका फावसो जोडीदार मेळोवन दिवंक तिका मदत करतलों आशिल्लों. म्हजें काळीज तितलें व्हड आसा. अशें करून हांव तिच्या पासून अचळय पयस जावपाचों. हेंच म्हजें तिचे वेलें उप्पाट प्रेम. प्रेम म्हळ्यार स्वताची लायकी नासतनाय दुसरे बायले वांगडा संवसार करप न्हय तर तिका सुखी पळोवप हेंच खरें प्रेम. तेंच प्रेम हांव करतां. पूण म्हजे पासून म्हजी बायल

सुखी ना अशें न्हय. ती आतां लेगीत वागतना लग्नाचे रातीवरींच वागता. पूण आदले दीस आनी हालींचे दीस हातूंत थोडो भोव फरक म्हाका जाणवता. पयलीं भशेन तिच्यांत म्हाका मेळपाची जी आतुरताय आशिल्ली ती दिसना. पयलीं ती म्हाका सोडून एक दीस लेगीत दुसरेकडे वचपाची कल्पना लेगीन करिनाशिल्ली. म्हाका एक खिणभर लेगीत पयस वचूंक दिनाशिल्ली. हांव नोकरेक लागून गोंया भायर वतां म्हळ्या बराबर धुसफूस सुरू करताली. आनी हांवूय तिच्या पासून पयस वचूंक शकना जावन म्हजीं भायलीं कामां टाळटालों जांव म्हज्या सांगात्यांक सांगून करतालों. फाटल्या देड वर्सांत हांव खंयच गेलोंना. पूण हें मात आठ दीस कुळारा रावून आयलें. हांवें कशे ते आठ दीस काडल्यात ते म्हाकाच खबर आसात. आख्खें घर म्हाका खावंक येतालें. दर कोनशाक ताचीं कांकणां किणकिणटालीं. ताचो वास घरभर पातळ्ळा म्हणपाचो भास जातालो. ताणें लाँड्रींत दिवपा खातीर काडून दवरिल्ल्यो साडयो लाँड्रींत दिना आसतना हांवें त्यो तशोच दवरिल्ल्यो. त्यो साडयो कामरून ताच्या आंगाच्या धुंद वासान हांव थोडीभोव न्हीद घेतालों. ताणें न पिवपाचो आनी सिगार ओडपाचो सोपूत घाल्ल्यान हांव तेंय करूंक शकनाशिल्लों. एक वेळ म्हज्यान एक पेग घेवं येतालो. तशी थोडी सवलत म्हाका ताणें दिल्ली. पूण ताणें घेवं नाका म्हणिल्लें म्हूण घेन लेगीत दिसनाशिल्लें. एकदां बरोच पितलों आनी न्हिदतलों म्हूण पिलों. इतलो पितकच खरें म्हळ्यार बऱ्या पयकी न्हीद येवंक जाय आशिल्ली. पूण ताच्या हुसक्यान न्हीद नाच जाली. उल्ले ते फकत हुस्के. मात्शी मदीं केन्नातरी दोळो लागतालो तातूंत तेंच दिसतालें. सपनाय म्हूण कसलीं आकांताची! केन्ना तें बरें ना जालां, केन्नां ताका अपघात जाला असलींच कसलीं तरी. बरीं सपनां पडटालीं तातूंत तें घरा आयलां शें. जाग येत जाल्यार तें सपन म्हूण

कळटालें आनी काळीज खंती जातालें. जेन्ना तें खऱ्यानीच आयलें तेन्नां खंय जिवाक सुसेग लागलो.

दुसरें झगडें जालें तें कालूच. ताका स्कूटर शिकूंक जाय आशिल्ली. हांवें ताका केन्नाच ना म्हळें ना. पूण मदीं मदीं आडमेळीं हीं येतूच रावतालीं. केन्ना तें बरें नासतालें, केन्नां ताचो मूड नासतालो किंवा म्हज्यो तरी अडचणी आसताल्यो. पूण म्हाका ताणें स्कूटर चलोवंक शिकचें हे मनापासून दिसतालें. म्हजें तें एक पयलीं पासूनचें सपन. म्हजी बायल सगळे बाबतींत म्हजे सारकीच आसची. स्मार्ट आसची. तिणें स्कूटर चलोंवची. दोनदां तिनदां शिकोवपाचो यत्नय केलो. पूण एक फावट दाखयली म्हूण काय ती रोखडीच येतली अशें काय न्हय. पूण ताणेंच कच खाली. म्हाका कळून आयलें की ताच्या मनाची तयारी जावंक ना. हांवेंय त्या वेळार एक कॉमेन्ट मारलोच, बायलांचें काम न्हय म्हूण. तेंच मनार घेतलें ताणें. त्या वेल्यान म्हाका उलट टोमणे सुरू जाले. हें अशें पयलीं घडनाशिल्लें. आतां हळुहळू घडूंक लागिल्ल्यान म्हज्याय मनाक दिसूंक लागलें की हाचें म्हजे वयलें प्रेम कमी जालें काय! हांव तशें उलोवनूय गेलों. ताचेवेल्यान झगडें सुरू. म्हजो ताचेवेलें प्रेम उणें जालां, हांव बदल्लां. म्हाका खबर आशिल्लें हांव बदलूंक ना. पूण ताच्याच भितर फरक जाला. दर एकल्याची येवजुपाची पद्धत, ताकत वेगवेगळी आसता. अशावेळार खरें म्हळ्यार हांवें, हांवच बदल्लां म्हूण ओगी रावपाचें. पूण हांवेंय उलोवंक सुरवात केली. रडारड सुरू जाली. रागान हांवेंय एक विडी ओडली. पयलीं हांव सिगरेट ओडटालों. पूण ताका हांवें सोपूत दिल्लो की सिगरेट ओडचोंना म्हूण. पूण म्हजे तकलेर इतलीं टेन्शनां आनी म्हजें फ्रेंडसर्कल सगळें सिगारां फुसकावपी. तांच्या मदीं रावून लेगीत हांवें सिगरेटी ओडलींना. सिगरेट ओडिल्ली जाल्यार म्हाका कोण सुळार मारचोंना आशिल्लो. पूण हांवें ताचे भावनेची

कदर केली. दुसऱ्याची भावना राखप हाका हांव चड म्हत्व दितां. हांव देव मानिना. पूण दुसरो मानता जाल्यार हांव ताका दुखयना. दर एकल्याक आपआपल्याच्यो भावना व्हड आसतात. तांचे भावनेक हांवें मान दिलो म्हूण खरें म्हळ्यार ताणें म्हजें मन ओळखुपाचें. पूण ताचो इगो हर्ट जालो. हांवें विडी वोडलीच म्हूण ताचें चाळवलें. एके विडयेन कोण कॅन्सर जावन मरना. पूण हांगा विडये परस ताका दिल्लें वचन मोडलें हेंच चड म्हत्वाचें आशिल्लें. जेन्ना मनशाचो इगो मुखार येता तेन्ना तोच म्हत्वाचो ठरता आनी माया, प्रेम, नातीं गौण जावन वतात. हांगाय तशेंच जालें. हांवें विडी ओडून ताचो अपमान केलो म्हूण तें म्हजे वांगडा येना जालें. ताका हजार परीन समजायलें. म्हाका खबर आशिल्लें की तें ह्या दिसांनी हट्टी जायत चल्लां. आपलो हट्ट धरून जर तें थंयच रावलें जाल्यार घरा पासून येवपाचें ना. आनी मागीर आनीक मनस्ताप. तें येना जाल्यार हांव जीव दितलों अशें हांवें सांगलें. तरी तें तयार जालेंना. ताका दिसलें आसुये की हांव जीव दितलों म्हण्टां तीं फकाणां. खरें म्हळ्यार जीव दिवप हो प्रकार म्हाका आवडना. जीव दिवंक भंय दिसना म्हाका. म्हाका खबर आसा की ह्या शरिरांतलो प्राण गेलो की सगळे क्लेश सुट्टात. भंय दिसता तो मरपा खातीर न्हय. तर ह्या जीवनांतल्या सगळ्या सुखांक आपूण ना जातलों. मेल्या उपरांत चड सुखां भोगूंक मेळटात हें जर मनशाक कळिल्लें, जावं खात्री जाल्ली जाल्यार दर एकलो खोसयेन जीव दिवंक मुखार सरपाचो. पूण ताची कोणाक खात्री ना. आनी मरणां उपरांत कितें हेय कोणांक खबर नाशिल्ल्यान कोण जीव दिवंक मुखार सरना. म्हजेंय हे धतरिवेलें कार्य पुराय न जाल्ल्यान ह्या संवसाराचो कंटाळो येवन लेगीत जीव दिवपाचो विचार हांवें केन्नां केलो ना. जेन्ना थोडी निराशा आयली म्हण्टकच जीव दिवंचें अशें दिसता पूण खिणभर. जीव दिवन कांयच

फायदो ना. ज्या गजालीं खातीर आमी जीव दितात, तीच गजाल जीव दिल्या उपरांत अर्थशुन्य जाता, ताचो आनी जिवाचो संबंद उरना जाल्यार फायदो कितें? म्हजेकडे हें झगडलां. चल ताका बुद्ध शिकोवंया म्हूण समजा हांवें जीव दिलो जाल्यार तें सुदारतलें? ना. ताका जातलो पश्चाताप. मेल्ले म्हशीक बारा शेर दूद म्हण्टात तशें तें रड रड रडटलें. आपणें केली ती चूक हाचीय ताका जाणीव जातली आनी मागीर माफी मागतलें. माफी मागल्या उपरांत घडून गेल्ली गजाल परत मेळटली? ना. एकदां मेल्लो मनीस परत येना. ते खातीर उरिल्लो काळ तें पश्चाताप करीत रावतलें. आनी उपरांत ताणें पश्चाताप केलो काय तें सुखान रावलें हें म्हाकाय काय कळपाचें ना. अशें हें सगळें खबर आसतना म्हजे सारको जीव दिवपाचो नाच. तरीय पूण मनशाचो ह्या वेळार इगो उबो रावता आनी ह्या पिशेपणाक लागून इगोइस्ट कितेंय वायट करून बसता. आनी ही चूक इतली व्हड आसता की कितलोय पश्चाताप केलो, चूक मागली जाल्यारूय सुदारूं येना.

हांव वतां म्हूण सांगून परत येतां आनी ताका पराथतां हे खातीर ताका दिसलें आसूं येता की हांव ताका घेतले बगर वच्चोंच ना. पूण हांव गेलों. पूण ताचे भोंवतणीं इतले म्हजे पास घुस्पल्यात की पक्को निर्णय घेवन लेगीत म्हज्यान वचप जालें ना. इतले काळजाचे खरायेन ताका होरावन, प्रार्थना करून लेगीत तें आयकना, हांव कशें सांगतां तें नकळून तें आपलें पेपारें वाजोवंक लागलें तेन्ना मात हांव खुबळ्ळों. म्हजे हात उभारले. ताचे केंस धरून हांवें हालयले. आनी हांव मोरली सोंपलो. जाची हांवें पुजा केल्ली, आयुश्यांत आवयचें लेगीत केन्ना आयकलें ना, कोणांक केन्ना केर केलें ना अशा स्वयंभू मनशान आयज अतिरेक केला म्हणपाची जाणीव म्हाका जाली. मनशाचो जेन्ना संयम सोंपता तेन्ना मनीस सोंपता.

हांव सोंपलों हाची जाणीव म्हाका जाली. म्हजी जाचेर श्रद्धा आशिल्ली त्या श्रद्धास्थानाचेर आयज हांवें संयम सोडून हात उभारिल्लो. ही म्हजी अधोगती आशिल्ली. हांव हळुहळू अधोगतीकडे पावतां हाची म्हाका जाणीव जाल्ली. शेवटा तें म्हजे वांगडा आयलें. पूण म्हजी मनस्थिती सारकी नाशिल्ली. तें म्हजे वांगडा येवंक नाशिल्लें जाल्यारूच बरें जावपाचें. म्हाका मनसोक्त पिवंक मेळपाचें. पिल्या उपरांत सगळे विचार ना जावन फुडचे फुडें पळोवं येतालें. हांव चड विचार करतां म्हूण अशें जाता. हांव विचारी जाल्ल्यान हेरांकय म्हजे वांगडा म्हजे इतलेंच म्हत्व दितां. हांव जेन्ना लग्न जाल्लों तेन्ना हावें म्हजे बायलेक बायले परस म्हजी आवय, म्हजी भयण, म्हजी मैत्रीण ह्या रुपांतूच चड पळयली. आनी तीच म्हजी चूक जाली अशें म्हाका आतां दिसता. हांवें तिचेकडे फकत एक बायल म्हणूनच पळोवपाचें. बायल, भोगपाची वस्त, दिसभर तिका मस्को मारपाचो, चण्याच्या झाडार चडोवपाचें. तिचे कडल्यान जाता तितलो लाव घेवपाचो आनी यथेच्छ भोगपाची. पूण हांवें तशें केलें ना. हांवें म्हजे बायलेक म्हजो सांगाती मानली. म्हज्या सूख दुखाचो घटक मानलो. आनी ताचो परिणाम कितें! तें आयज एककडें आनी हांव एककडें. जीं एकमेका पासून कुशीन वचपाची कल्पना लेगीत करूंक शकनाशिल्लीं तीं आयज कुशीन आसात. म्हजी स्थिती तर अशी जाल्या की म्हजे हाल सुणो लेगीत खांवचो ना. म्हजो स्वास लेगीत तें ना म्हूण अडखळटा. ताचीय स्थिती म्हजे सारकीच जाल्या आसतली काय? काय तें हांव आपूण जावन कुशीन गेलां म्हूण खुशी जालां आसतलें? आसत सांगू येना. हांव ताका वर्सभर वळखूंक शकलोच ना. ताचें वागपच अशें की तें पळयलें म्हणटकच दिसता की हें म्हजे शिवाय जगचेंच ना. पूण खिणभरयां रोखडेंच बदलता तेन्ना दिसता की हाका म्हजी गरज ना. तें सहज आपलें जिवीत घालोवंक शकता.

म्हजी मात ताका ताचे खुशालकायेच्या जिवितांत आडखळ जावं येता. इतलें गहन चली म्हज्या जिवीतांत हांव पयलेच फावट पळयतां. मनांचो थाव लागना. ते खातीर निर्णय घेवंकय भंय दिसता. ताचें एक वागणें पळोवन दिसता की हें हांव म्हज्यांत नासतना चड सुखी जातलें. हांव मनान हळवो. हो जिवाचें बरें वायट करतलो, सोरो पितलो, सिगरेट ओडटलो आनी आपल्याक खत लागतलें म्हूण तें खूश आशिल्ल्याचें नाटक करता. तें नाटक करता अशें धरून जर हांव पयस गेलों आनी खऱ्यानीच तें तशें नाशिल्लें, मुळासावन म्हजेर प्रेम करतालें आनी हांव ताका कंटाळून पयस गेलों म्हूण ताणें कितेंय बरें वायट केलें जाल्यार! म्हाका म्हजें जिवीत, जें म्हज्या बायलेच्या रूपान म्हाका मेळिल्लें तें अशें तरेन होगडावपाचें ना. सामको घुस्मटमार जाता. कितें करचें तेंच कळना. जर खंयचेय आंतरीक शक्तीन म्हाका सांगिल्लें की तूं सोंपत जाल्यार तें सुखी जातलें जाल्यार हांव म्हजे म्हाकाच सोंपोवन घेवंक फाटी ना. पूण म्हाका जाय खात्री. तीच खात्री म्हाका ना. कदाचीत ताचें हें वागणें डिप्रेशनाखातीर न्हय मूं? अशीय शक्यता न्हयकारूं येना. ताका भुरग्याची खुबूच आवड. दुसऱ्यालें भुरगें पळोवन तें तळमळटा. तांच्या खातीर जीव सकयल वयर करता. आपल्याक भुरगें ना म्हूण ताका आपूण अपरिपूर्ण तर दिसना? तीच शक्यता चड. आपल्याक भुरगें ना हे जाणविकायेनूच बायल सोंपता. तिच्या मनांत न्यूनगंड निर्माण जाता. एकदां असलो न्यूनगंड निर्माण जालो की बायलेक सांभाळप कठीण. बायलेचें खरें कार्य आसता निर्मणीचें. भुरगें जल्माक घालून ताका वाडयलें आनी तें भुरगें निर्माण करपाचे ताकदीचें जालें की हे बायलेक परीपुर्णताय येता. जे सर भुरगें जायनां ते सर ही परीपूर्णताय पुरायेक पावना. आनी तातूंतल्यान निर्माण जातात कॉम्प्लेक्स. तांकां दिसूंक लागता की आपूण निरुपयोगी. आपलें जीवन निरर्थक. आपूण

जिवितांत फेलीयर आनी हाका लागून ती बायल सगळ्याक वखवखपी नदरेन पळयता. तान्हेल्लो मनीस जसो उदकाच्या घोटाक तळमळटा तसो निर्मिती खातीर, निर्मितीचें हें साधन, ही बायल हांगा थंय आशेल्ले नदरेन पळयता. तेन्ना तिच्या मुखार घोवाचें प्रेम उरना, समाजाचीं बंधना उरनात. उरता फकत सैमान घालून दिल्लो निर्मणेचो नियम. सगळीं बंधना जुगारून हो नेम निर्मणे खातीर बीं सोदीत रावता. तें खंयच्यान मेळटलें, कशें मेळटलें हें खबर नाशिल्ल्यान सैरबैर जावन हांगा थंय धांवत उरता. पूण समाजाक ही गजाल खबर नासता. समाजान आपले भोंवतणी एक चौकट केल्ली आसता. हे चौकटी भायर त्या समाजांतलो कोणूय गेलो म्हणटकच हो समाज ताचेर तुटून पडटा आनी परत ताका ते चौकटींत बंदीस्त करपाचो यत्न करता. तें करुनच समाज समाधानी जाता. पूण भुरगें न जाल्ली बायल निसर्गाच्या नेमाक लागून जेन्ना चवताळटा तेन्ना निसर्गाकडे विरोध करपाचें कार्य हो समाज करता तेन्ना ताका ख्यास्त कित्याक जायना? मनीस हो एक सैमाचोच भाग. सैमाच्या विरुद्ध तांणीं जें कितें केलें ताची ख्यास्त ताका भोगचीच पडटा. झाडां मारून सैम इबाडलें, पावस पडना, उदक मेळना, शेतां पिकना ही ख्यास्त जाताच. मागीर एक बायलेक भुरगें आपले घोवापासून जावप शक्य ना, तेन्ना सैमाच्या नेमाक पाळो दिवपाखातीर हो समाज ते बायलेक दुसऱ्या दादल्याकडें वचूंक कित्याक दिना? हांव म्हजे बायलेक दिवपाचों? हय. म्हाका खात्री पटली की म्हजे पासून म्हजे बायलेक भुरगें जावप शक्य ना तेन्ना हांव बायलेक जरूर सांगपी, तुका आवडटा त्या मनशाकडल्यान तूं भुरगें करून घे. ही पद्धत आमचे संस्कृतींत आशिल्ली. आमच्या वेदांत, पुराणांत नियोगाची पद्धत म्हळ्यार मानाची गजाल आशिल्ली. हांव म्हजे बायलेक नियोगाखातीर प्रवृत्त करपी. म्हज्या शंडत्वा

खातीर एका दुसऱ्या मनशांची आस मारून उडोवपाचो अधिकार म्हाका कोणें दिला? दुसऱ्या कडच्यानय भुरगें जालें ना जाल्यार तिका हांवें तिसऱ्याकडें वचूंक दिवप? नियोगांत तीन जाणांकडे वचप धर्म म्हळां. त्या उपरांत अधर्म. पूण हांव त्या मुखार वचून म्हणन, मनशाक सूख मेळप होच मनशाचो धर्म. मनशाक जिवीत एकदांच मेळटा. समाजान घाल्ल्या बंधनाक लागून जिवीत सुकोवन उडोवप हो अधर्म. त्या खातीर मनशान आपआपलें सूख पळोवप आनी सुखा खातीर झटप होच धर्म, दुसऱ्याक सूख मेळटा जाल्यार मदीं आपूण येवन आपल्या सुखा खातीर दुसऱ्यांक आडमेळें हाडप ना. तो अधर्म. हांवें म्हजे बायलेचेर हात उभारून अधर्म केला. ताची ख्यास्त रातभर रडून हांवें घेतल्या. आतां ताच्या पासून पयस रावून तळमळत रावपाची ख्यास्त हांव भोगतां. अजून म्हज्या दोळ्यांत दुकां दाटून येतात. पूण दुकां म्हळ्यार प्रेम न्हय. तीं हेरांचे नदरेन दुबळेपणाचीं लक्षणां. हांव दुबळो जालां. म्हज्या प्रेमान म्हाका दुबळो करून उडयला. हांव म्हजें प्रेम दुबळें म्हणटले तेन्ना हांव म्हज्या पांयार उबो रावंक शकचोंना....

ताणें बरयल्लें हें सगळें हांवें एका दमान वाचलें खरें. पूण ह्या सगळ्याकडेन म्हजो कसलोच संबंद नाशिल्लो आनी म्हजो खंयच उल्लेख नाशिल्लो.

अशें आसुनय म्हजेकडेन ही डायरी पावपाचें कारण कितें. फुडलीं पानां तर सगळीं रिकामी आशिल्लीं. तरी हांवें तीं एकान एक चाळ्ळी आनी म्हाका निमण्या तीन पानांचेर तीन नोंदी सांपडल्यो. तातूंत ताणें बरयल्लें...

हांव दिलीप बोरकाराक आयज मेळ्ळों. ताचेकडेन हांव म्हज्या पत्रांविशीं

5730
BOR-
KON (D)
Mangaluru Cultural Foundation (R.)

उलयलों.

दुसरे कडेन आनीक कांय पत्रांविशीं म्हजेकडेन उलयल्ल्याचें ताणें बरयल्लें.

आनी तिसरे पानांचेर ताणें बरयल्लें आयज हांवें दिलीप बोरकाराक म्हजे बायले विशीं खबर सांगलीं. मन ल्हव जालें.

पूण हांव तर ताचेकडेन केन्नाच उलोवंक ना आनी ताणेंय म्हजेकडेन एक उतर केन्ना काडलेंना. फकत हांशिल्लो... म्हज्या टेबलार येवन बशिल्लो. एक दोनदां सिगरेट मुखार केल्ली. इतलीच आमची अनवळखी वळख. मनीस उलयनासतानय उलोवंक शकता? म्हाका दिशिल्लें फकत लेखकच तशें करूंक शकतात.

तो अकस्मात ना जालो. पूण तो गेल्या उपरांत म्हज्या मुखार आपली वळख दवरून गेलो आनी कांय अनुत्तरीत प्रस्न... पूण ते खरेंच अनुत्तरीत आशिल्ले?



